# गोंयची अस्मिताय



- गोंयकार आनी गोंयचो इतिहास
- सोबीत गोंय
- गोंयकारांची संस्कृताय
- गोंयकारांचो धर्म आनी जाती
- गोंयकारांचें देवसपण
- भार आनी प्रसाद
- जात्रा आनी उत्सव
- लग्नां आनी स्राद्धां
- दोतोर, इजनेर, प्रोफसोर आनी हेर
- गोंय आमचें कुळार कलेचें
- गोंयची स्वतंत्रताय
- गोंयकारांचें राजकारण
- गोंयचे फुडारी
- गोंयचे मंत्री आनी तांचो कारभार
- कोंकणी-मराठी वाद
- आदलें गोंय, आतांचें गोंय
- गोंयच्यो संस्था
- गोंयचीं ऑफिसां
- तिरसुवाद गोंयकार
- आमचें गोंय आमकां नाका

गोंयकार हो एक कुम्पिलकाद मनीस.

गोंयकाराचेर यवजितां तेन्ना म्हाका सदांच प्रस्न पडटालो, गोंयकार म्हळ्यार कोण ? जाच्या ताळयासकल नुसत्याबगर उंडी वचना तो काय जाका दीसभर गजाली केल्याबगर रातची न्हीद पडना तो ? पुर्तुगेजांची सदांच तुस्त करीत आयला तो, काय संवसाराक आपलें व्हडपण दाखोवपाखातीर कसलींय पिशेपणां करता तो ! दारार उबो रावन कार्रेरीक हात दाखोवन त्याच वेळार भितर बायलेक " च्या कर गे " म्हणून ओर्द सोडटा तो, काय कार्रेरींतल्यान दंव-पाखातीर किलिंडराक " राव रेऽऽ" अशें सांगून त्याचवेळार शेजरा बशिल्ल्या मनशाकडेन नवी गजाल सुरू करता तो !

गोंयकाराचेर यवजूंक लागलों तेन्ना ताचीं वेगळीं वेगळीं रुपां दोळयांमुखार येवंक लागलीं. कोणेंय कितेंय सांगल्या बराबर तें सारकें आयकून घेनासताना " चें " म्हणपी गोंयकार " कॉमीक मरे तूं, " " पाड पडलें हाचें ", " भागलाय सो मरे ? " असलीं अर्थ नाशिल्लीं उतरां उलोवपी गोंयकार.... शाणो गोंयकार, पिसो गोंयकार, भावराथी गोंयकार, फांफारांव गोंयकार, तिर-सुवाद गोंयकार, तूं-पयलो-बुर्रऽ म्हणपी गोंयकार अशे कितलेशेच गोंयकार म्हज्या दोळयांमुखार येवंक लागले.

गोंयकार खंयचेंय उतर उलयता तेन्ना ताचो अर्थ तो जी गजाल सांगता ताचे वयल्यान काडचो पडटा. एका गोंयकारान दुसऱ्या गोंयकाराक " सामको " म्हळो जाल्यार ताचो अर्थ तो बरो, वायट, चडशाणो, पिंसाट, बुदवंत, अबर्गत कितेंय जावं येता.

गोंयकारांनी उतरांभोंवतणीं अशीं अर्थांचीं कपयाळीं रचल्यांत आनी ताका लागून तांचेवरीच ( गोंयकारांवरीच ) तांचीं उतरांय कुम्पिलकाद जाल्यांत. पुण हाचेवेल्यान गोंयकार हो एक बुद्द नाशिल्लो मनीस असो मात केन्ना कोणाक अर्थ काडूंक मेळचो ना. एकाद्रया मराठी भक्तान सांसवें आनी मिरयें....पेत्रोलचीं लातें आनी पिपिरमिटाचीं फोलिणें " अशें म्हळें म्हणून ताचे वेल्यान ताची बुद्द जोखपाचो कोणेंय येत्न केलो जाल्यार तो फस्तीक पडटलो. त्या मराठीभक्ताची भास वायट आसूं येता पुण त्याचबराबर तो एक बरो वेपारी आसूं येता.

गोंयकार हो तसो एक बुदवन्त मनीस. एकाद्रया गांवच्या गोपाळकृष्णाक तो सगल्यो राटावळी करता म्हणून जेन्ना तागेल्या गांवचे लोक " सर्वपल्ली गोपाळ-कृष्णन " म्हणटात तेन्ना त्या लोकांच्या तिरसुवादपणा बराबरूच तांगेली फीन तकलीय दिसून येता. तें कित्याक, " जठरानल शमवाया नीचा । का न भक्षिसी गोमय ताजें ॥ ह्या शारदा नाटकांतल्या पदाचें एकाद्रो गोंयकार जेन्ना " पोटाची खळी तुजी भरना जाल्यार । खायना कित्याक रे शेण गोरवांचें ? ॥ " अशें भाशांतर करता तेन्ना त्या गोंयकाराक कोणूय इस्किनमारो म्हणत पुण निर्बुद्द केन्ना म्हणचो ना.

हे सगलें सांगपाचें सार इतलेंच कि गोंयकाराचें चित्र काडप कठीण. देखून हांवें ह्या पुस्तकांत एक गजाल केल्या आनी ती म्हळयार गोंयकारांकूच गोंयकार कशे दिसतात तें सांगपाचो येत्न केला. जें कितें पळेलां, आयकलां, वाचलां तें एकठांय करून हांवें हांगा वाचप्यांमुखार मांडलां.

शेंकडयांनी वरसां एकठांय रावनूय गोंयकार हिन्दू आनी क्रिस्तांव एकामेकांक सारके वळखूंक पावल्यात अशें काय म्हाका दिसना. देखून खंयच्याच गोंयकार बरप्याच्या बरपावळींतल्यान आख्ख्या गोंयचें चित्र केन्ना येवंक पावना. हो दोश ह्याय पुस्तकांत दिसतलो.

ह्या पुस्तकांतले चडशे लेख " जाग " ह्या म्हयनाळयांत " तिरसुवाद गोंयकार " ह्या माथाळयाखाल आदीं उजवाडाक आयिल्ले.

ह्या पुस्तकाचे रचणुकेंत तीन केळेकारांचो–रवीन्द्रबाब, गोदुबाय आनी सुमंत हांचो–हातभार लागला. तांतले तातूंत चड रवीन्द्रबाबांलो. तांगेले सांगणे-नूच हांवें हें पुस्तक बरोवंक घेतलें आनी ह्या पुस्तकाक नांव लेगीत निमाणें ताणींच सुचयलें. तिगांचोय हांव उपकारी आसां.

**अना म्हांबरो.**

## : १ : गोंयकार आनी गोंयचो इतिहास

गोंय, दामांव आनी दीव हो एक संघप्रदेश. पुण ह्या तिनूय वाठारांचेर पुर्तुगेजांचें राज्य चलतालें ही गजाल सोडीत जाल्यार तांचो तसो आनीक कांय संबंद ना. हरशीं गोंयकार वेपाऱ्यांच्यान दामांव आनी दीवाक वचून वेपार करूं येतालो वा मिनैरांनी थंय वचून मानिफेस्तां मारूं येतालीं. पुण गोयकारांचो महाराष्ट्र–म्हैसुराकडेन जितलो संबंद आयलो तितलो लेगीत दामांव दीवाकडेन आयलो ना.

गोंयकारांनी आयज मेरेन जें कितें येवजिलें तें गोयांसंबंदी. गोंय स्वतंत्र जावंचे पयलीं आनी उपरांत तांणीं जीं भाशणां केलीं तीं 'आमी गोंयकार ते गोंयकार' म्हणून; 'आमी गोंयकार, दामांवकार, दीवकार' म्हणून केन्ना केलीं नात. गोंयकार झगडले ते गोंयचे सुटके खातीर, दामांव दीवचे न्हय. देखून गोंय स्वतंत्र जालें तें गोंयकारांच्या येत्नांनी म्हणूं येता. पुण दामांव–दीव स्वतंत्र जालीं तीं आपशींच—तीं दोनूय गोंयांबराबर आशिल्लीं म्हणून. गोंयकार आनी महाराष्ट्रीय हांचे मितल्लें मुखेल अंतर तें हें. गोंयकार जेन्ना फक्कत गोयांखातीर झगडटाले तेन्ना महाराष्ट्रांतले लोक 'मुंबई, बेळगांव, निपाणी, कारवार, गोवा-आनीक कितेंशें, आनीक कितेंशें, आनीक कितेंशें....यांच्यासह संयुक्त महाराष्ट्र झालाऽऽच पाहिजे' अशें म्हणून आड्डताले.

गोंय महाराष्ट्रांत गेलें जाल्यार, ताका जिल्ह्याचें रूप येतलें म्हणून गोंयकार भियेताले. हाचें कारण गोंयचो आवाठ. येद्याशा ह्या गोयांत इकरा म्हाल. परथून हे इकरा म्हाल इकरा तरेचे. हांतलो पेडणे म्हाल जाल्यार हेर वाठारांतल्या गोंयकारांक आपलो म्हालसो दिसच ना. आदल्या काळार शिवोलेची तार काडून

म्हापशां वचचें पडलें जाल्यार पेडणेचे लोकूय ‘ गोंयांक जातंय ’ म्हणटाले. जी गजाल पेडणेची तीच गजाल – मातशे उण्या प्रमाणांत हेर म्हालांची. तिसवाडी बार्देसांतल्या लोकांक सत्तरी–काणकोण म्हणटात ते खूब पयसशे दिसतात.

तिसवाडी, बार्देस, साश्ट हांकां पोन्न्यो काब्रिजादी म्हणटात. पुर्तुगेजांनी खंय हांचेर नव्या काब्रिजादीं परस चड वरसां राज्य केलें. आदल्या काळार हांचे भितर कितें एकवटाची भावना आसली जाल्यार कांय आमी नकळ. सद्या तीय ना.

हरशींय जाल्यार गोंयच्या इक्रा म्हालांतले लोक खंयच्या कामाक केन्ना एकठांय आयल्यात अशें काय दिसना. पणजे एका मराठी साइत्य संमेलनांतल्यान इक्रा लोक रागान भायर सल्ले. ताचेर एका कोंकणी कवीन ‘ गोंयचे इक्रा म्हाल सान, थंयचे आमी इक्रा जाण’ म्हणून एक कविता रचली. हाचेर गोंयच्या मराठीवाद्यांनी म्हळें, कोंकणीवाद्यांकडेन बळ नासू, पुण आसा त्या बळाचेर ते कविता बऱ्यो रचतात. ( हरशीं हे इक्रा लोक खरेच इक्रा म्हालांतल्यान आयिल्ले काय ? )

गोंयकारांक गोंयचो अभिमान आसलो तरीय गोंयची व्हडलिशी माहिती ना. खंयच्याय शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या गोंयकाराक गोंयच्या इतिहासाविशीं विचारात. तो सगल्यांत पयलीं परशुरामाचें नांव घेतलो. परशुरामान बाण मारून समद्रिांतल्यान गोंय काडलें....असली कितेंशी कथा तो सुरू करतलो. आयकतल्याक ही गजाल पटलिनाशी दिसल्यार तो हे गजालिचो उल्लेख महाभारतांत आसा म्हणून सांगतलो. सांगपी मातसो पोन्ने पिळगेंतलो आसल्यार तो गोंय हें सप्तपट्टणांतलें राजपाटण अशें सांगून मुखार व्हडले संस्कृत शिळोक म्हणून दाखयतलो ( हरशीं कोणेंय खंयसरूय बाण माल्लो तरी तांतल्यान गोंय कशें कितें येवं येता, हांव काय नकळे ! )

गोंयचो इतिहास सांगपी मनीस मातसो नवे पिळगेंतलो आसत जाल्यार तो आमचेर कदंबांनी, मुसलमानांनी, मराठ्यांनी, कानडी राजांनी आनी पुर्तुगेजांनी राज्य केलें असली खबर सांगतलो. हातूंत पुर्तुगेज सोडून हेर खंयचे राजवटीन कितलीं वरसां राज्य केलें हें तो नकळ आसता. हो इतिहास गोंयकारांक खबर ना हाचें कारण – गोंयकार हिंदूंक हो इतिहास मराठी मास्तरांनी शिकयलो. आनी तो शिकयतना पोटतिडकेन शिकोवचे बदला तांणी तांकां तो पाठ करूंक लायलो. गोंयकार क्रिस्तांव हो इतिहास चडसो आयकून जाणांत.

फक्कत पुर्तुगेजांचो इतिहास मात गोंयकारांक तोंडपाठ आसा. पुर्तुगेजांची खबर सांगतना गोंयकार ती इतले बारीकसाणेन सांगतलो कि आयकतल्याक हो मनीस साडेचारशीं वरसां पुर्तुगेजां बराबर वावुरतालो काय, असो भास जातलो. पुर्तुगेजींत शिकप घेतिल्ली पिळगी आसा तिका जाल्यार गोंयच्या पुर्तुगेजांच्या इतिहासा बराबर खासा पुर्तुगालचो इतिहासूय तितलोच पाठ आसा. पुर्तुगालाक दों जुआंव कार्लूश कशें राज्य करतालो... १९१० त पुर्तुगाल रेपुब्लीक कशें जालें.... जेनेराल कार्मोन प्रिझेदेंत कसो जालो... सालाझार केन्ना राज्यार आयलो.... तागेले आनी जेनेराल क्राव्हैर लोपीश हांगेले संबंद कशे आसले.... ही सगळी खबर आमटाण तिखसाण लावन बरी रुचीन सांगपी लोक अजून गोंयांत आसात. इतलेंच बारिकसाणेच्यो खबरो ते गोंयच्या फाटल्या पांच-धा गोव्हेर्नादोरां विशींय सांगूंक शकतीत.

गोंयच्या ( पुर्तुगेजांच्या ) इतिहासांत जितलो गोंयकारांक रस आसा, तितलो मात् तांकां गोंयच्या भुगोलांत ना. गोंयचो आंवाठ केदो हें अजून चडशे गोंय-कार नकळत. गोंयच्यो शिमो विचाल्ल्यार तांका उदेंतेक अमकें, अस्तमतेक अमकें, उत्तरेक अमकें आनी दक्षिणेक अमकें हें सट करून सांगूंक येवशें ना. प्रस्न विचा-ल्ल्यार खंय तरी तेरेखोलची न्हंय, खंयतरी अरबी समुद्र आनी उरिल्ल्या वाठारांनी महाराष्ट्र-म्हैसूर आसा असल्या भुरगेपणांत वाचिल्ल्या गजालिंचो ताका मातसो हय न्हयसो-उगडास जातलो. पुण हांतलें खंय कितें आसा हें ताका केन्नाच सांगूंक येवचेंना. न्हंयां भितर मांडवी आनी जुवारी चडशे गोंयकार जाणांत. पुण तांचो उगम खंय म्हणून विचाल्ल्यार ते गोंदळटले. सोंसोगड, मोरपील, कातलांची मावळी, रामाचें भुशीर, बांयगिणचें तळें, गाळजीबागची न्हंय...ह्यो गजाली गोंयकाराचें नदरेन फक्कत शाळेंत आसतना भुगोलाच्या पुस्तकांत वाचपाच्यो आनी उपरांत विसरून वचपाच्यो. ना म्हळ्यार सगल्या गोंयकारांक पणजी ही गोंयची राजधानी, मुरगांव हें देशांतलें एक व्हड बंदर, गोंयांत खंय खंय मीन मेळटा, पणजी-म्हापशें, म्हापशें-मडगांव, मडगांव-वास्को हांचे मदलें अंतर कितलें असली जेराल माहिती आसता.

कितलिंशीं वरसां गोंयकार गोंयची लोकवस्ती सात लाख म्हणटाले. आनी हे सात लाख गोंयकार ‘ युग नवें फुलयतले ’ म्हणून कवी तांचेर कविता बरयताले. कांय गोंयकार ह्या सात लाखांचो हिशोब सांगतना-तांतले पांच लाख गोंयांत

आनी दोन लाख भायर आसात म्हणटाले. हालीं म्हाका गोंयच्या सरकाराची एक पटी मेळ्ळी. तातूंत म्हाका १९०० ते १९६० मेरेनच्या साठ वरसांच्या काळांत गोंयची लोकवस्ती पांच लाखां वयल्यान सव्वा–स लाखांचेर गेली म्हुण कळ्ळें. गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत फुडल्या घा वरसां भितर तातूंत आनीक सव्वा तीन लाखांची भर पडली. सद्या हो आंकडो पावणे-णव लाखांच्या घरांत पाविल्लो आसूं येता. ( हांचे भायर तीन साडेतीन लाख लोक गोंया भायर आसतले ते वेगळेच ). हे पटयेंत खबर दिल्या त्या प्रमाण गोयांत दादले आनी बायलो हांचे प्रमाण सादारण सारकें आसा. दादल्यां परस बायलांचो आंकडो मातसो उणो आसा. पुण अजापांची गजाल म्हळ्यार, सास्ट, बार्देस, पेडणे आनी काणकोण ह्या चार म्हालांनी मात् दादल्यांपरस बायलांचो आंकडो चड आसा.

चडशा गोंयकारांक ही असली खबर समजून घेवपाची व्हडलिशी उमळशीक नासता. पुण इतलेंय आसून गोयांसंबंदीं तिसऱ्याकडेन उलयतना ते सदांच अधिकारवाणीन उलयतले. निदान ह्या गजालींचेर उलयतना ते आपलें अज्ञान तरी वाऱ्यार घालचे नात.

बाकी गोंयची खबर दिवन सरकार ज्यो पटयो उजवाडायता तांचेर तरी विस्वास दवरप काय कितें, असो केन्ना केन्ना म्हाका प्रस्न पडटा. देखीक, निकतें वयर सांगलां तेच पटयेंत गोंयच्या दुकरांचो आंकडो ५२००० दिला. हो आंकडो मातसो उणो दिसता ( सरकारान मराठी शाळामास्तरांक दुकर मेजूंक धाडल्यात, अशी खबर कांय वरसांफाटीं वर्तमानपत्रांनीं वाचिल्ली. तांणी बी कांय चुको करूंक नात मूं ! ) आनी ताच्याकूय अजाप म्हळ्यार हे पटयेंत गोंयच्या गाढवांचो आंकडो फक्कत देडशें दिला. म्हणटकूच गोंयचे हेर सगले प्राणी— तांतूंत गोंयकारूय आयले—शाणे धरपाचे !

ꕥ ꕥ

: २ :

# सोबीत गोंय

गोंयकारांक गोंय जितलें मानवता तितलें दुसरें कांय मानवना. हाचें कारण सादें. चडशा गोंयकारांनी गोंय सोडून दुसरें कांय पळोवंक ना.

पोटाच्या निमतान कांय गोंयकार गोंय सोडून हेरकडेन गेले खरे. पुण जंय जंय गेले थंय थंय तांकां गोंयचे अश्रेक लागले, आनी त्या अश्रेकांचेरूच ते जियेले. आदल्या काळार सिर्विसेच्या निमतान बरेचशे हिन्दू गोंयकार मुंबय वताले. क्रिस्तांव आफ्रिकेक वेताले. खंयसरूय गेले जाल्यार ते आपापले परीन आपल्या घरांनी गोंय उबें करताले.

दोग गोंयकार गोंयाभायर मेळ्ळे जाल्यार दोगूय एकामेकांक 'गोंयां केन्ना पाविल्लो?' कांय म्हणून प्रस्न करतात. समजा, मितल्लो एकलो स म्हयन्या पयलीं आनी दुसरो दोन वरसां पयलीं गोंयां पाविल्लो जाल्यार दोन वरसां पयलीं गोंयां पाविल्लो मनीस स म्हयन्यां पयलीं गोंयां पाविल्लया मनशाक व्हड भाग्यवान समजता. गोंयां भायर आशिल्ल्या गोंयकारांचो गोंयचे वयलो मोग आनीक कांय गजालींतल्यान उक्तो जाता :

१. ते गोंयचेर जितले उलयतात तितले आनीक कित्याचेर उलयनात.

२. कसलींय कारणां काडून ते गोंयां जितल्यो फावटी मारतात तितल्यो हेर कोण मारिनात.

३. हाका ताका सांगून गोंयच्यान जें कितें हाडूं येता तें ते एकासारके हाडीत आसतात.

गोंयाभायर आशिल्ल्या खंयच्याय गोंयकाराक तुमी मेळशात जाल्यार तो आपूण इतलीं वरसां गोंयाभायर रावुनूय इबाडूंक ना कसो, हें तुमकां पोटतिडकेन

पटयतलो. तागेल्या शेजाऱ्याक–तो मात् गोंयकार आसूंक फावना ! तुमी विचारशात जाल्यार तो मनीस इतलीं वरसां गोंयाभायर रावुनूय सुदारूंक ना कसो हें तुमकां तितलेंच पोटतिडकेन सांगतलो.

गोंयचे सगले साइत्यिक पयलें बरप गोंयाचेर करतात. अंकपटयेंतले धडे लेगीत 'गोऽऽड म्हजें गोंय, सुन्दर म्हजें गोंय' म्हणून सुरू जातात. एक फामाद गोंयच्या कविची तितलीच फामाद कविता म्हळ्यार 'गोंयचें नांव व्हड करून.' दुसऱ्या एका कविच्या पयल्या वयल्या कवितां झेल्याचें नांव 'गोयां तुज्या मोगा खातीर'. गोंयचे बरपी गोंयचेर बरयतना हांगाच्या मनशांची, झाडापेडांची, न्हंयां दोंगरांची येतिश्ट तुस्त करतात. कांय जाण जाल्यार हांगाचे मातयेची, फातराची लेगीत तोंड फुटसर नामना गायतात. गोंयचे कवी जाल्यार गोंयचेर कविता रचतना ती सामकी राष्ट्रगीतावरी रचतात.

गोंयकाराक एक वेळ गोंय मानवलें जाल्यार व्हडलें अजाप ना. पुण अजापाची गजाल म्हळ्यार गोंया भायल्याय लोकांक तें मानवता. गोंयां गेल्लो दर एकलो मनीस ताका सुन्दर प्रदेश म्हणटा. पुर्तुगेजांनी जाल्यार गोंयची जितली तुस्त केली तितली तांणी आपले दुसरे खंयचेच वसणुकेची करूंक ना जातली. ते गोंयांत आसतना सगलो संवसार गोंय म्हळ्यार 'उदेंतेचें रोम' म्हणटालो. संवसारांतले भोंवडेकार कळंगुटचे वेळेक अजून 'उदेंतेचें रिव्हिएरा' म्हणटात. महाराष्ट्रांतले साइत्यिक जाल्यार बावडे–अज्ञानान काय जायना—गोंय हो महाराष्ट्राचोच एक वांटो धरून ताका सदांच 'महाराष्ट्राचें नंदनवन' म्हणत आयल्यात. अजून दर वरसा जे लाख देड लाख टुरिस्ट गोंयां भेट दितात ते गोंयचीं देवळां, इगर्जो, न्हंयो, दोंगर, दर्या, बंदर हांची खूब नामना गायतात. गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत भारताच्या दोन प्रधानमंत्र्यांनी गोंयाक भेट दिली. त्या दोगांकूय गोंय खूब मानवलें.

जो मनीस गोंयची तुस्त करता तो मनीस गोंयकारांक खूब मानवता. त्या मनशाक बऱ्या गजालिंची पारख आसा, अशें ते मागीर उलोवन दाखयतात. एका प्रधानमंत्र्यांनी गोंयाक भारतीय प्रदेशाचो 'सुन्दर तुकडा' म्हळो त्या वेळार गोंयच्या सगल्या वर्तमानपत्रांनी ताचेर अग्रलेख बरयले !

❦ ❦

## : ३ : गोंयकारांची संस्कृताय

गोंय स्वतंत्र जायनाफुडें गोंयकारांक पयलेच खेप आपणाक संस्कृताय आसा म्हणपाचो साक्षात्कार जालो. त्या आदीं तो कित्याक जालो ना हाचें एक कारण अशें आसुंये कि हेर गजालीं फुडें ताणीं आपले संस्कृतायेक केन्ना म्हत्व दिलें ना. दुसरें आनी म्हत्वाचें कारण अशें आसुंये कि पुर्तुगेज गोंयांत आसतना चडशा गोंयकारांक पुर्तुगेज संस्कृताय ह्रीच आपली संस्कृताय कशी दिसताली.

एक फावट आपणाक संस्कृताय आसा हे कळनाफुडें गोंयकार पिशावरी नाचत सुटलो. तो आपले हे संस्कृतायेचेर येवजूंक लागलो... आपणाक जर संस्कृताय आसा जाल्यार पुर्तुगेज गोंयांत येवंचे पयलीं पसून ती आसूंक जाय. आनी तशें जाल्यार आपणे ती साडेचारशीं वरसां तिगोवन दवल्ल्या. स्वतंत्रतायेच्या दबाज्याच्या निमतान गांवां–गावांनी ज्यो सभा जाल्यो तातूंत गोंयकार आपले हे संस्कृतायेचो उद्धार करूंक लागले. 'साढे च्यारशीं व्हर्शें हामी हामची संस्थृथी थिगोवन ठेवल्ही हाये' असले मोडके तोडके पुर्तुगेज-मराटींत गोंयकार आपले संस्कृतायेची नामना गांवंक लागले.

त्यावेळार पणजेंत जाल्ले एके सभेंत अध्यक्ष गोंयकारांचे संस्कृतायेविशीं उलयतना एकासारको कुशीक बशिल्ल्या दोन मनशांकडेन बोट दाखयतालो. तांतलो एकलो तांबडे तोपयेकार आनी दुसरो मुंडाशेकार आसलो. तेन्नाच्यान कोणेय साडेचार शेंकडे आमी आमची संस्कृताय तिगोवन दवल्ल्या अशें म्हळें जाल्यार म्हज्या दोळ्यांमुखार ती तांबडी तोपी आनी मुंडासो येता. ते सभेक हाजीर आशिल्ल्या कांय लोकांनी तर मुंडासो आनी तांबडी तोपी म्हळ्यारूच गोंयकारांची संस्कृताय असो लेगीत समज करून घेतलो जावंये.

संस्कृतायेचो म्हारू गोमटेर बसलो तो गोंयकार हिंदुंचे. गोंयकार हिंदू–म्हळ्यार गोंयचे 'कोंकणे' जेन्ना आपले संस्कृतायेविशीं ताळो सराटून आड्डताले तेन्ना क्रिस्तांव बावडे वोग्गी आसले. हें कोणेंय तिसऱ्या मनशान पळेल्लें जाल्यार ताका प्रस्न पडटलो आसलो, संस्कृताय आसा ती गोंयकार हिंदुंकूच काय ? गोंयचे क्रिस्तांव म्हणटात ते संस्कृती विणेच जल्माक आयले काय ?

गोंयकारांचे हे संस्कृतायेचेर उपरांत आंतरराष्ट्रीक प्रस्नाचेर जाता ते भशेन भासाभास जावंक लागली. महाराष्ट्रांतल्या फुडाऱ्यांनी आनी वर्तमानपत्रांनीय तातूंत पोटतिडकेन वांटो घेतलो. महाराष्ट्रांतले फुडारी मेळटा ती संद घेवन गोयां येताले. यथेच्छ पिताले आनी आपल्या उलोवपांनी गोंयकारांची संस्कृताय मराठी म्हणून सांगताले. महाराष्ट्रांतलीं वर्तमानपत्रां जाल्यार गोंयकारांचे संस्कृतायेचो प्रस्न आपणाचकडेन सोंपयल्ल्यावरी आत्त्यापयत्न्यान ताचेर अग्रलेख खरडटालीं.

एक फावट गोंयकारांची संस्कृताय मराठी म्हणून थारायल्या उपरांत महा·राष्ट्रांतले फुडारी गोंयांत येवन आपल्या ह्या म्हणण्याक बरीबसका दिवपाखातीर प्रॉव्हां सोदूंक लागले. तांतल्या कांय जाणांक गोंयकारांचीं नाखां–तोंडां मराठी मनशांच्या नाखां–तोंडांवरी दिसूंक लागलीं. गोंयकारां मदले कांय तिरसुवाद मनीस तांकां पुण्या–मुंबयच्या तिरसुवाद लोकांवरी दिसूंक लागले. गोंयच्या घरां फुडल्यो तुळशी तांकां विदर्भ-मराठवाड्यांतल्या घरांफुडल्या तुळशी भशेन दिसूंक लागल्यो. गोंयच्या घरांतले झोंपाळे तांकां सांगली कोल्हापूरच्या घरांतल्या झोंपाळ्यांवरी भासूंक लागले. उपरांत असल्या गजालिंचें गांठवल करून महाराष्ट्रांतले हे फुडारी 'याच्यावरून असें सिद्ध होते की'...अशे तरेचीं तर्कदुश्ट विधानां आपल्या भाशणांनी करूंक लागले.

त्यावेळची एक खबर. पुण्यातलो एक बरपी गोंयांत येवन कांय दीस रावलो. आपले हे रावतिकेंत ताणें गोंयचें एक लग्न पळेलें. उपरांत हेर मराठी बरप्यांवरी पुण्याक परततकूच ताणे जो एक लेख बरयलो तातूंत ह्या लग्नांतल्या जेवणाचो आधार दिवन गोंयकारांचें आनी महाराष्ट्रियांचें जेवण सारकें कशें हें वाचप्यांक पटोवपाचो ताणे येत्न केलो. पापयान मातशिशी बारिकसाणेन चवकशी केल्ली जाल्यार गोंयकार असलीं जेवणां फक्त देवसपणाच्या वेळार–लग्नांक, म्हाळाक आनी स्राद्धांकूच जेवतात म्हणपाचें ताका कळटलें आसलें. गोंयकारांचें पावल

नुसत्याबगर उखलना हें अख्खो संवसार जाणा ! तागेल्या दिसपट्ट्या जेवणाक आनी ह्या म्हाळा स्वाद्धांच्या जेवणांक कांयच संबंद ना; ही म्हाळा स्वाद्धांचीं जेवणां चुकना जावन, आपल्या पितरांक गाळी घालीत गोंयकार जेवतात हें एक फावट कोणें तरी ह्या मराठी लोकांक वेवस्थीत पटोवंक जाय अशें तांगेले ते लेख वाचतकूच दिसतालें.

गजाल अशी कि गोंयकार हिंदुंच्यो ज्यो ह्यो चालीरिती आसात त्यो मराठी म्हणचेपरस खन्यो म्हळ्यार भारतीय. एके वटेन, भारतीय सण आनी परबो, जेवणां–खाणां, भेस आनी भासो हांचो जसो गोंयकारांनी सांबाळ केलो त्याचप्रमाण दुसरे वटेन तांणी–पुर्तुगेजांच्या निमतान काय जायना–परकी संस्कृतायेंतल्यान ह्योच गजाली घेवन तांचोय सांबाळ केलो. सादारणपणान भारतीय संस्कृतायेची जतनाय गोंयच्या हिंदुंनी केली आनी परकी संस्कृतायेची जतनाय क्रिस्तांवांनी केली अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. पुण परकी संस्कृतायेंतल्यो कांय गजाली क्रिस्तावां-बराबर हिंदुंनीय तिगोवन दवल्ल्यात हातूंत दुबाव ना. पुर्तुगेजांविशीं आदरान आनी अभिमानान गजाली सांगपी कितलेशेच हिंदू अजून गोंयांत आसात. पुर्तु-गेज भास आनी साइत्य हांचो बरो अभ्यास आशिल्ले लोक घडये क्रिस्तावांपरस हिंदूंतच अदीक मेळुंये ! सुती फात, ग्रावात, चेपें, मोंचे घालून एकाद्रो जाणटेलो आयज पणजेच्या रस्त्यात नाजाल्यार मडगांवच्या बारांत दिसलो जाल्यार तो 'कोंकणो' काय क्रिस्तांव हें सांगप कठीण. अशे दोन जाणटेले बराबर पासयेक वेतना म्हापशेंच्या ना जाल्यार वास्कोच्या ज्यार्दिनांत दिसले जाल्यार भितल्लो हिंदू कोण आनी क्रिस्तांव कोण हेंय सांगप तितलेंच कठीण.

असल्याच गजालींक लागून पंडीत नेहरूंक गोंयकारांची संस्कृताय हेर भारति-यांचे संस्कृतायेपरस वेगळी दिसली ना मू ?

## : ४ : गोंयकारांचो धर्म आनी जाती

गोंयांत धर्म तीन : हिन्दू, क्रिस्तांव आनी मुसलमान ( मोयर ). पुण अशेंय आसून गोंयकारांक धर्म लागना. हया देशांत गुजराथ्यांक धर्म लागता. कानडयांक धर्म लागता. मद्रास्यांक धर्म लागता. मराठी लोकांक लेगीत धर्म लागता. फक्कत गोंयकारांक तितलो तो लागना. गोंयकारांक नुसतें लागता. दुडू लागता. हेर सगल्यो गजाली लागतात. फक्कत लागना तो धर्म.

तांतले तातूंत गोंयच्या क्रिस्तांव – मुसलमानांक तो इल्लो तरी लागता. पुण हिंदूंक अजिबातूच लागना. क्रिस्तांव– मुसलमान निदान रेगुलार इगर्जेंत– मशिदींत तरी वेतात. हिंदुंनी आपल्या सुवार्थाखातीर एक रीत केल्या– देवळांत नेमान वचप तें जाण्टेल्यांनी ना जाल्यार बायलांनी. हेर लोक देवळांत वेतात. ना अशें ना. पुण ते वेळ मेळटा तेन्ना ना जाल्यार पासयेक गेल्ल्यावरी.

गोंयच्या हिंदूंक धर्म लागलो ना तरीय सण–परबो, पुजा–उत्सव सगलें लागता. हयो गजाली तांगेल्या देवसपणांत येतात. आनी तांगेल्या देवसपणाक आनी धर्माक तसो कांय संबंद ना. हिंदुंच्या कांय सणा–परबांक घरांनी शिवराक जेवण करतात. एकाद्रे सण–परबेक घरांत शिवराक जेवण आसा म्हणून कळत जाल्यार, ‘ हांव दनपरां जेवंक ना आं ’ अशें सांगून पणजेचो मनीस मडगांवां, मडगांवचो मनीस म्हापशां, म्हापशेंचो मनीस वास्को आनी वास्कोचो मनीस काणकोणा.... खंयतरी वेता. थंय तो आपलो धर्म वेवस्थीत नुसत्याच्या ताटांत बुडयता आनी ‘ ज्या कामाक गेल्लों तें काम जालेंच ना. ’ हें सांगपाखातीर सांजे घरा परतो येता. सोरो पियेवन देवळांत वचपी जांव तो पियेल्या उपरांत न्हावन-धुवन घरांत पुजेक बसपी लोक तुमकां गोंय सोडून हेर खंय मेळूंक कठीण. सगळें करून

ापली कारटी सुकी कशी दवरप हाची बेस बरी शिकवण गोंयकार हिंदुंनी ापल्या धर्माकडल्यान घेतल्या–इतलेंच न्हय तर आपूण धवणपणां करतां तीं गळीं धर्मान कशीं माफ आसात जांव धर्माचो तांकां आधार कसो आसा हें ास्त्रशुद्ध रितीन हेरांक पटोवन दिवपी लोक फक्कत गोंयांतूच मेळपाचे.

गोंयकार हिंदूंक जो कितें इल्लो धर्म लागतालो तो पुर्तूगेजांच्या काळार. ुर्तुगेजांक दाखोवंक म्हणटात तसो. अजून लेगीत गोंयांत अशे कांय मनीस ासात जे क्रिस्तांवां मदीं वचून तांकां धर्माचो बडवाचार सांगतले. आनी उपरांत ूदूंक येवन 'क्रिस्तांव सुदाल्ले तरी तुमी अजून कोंकणेच कशे उल्ल्यात' ेचेर शेपातां सांगतले. ( हांगां मतींत धरपा सारकी एक गजाल म्हळयार, ुर्तुगेजांच्या काळार गोंयचे क्रिस्तांव हिंदूंक 'कोंकणे' म्हणटाले ते आतां तांकां हिन्दू' म्हणटात. हाचे वेल्यान ह्या दोगां भितल्ले खरे सुधाल्ले कोण म्हणटात ा एक व्हडलो प्रस्न. )

गोंयकारांक धर्म लागलो ना तरीय जाती भरपूर लागतात. जाती हो ोंयकारांक देवान दिल्लो एक व्हड शाप म्हळयार जाता. गोंयांत कितल्योशो ाती आसात. चाड्डे, सुदीर, बामण, वाणी, भट, कुळवाडी, खारवी, म्हार, ामार, गावडे, कुणबी.... शी, सोंसपाच्यो न्हय! मुळच्या चार वर्णांनी गोंयांत ाशी कितलिशीं रुपां घेतल्यांत. अजापाची गजाल म्हळयार गोंयच्या क्रिस्तांवां- ्य हिंदूंवरीच जाती लागतात. क्रिस्तांव-बामण हो प्रकार घडये गोंयांतूच ळपाचो. तातूंत आनी गोंयकारांच्या ह्यां जातीं भितर कितल्योशो पोट ाती. भटां भितर बामण-भट आनी कऱ्हाडे भट. बामणां भितर ्बे आनी आडवे. परथून ह्या उब्यां मदीं साश्टीकार आनी बार्देसकार. बरें ह्या ातींक आनी गोंयकारांच्या आडनांवांक एका काळार आशिल्लो म्हणटात ्सोय काय आतां संबंद ना. गांवांवेल्यान पडिल्लीं आडनांवां जाल्यार कितल्याशा ातिंनी मेळटात. देखीक, बांदोडकर, काकोडकर, देसाय, देसाई, नायक,नाईक ांय आडनांवां गोंयच्या खुबशा जातिंनी मेळटात. देसाय हें आडनांव जाल्यार ानिकूय घुस्पागोंदळाचें. कांय देसाय पेडण्यांत आसात, कांय कुंकळ्ळे आसात ानी कांय काणकोणां आसात. ( हेरकडेनूय आसतले–रिवणां, सावयवेऱ्यां आनी ्यखंय ) हातूंत पेडणेचें देसाय हे कुडाळदेशकार बामण जाल्यार काणकोणचे सारस्वत बामण आनी कुंकळ्ळेचें देसाय आसात तांगेली खंय जातूच देसाय.

गोंयांत एकासारकीं दिसपी खुबशीं नांवां आशिल्ल्यान गोंयकारां भितल्लो घु
गोंदळ अदीक वाडला. परतून हीं नांवां बरोवपाची रीत वेगळी. आतां देसा
पद्धतिचीं नांवां आनी तीं बरोवपाच्यो रिती घेयत जाल्यार गोंयांत कांयच
म्हळयार इतले तरी प्रकार मेळूं येतले–देसाय, देसाई, देश-परोब, देशप्र
सरदेसाय, सरदेसाई. ह्या इतल्याय लोकांच्यो जाती सोदून काडप हो
व्हड संशोधनाचो–पी. एच. डी. चो बी विशय जांव येता.

गोंयांत कांय नांवां वेवसायावेल्यान पडिल्लीं आसात. हांतल्या कांय जाण
आपापले वेवसाय सोडिल्ले आसात, दुसऱ्यांचे वेवसाय घेतिल्ले आसात. दे
आतां गोंयकारांच्या नांवांक आनी वेवसायांक तसो कांयच संबंद उरूंक
गोंयच्या जातींचींच नांवां दिशीं दिशीं नवीं रुपां घेयत आसात. ( देखी
दैवज्ञ–ब्राह्मण, गोमंतक–मराठा, नाईक–भंडारी ).

हाका लागून एक जात आनी दुसरी जात, मूळ जात आनी पोट जात
भितल्लें अंतर उणें उणें जायत आसा.

कोंकणींत 'ब्राह्मण' म्हणटात तें एक कॉमीक उतर. हरशीं, महारा
जाका ब्राह्मण म्हणटात ताका गोंयांत भट म्हणटात. पुण गोंयांत म्हाळा–स्राद्
जेवतात ते ब्राह्मण आनी घरांत सत्यनारायणाची पुजा जातकूच 'आतां ब्राह्म
दक्षणा दियात' अशें म्हणून येजमानाकडल्यान पयशे मागपी ब्राह्मण हातूंत
आसा. तशेंच बामण हें उतर ब्राह्मणा वेल्यान आयलां. अशेंय आसतना गो
बामण वेगळो, ब्राह्मण वेगळो. म्हाका केन्नाकेन्नाय प्रस्न पडटा, गोंयच्या जा
वर्गवारी केली जाल्यार, तातूंत बामण–भट म्हणटात ताका खंय घाल
बामणांनी काय भटांनी ? हेच पद्धतीन येवजीत जाल्यार कऱ्हाडे ब्रा
सारस्वत–ब्राह्मण, कुडाळदेशकार ब्राह्मण, दैवज्ञ ब्राह्मण हेय सगले एकाच ब्राह्म
वंशज काय वेगळेवेगळे, असो प्रस्न फुडले पिळगेक पडुंये.

गोंयच्या ह्या सगल्या जातीं भितर बामणांची जात म्हणटात ती सगळ
कुंप्लिकाद. गोंय आनी शेंशंबर वरसां पुर्तुगेजांच्या शेकातळा उरिल्लें जा
एकाद्‌्यो बामणांभितर आनिकूय जाती उप्रासतल्यो आसल्यो.पुर्तुगेजांच्या अ
वांदान मिनैर, भाटकार, वेपारी आनी सरकारी एंप्रेगाद हे आपापले
'आमची जात वेगळी' हे समजुतीन चलताले. हेर शिकिल्ले गोंयकार–दो
आद्‌वोगाद, इंजनेर–आपूण हेर गोंयकारापरस वेगळे आशिल्ल्यापरी वाग

ांय स्वतंत्र जाल्याबराबर घडांयच् करून जातिंचो आंकडो सगल्यांत पयलीं उणो ालो. बामण आनी बहुजनसमाज. मिनैर, भाटकार, वेपारी, ब्लेकिश्त, रकारी एंप्रेगाद, दोतोर, आद्वोगाद, इजनेर, शिकिल्ले सवरिल्ले, दुडवांकार.... ्या सगळयांचेर गोंयकारांनी ‘ बामण ’ म्हणून छाप माल्लो आनी जे बामण ्हय तांकां ते ‘ बहुजन समाज ’ म्हणपाक लागले. एक फावट अशीं लेबलां ायल्या उपरांत बहुजन समाजाचे नदरे मुखार बामण म्हणटात ते राक्षसाचो ाकार घेवंक लागले....ह्या बामणांनी आयजमेरेन आमकां चिड्डिले, हिणसायले, ्फटयले...अमकें केलें, तमकें केलें, तमकें केलें....हे शिकले सवरले, आमकां ाडपा खातीर– अन्नाडी दवल्ले आनी आतां आमकां शिनिफिक्यो सांगतात. ाय जाल्यार, एक अजापाची गजाल म्हळयार हे चार टक्के बामण गोंयच्या ्या सगल्या मळांचेर पावले कशे ?

देखून म्हणटां, गोंयचे बामण ही एक कुम्प्लिकाद जात. ह्या बामणां भितर ुबशे प्रकार आसात– गोरे, काळे, मोटवे, ऊंच, बारीक, मोटे. तांतले तातूंत ्काळे मोटवे बामण हे सगल्यांत पेरिगोझ म्हणटात. हें जालें बामणांचें मत्त. बहुजन समाजाचें म्हणणें : सगलेच बामण पेरिगोझ. बामण बऱ्या वायट मार्गांनी पयशे करतात, आंगवस्त्रां दवरतात, लोकांक फटयतात...इतलेंय करून हांचें नाख सदांच वयर, अशें हेरांचें म्हणणें. ‘बामणबुद्द’ हें उतर कोंकणींत आयलें तें ्घडये हाकाच लागून जावंये.

गोंय स्वतंत्र जावंचे पयलीं बहुजन समाजाचो जांव जे बामण न्हय तांचो बामणाविशिंचो दुस्वास खंय मेरेनपांविल्लो हें ‘ म्हार जांव, चामार जांव– बामण मात् न्हू ’ हे म्हणी वेल्यान दिसून येता. हरशीं बामणांक बुद्द तकलेंत आनी आनीक कोणाकशी ती धोपरांत अशीय एक म्हण कोंकणींत आसा. ही गजाल खरी आसतशी दिसना. कारण दोन बामण कसल्या कामा खातीर एकठांय आयले आनी तांगेलें तें काम जालें ना जाल्यार ते एकामेकांक दुशण दितना ‘ तुका पयलीं बुद्द धोंपरांत ’ अशेंच म्हणटात. म्हाका जाल्यार दिसता, देवान गोंयच्या बामणांक बरें-वायट वळखुपाची हेरां इतलीच बुद्द दिल्या. फक्कत, वेळ पडल्यार, आपणाचें बरें करपा खातीर दुसऱ्याचें वायट करूंक तो फाटींफुडें पळेना इतलोच तागेलो दोश.

गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत बामण, बहुजन समाज हांचेबराबर राजकारणी

लोकांची एक नवी जात गोंयांत उप्रासली. पयलें इलेक्शन जाल्या उपरांत गों सत्तेर आयलो तो बहुजन समाजाचोच पक्ष. स्वतंत्रताये उपरांत बहु समाजाच्या बामण-दुस्वासाक वाचा फुटली. ती त्या समाजांतल्या लोकां उलोवपांतल्यान आनी बरोवपांतल्यान उतरा-पावलाक दिश्टी पडूंक लाग त्यावेळची एक खबर. कोणेतरी फाम घाली कि गोंयच्या मुखेलमंत्र्यान खं तरी एके सभेंत आपल्या भाशणांत म्हळें, 'बामणांच्या बायलांक आयदनां घांसूंक लायतलों ( काय वावराड्यो करतलों ).' हें आयकत हांव येवजणेंत पडलों. गोंयच्या मुखेलमंत्र्यान खरेंच अशें म्हणिल्लें काय ? गोंयच्या बामणांच्या मनांतलीं भुतांच तांच्या तोंडांतल्यान अशें उलयतालीं !

☙

## : ५ : गोंयकारांचें देवसपण

गोंयकारांक धर्म लागना तसो देवूय लागना. कांय गोंयकारांक स्वामी लागता, पुण देव लागना. कांय जाणांक कथा–किर्तनां–पुराणां लागतात, पुण देव लागना. देव लागलो ना तरीय खुबशा गोंयकारांक व्रतां, उपास, पुजा, जात्रा, उत्सव प्रसाद, भार ह्यो सगल्यो गजाली लागतात. ह्यो सगल्यो गजाली तांगेल्या देवसपणांत येतात. आनी देवसपण आनी देव हांचो तसो कांयच संबंद ना. देखून गोंयकारांक देवसपण लागता, पुण देव लागना.

गोंयकार ह्या संवसारांत सगल्यांत चड मोग करता तो खासा आपणाचेर. तो आपणाकूच देव समजता. दर एकलो गोंयकार हेर सगल्या गोंयकारांचीं सगलीं कुर्तां जाणां आसता. हे नदरेन तो सर्वज्ञानी. खंयचेय घटणेची खबर एका गोंय-कारान दुसऱ्या गोंयकाराक सांगली जाल्यार ती खबर तो तिसऱ्याक सांगतना खासा ती आपणें पळेल्ले वरीच सांगतलो. हे नदरेन तो सर्वसाक्षी. म्हणटकूच आतां म्हाका सांगात : असल्या सर्वज्ञानी, सर्वसाक्षी गोंयकाराक देव मानपाचो प्रस्न येताच खंय ?

पुण इतलेंय आसून देव म्हणटात तो गोंयांत आसा. गोंयांत कितलिशीं देवळां आसात. हांतल्या दर एका देवळांत एक देव नाजाल्यार देवता बशिल्ली आसता. केन्ना केन्नाय दोगांय एकाच देवळांत बशिल्लीं आसतात. पुण हो देवळांतलो देव (जांव देवता) देवळांत देवूच कसो बशिल्लो आसता. ह्या खेरीज दर एका गोंयकाराच्या घरांत एक वेगळो देव आसता. तो घरांतल्या देवाऱ्यांत देव कसो बशिल्लो आसता. गोंयकार ह्या दोनूय–घरांतल्या आनी देवळांतल्या–देवांचो बरो थातोमातो करतात. पुण तातूंत देवाविशिंची भक्ती नासता.

कांय गोंयकार घरांतल्या देवाची नेमान पुजा करतात. एकाद्रो गोंयकार अशी पुजा करूंक बसलो आनी ही पुजा चलतना भायर नुसतेकान्न आयली जाल्यार एकेवटेन तिचेकडेन वांटपणां करीत दुसरे वटेन तो आपली पुजा करीत आसता. अशावेळार ती पुजा सादारण अशेतरेन चलता–केशवायनमः नारायणायनमः.... ( नुसतेकान्निचो साद आयकून भितर घरकान्नीक ).... भायर कोण आयल्या ती पळे गे.... माधवायनमः गोविंदायनमः .... कितें हाडलां तिणें ?.... मधुसुदनायनमः त्रिविक्रमायनमः ....

घरांतले खुबशे सण आनी परबो गोंयकारांनी आपल्या बायलांच्या माथ्यार सोंपयल्यात आनी देवळांतल्यो खुबशो जात्रा आनी उत्सव तांणी आपल्या माथ्यार घेतल्यात. वरसांतले सगले सण आनी परबो बायलां बावडीं नेमान करतात. तातूंत कुड्डी स्रद्धा आनी परंपरा हांचे खेरीज आनीक कांय नासता. खुबशा पोन्ने पिळगेंतल्या बायलांक व्रतां उपास लागतात. तयेचो उपास, वडांपुनवेचो उपास, शिवरात्रेचो उपास, आशाढी-कार्तिकी एकादशींचे उपास.... अशे कितेलेशे उपास बायलांक लागतात. उपासाच्या दिसा सदचें जेवण जेविनासतना कितेंय गोडशें आनी उसळयो बी करून खावप अशी शिकवण जाणटयांनी दिल्ली आसता ती बायलां बावडीं नेमान पाळटात. त्याच बराबर घरांतल्या दादल्यांक हे उपास केन्नाच लागनात. म्हणटकूच तांकां सदचे भशेन– वेळ पडल्यार नुसत्याचें– जेवण करून घालचें पडटा.

सणा परबां भितर तांतले तातूंत म्हत्वाच्यो सण-परबो म्हळयार संवसार पाडवो, नागपंचम, गोकुळ अश्टम, वडांपुनव, चवथ, दसरो, दिवाळी आनी तुळशीचें लग्न. हांतली एक चवथ सोडून हेर सगल्यो सण-परबो बायलांनी मनोवपाच्यो आनी दादल्यांनी तेदीस बोवाळ घालपाचो. दादल्यांच्या त्या बोवाळाक व्हडलोसो अर्थ ना — शिरत्यो हाडूंक जाय, खावचींपानां हाडूंक जाय, सुपाऱ्यो हाडूंक जाय, हळदीचीं पानां हाडूंक जाय, फोव हाडूंक जाय, वरयांचे तांदूळ हाडूंक जाय अशें बायलांनी दादल्यांक सांगप आनी 'आ ऽ विसल्लों .... फाल्यां हाडटां आं' अशें सांगून दादल्यांनी तें फुडें फुडें धुकलप. उपरांत परब सामकी तेंकतकूच— चड करून तेदीस सकाळीं— 'अमक्या अमक्याक अमकें अमकें हाडूंक सांगिल्लें ताणें तें हाडलेंच ना' अशें म्हणून खंयच्याय तिसऱ्याच मनशाक गाळी घालप हें दादल्यांचें काम. उपरांत पानार बसून पोटाक सुस्ती येयसर

गोंडशें – पातोळयो, मणगणें, पायस बी खावप आनी जेवप हे तांचें तेंदीस चड म्हत्त्वाचें काम. कांय दादले जेवण शिवराक आसल्यार नुसत्याचो अुगडास काडून, ‘नुसतें नाशिल्ल्यान आयज जेवण बरें ऽऽ पोटांत वचना’ अशें म्हणत म्हणत तेंदीस दोब्राद जेवतात. बायलांक सगल्या सणा परबांक रांदनी-कडेन खूब वावर आसता. तांकां ह्या सणापरबां भायर वरसांतल्यान हेर कितल्योशो संकश्टयो, पंचमो, इकादसो आनी सगलो स्रावण म्हयनो... इतल्यो गजाली लागतात. ह्या खेरीज दर एके बायलेक सप्तकांतल्यान एकतरी वार– सोमार, ब्रेस्तार, शेनवार बी लागता. आनी खूब तेंप भुरगें जालें ना जाल्यार सोळा सोमारूय लागतात.

म्हाका केन्ना केन्नाय दिसता कि हिंदू धर्मांतले सगले सण आनी परबो दादल्यांनी आपले जिबेक विचारून थारायल्यात. तांकां हेर जेवणाचो वीट आयलो कि तेदीस ते गोडशासयत वेगळे तरेचें जेवण जेवपा खातीर एकाद्रो सण ना जाल्यार परब करतात. हिंदुंचें पंचांग तयार करपाची जापसालदारकी कोणेंय गोंयकारांचेर सोंपयल्ली जाल्यार ते ह्यो सगल्यो सणपरबो गोंयांत नुसतें मेळना त्या काळाखातीर राखून दवरतले आशिल्ले.

गोंयांत तांतले तातूंत खरोच अप्रूप सण म्हणटात तो दिवाळी. हरशीं केन्ना करिना तितल्योय गजाली गोंयकार दिवाळेक करता. तेंदीस तो फांतोडेर उठटा. फोगोट्यो मारता. तेल-रोस लावन न्हाता. सकाळीं फुडे धुल्ली मुस्तायकी आंगार चडयता. चेर लायता. पांयाच्या आखाण्यान कारीट फोडटा. (तें फोडटना ताका नरकासुराक मारिल्ल्याचो आनंद जाता!) उपरांत घरचीं बायलां ताका ओंवाळटात. हरशीं आपले बायलेक पांयाची व्हाण कशी लेखपी दादलो लेगीत अपुर्बायेन तिचे ओवाळणेंत घालता. उपरांत तो घरांतल्या जाणटेल्यांक पांयां पडटा. तांचे आशिर्वाद घेता. आनी मागीर फोव आनी फळार खावंक बसता. दिवाळेदीस देव गोंयकारांक वाडट्या आकाराचीं पोटां दिता. ना जाल्यार कितलेशे तरेचे फोव (गोडशे, तिखशे, रोसांतले, ताकांतले, दुदांतले) आंबाडयांची करम, उसळयो आनी सुको गोड फळार ह्यो इतल्योय गजाली, आपल्या घरच्यो आनी हेरांकडल्यो, तांच्या पोटांत वेतल्यो आसल्यो कशो?

दिवाळे दिसा गोंयकार एकामेकांच्या घरांनी वेतात, खोश्शेन एकामेकांक वेंगो मारतात. तांच्या जाणटेल्यांक पांयां पडटात. संवसार पाडव्याच्या दिसा बरें

कितेंय केल्यार सगळें वर्स बरें वेता, अशें म्हणटात. पुण तेदीस लेगीत जे गोंयकार दुसऱ्यांच्या घरांचेर सुणीं कशीं चडोवप हें येवजीत आसतात तें लेगीत दिवाळे दिसा दुसऱ्यांच्या घरांनी वचून तांकां बरें मागतात, हाचेपरस आनीक अजापाची गजाल ती कितें ?

दिवाळी हो अप्रूप सण आसलो तरीय गोंयकारांक चड मानवता ती चवथ. दर एकलो गोंयकार जल्माक येतनाच बोवाळशेट म्हणून जल्माक आयिल्ल्यान ताका चवथ खूब मानवता. चवथीक तो आठ-पंदरा दीस पसुनूच बोवाळ घालूंक लागता....गणपती करूंक सांगप, पोन्नें मखर भायर काडप नाजाल्यार नवें मखर करप, माटोळेचें सामान हाडप....( दादल्यांचो हो बोवाळ चलतना घरांत बायलांचो नेवऱ्या-मोदकांचो बोवाळ चलता.)....एकदांचो गणपती येता....( आऽ सांबाळूऽऽन, सांबाळूऽऽन...हेवटेन लागत, तेवटेन पळे...आऽऽअस्सोऽऽ...आरे मातसो वांकडो जालो..मातसो असो हालय)...मागीर पुजेचो बोवाळ..आरत्यांचो बोवाळ ( सुखखेर्थाऽऽ धुखहर्थाऽऽ व्हाऽऽर्थाऽ व्हिघ्नाऽऽचीऽ व्हाऽऽर्थाऽ व्हिघ्नाऽऽचीऽ न्हुरव्हीऽ फुरव्हीऽफ्रेऽऽम न्हुरव्ही फुरव्ही फ्रेऽऽम ख्रुऽऽपाऽ झयाऽऽचीऽऽ )...उपरांत पंचमी दिसा दुसऱ्यांचे गणपती पळोवंक वचपाचो बोवाळ. आनी अखेरेक रातचो वाडयावेल्या हेर सगल्या देड दिसांच्या गणपतीं बराबर आपलोय गणपती पात्रोवपाचो बोवाळ ( फार्वर्थीच्या न्हंदना म्होरयाऽऽ घजाननाऽऽघजव्हदनाऽऽ )...

चवथीचो हो सगलो बोवाळ खरो म्हळयार इल्लोसो गणपतीचो आनी चडसो भटाचो बोवाळ. तशें पळोवंक गेल्यार गोंयच्या खुबशा सणपरबांक देवाय-परस चड म्हत्वाचो म्हणटात तो भटूच. जंय पुजा आसा, थंय भट हो आसाच. एकाद्रया घरांत कसलीय पुजा आसली जाल्यार तेदीस आपूण उसरां येवन ' बेगीन करात, बेगीन करात! वेळ जालो ' म्हणून येजमानाक जो ताकीद लायता ताचें नांव भट. भट देवाची पुजा करता तेन्ना ताका भटूच म्हणटात. ताका दक्षणा दिवंच्या वेळार वा ताका पांयां पडून ताचे आशिर्वाद घेवंच्या वेळार ताका ब्राह्मण म्हणटात. ( पुजेच्या वेळार भट आपणालो उल्लेख मात् सदांच ब्राह्मण म्हणुनूच करता ! ) भट आयलोना जाल्यार घरांतलीं सगलीं मनशां ' भट आयलोना....भट आयलो ना ' म्हणून बोवाळ घालतात. तो आयलो जाल्यार तींच मनशां ' भट आयलो...भट आयलो ' म्हणून बोवाळ घालतात. भट घरांत

भितर सल्लो कि गोंयकार जो बोवाळ घालतात तो तिसरो कोणूय पळेत जाल्यार ताका हांगेर देवूच आयलो काय असो भास जावपाचो ! गोंयकारांच्या देवसपणांत आपलें स्थान कितें हें भटूच बेस बरें जाणा आसता. देखून तो पुजेक् येतां म्हणून सांगिल्ल्या वेळार केन्नाच येना. दुसरी गजाल म्हळयार येजमानाक कितें जाय, कितें नाका हेंय तो बेस बरें जाणा आसता. देखून तो सदांच येजमानाच्या मनाप्रमाण चलता. कांय येजमानांची किचमणांच चड. मुळांत तांकां सगलीं शास्त्रां खबर आसतात आनी पुजेचें भटपण पाठ आसता. 'म्हाका सगलें शास्त्रशुद्ध जाय' अशें म्हणून ते सदांच बड्डाशो मारतात आनी पावला कणकणी भटाच्या भटपणांत चुको काडटात. अशा वेळार भटूय तांगेलें भटपण बरें साग्र-संगीत करता–मराठी आनी संस्कृत उतरां बी घालून. जाका पुजेचो अजिबात गंद ना असल्या येजमानाचें भटपण मात् पंदरा–वीस मिणटां भितर आटापता. अशा वेळार भट 'केशवायनमः' आनी 'समर्पयामि' हीं दोन उतरां बरीं मोट्ट्यान येजमानाक आयकूं येयसर म्हणटा आनी त्या उतरां मदलें सगलें भटपण आपणाक जाय तशें म्हणटा.

हें सगलें भटाक कित्या खातीर करचें पडटा ? बाकी गोंयकार कितलेय सुदाल्ले तरी भटाचे बाबतींत अजून व्हडलेशे सुदरूंक नात. म्हणून तांगेल्या घरांतलीं देवसपणां वाडल्यांत. पुजांचो आंकडो वाडला. पुण भटाचे दक्षणेंत फाटलीं पन्नास वरसां कांयच बदल जावंक ना.

बाकी गोंयकारांचें देवसपणाचें पिशें म्हणटात तें सोंसपाचें न्हय. तांतले तातूंत रिणां काडून सण कशे करप हें कोणेंय गोंयकारा कडेनूच शिकपाचें. कांय गोंयकार सणांखातीर म्हणून रिणां काडटात आनी तातूंत सणूच करतात. हेर कांय जाण सणांखातीर म्हणून रिणां काडटात आनी तातूंत दुसरें कितेंय करतात–सोरो पियेतात ना जाल्यार मटको बी खेळटात. लग्नांखातीर काडिल्लीं रिणां गोंयकार एकवेळ फारीक करतीत. सणांखातीर काडिल्लीं रिणां मात् ते जल्मांत केन्नाच फारीक करिनात.

❦ ❦

: ६ :

# भार आनी प्रसाद

गोंयकाराक देव लागलो ना तरी तो आपणाक लागता अशें तो लोकांक दाखयता. सुवार्थाखातीर तो कांय देव आपणाक लावन घेता. आपूण देव मानिना अशें सांगपी लोक गोंयांत व्हडले-शे मेळनात. त्या बदला आपूण एक व्हडलो देवभक्त अशें दाखोवपी लोक हांगां पावलाकणकणीं मेळटात. चडशे गोंयकार सतत देवाक भजत आसतात. घरांतल्या देवाक भजतात, देवळांतल्याय भजतात. घरांतल्या देवा परस देवळांतल्या देवाक चड भजतात.

गोंयकारांक एकाबराबर उण्यांत उणे तीन देव तरी लागतात— ग्रामदेव, कुलदेव आनी प्रसाद घेवपाचो देव. अशेतरेन, पणजेकारांक पणजेची महालक्ष्मीम, कवळेंची शांतादुर्गा आनी जांबावलेचो दामोदर; मडगांवकारांक मडगांवचो ( म्हळ्यार आतां जांबावलेचो ) दामोदर, रामनाथींचो रामनाथ आनी माशेलांतलो देवकीकृश्ण; म्हापशेंकारांक म्हापशेंचो दत्त, मंगेशींचो मंगेश आनी काणकोणचो मल्लिकार्जून; आनी वास्कोकारांक वास्कोचो दामोदर, अडवलपालचो बेताळ, आनी सांखळेचो दत्त अशे देव-देवता लागूं येतात. हांतले ग्रामदेव आनी कुलदेव सोडले जाल्यार तिसरो देव कोणाक खंयचो लागत ताका नेम ना.

चड करून, गांवच्या देवळांनी नेमान घरचीं बायलां वेतात. दादले पासयेक गेल्ल्यावरी ना जाल्यार हॉटेलांत भितर सरून च्या घेवन भायर सरिल्ल्यावरी असल्या देवळांनीं वचून देवाक पांयां पडून भायर सरतात. दर एकलो गोंयकार ज्या गांवांत रावता आनी पातकां करता त्या गांवचोच देव ताची राखण करता आनी तागेलीं तीं पातकां भगशिता. त्या खातीर ताका ग्रामदेव लागता. ‘ कुल-देवाची आमचेर कृपादृश्टी आसाच, ’ हें हेरांक सांगपा खातीर ताका कुलदेव

जाय. कुलदेव म्हणटात तो गोंयकारांचो सोयरोसो. जेन्ना ग्रामदेव होच कुलदेव आसता तेन्ना त्या सोयऱ्याचें नातें अदीक लागीं येता. तो सोयरो घरचो सो जाता. देखीक, जांबावलेचो दामोदर हो सगल्या मठग्रामस्थ हिंदू समाजाचो ग्रामदेव. आनी हांतल्या खुबशा लोकांचो तो कुलदेव. देखून सगले मडगांवकार ताका 'दामबाब' म्हणटात. मडगांवकारांचें आनी दामबाबाचें नातें पळेल्यार हे दोगूय एकमेकांचे अकरा दिसांचे दायजी काय, असो कोणायचो समज जावपाचो.

कुलदेव हो सोयरो जाल्ल्यान गोंयकार हेर सोयऱ्यांकडेन वेतात तशे अदीं मदीं कुलदेवाकडेन वेतात. वेतकूच थंय प्रसाद घेतात. खरें म्हळयार, प्रसाद घेवपाकूच ते कुलदेवाकडेन वेतात. आनी येतकूच 'देवाक पांयां पडून आयलों' म्हणून हेरांक सांगतात. एका देवाचो प्रसाद घेवन ताका समादान जायना. देखून तो प्रसादाखातीर म्हणून आनीक एक देव सोदून काडटा. हो देव गोंयकाराक जाय तो जोतिशी म्हणून. आपलें भविश्य समजून घेवपाखातीर. हे नदरेन पळोवंक गेल्यार त्या देवाचेर जोतिशापरस इल्ली चड जापसालदारकी आसता. जो आपलें भविश्य विचारूंक आयला ताका ताचें सध्या वायट चल्लां तें फुडें खरें कशें जातलें इतलें सांगतकूच जोतिशाचें काम सोपलें. चडूच जाल्यार जोतिशी ताका अमक्याचें व्रत वा तमक्याचो जप करूंक लायता. ना जाल्यार शनिम्हात्म्य वाच वा बोटावेले मुदयेंत अमको खडो घाल असले कितेंय सांगता, ताचे कडल्यान पैशे घेता आनी ताका वाटेक लायता. जोतिश्याक मध्यस्त लागना. तो आपल्या गिरायका कडेन दिरेत वेव्हार करता. देवाकडेन प्रसाद घेतले जाल्यार भक्ताक आनी भक्ताक प्रसाद दितले जाल्यार देवाक– दोगांकूय एक मध्यस्त लागता. आनी हो मध्यस्त म्हळयार भट. देवाची भास– म्हळयार प्रसादांची मोडणा– फक्कत भटाकूच कळटा. आनी ती भक्ताक समजून सांगपाचें काम तागेलेंच. त्याबदलाक ताका ताचेकडल्यान पैशे मेळटात. देखून ताका– वेळ पडल्यार देवाक कितें दिसतलें हाची पर्वा करिनासताना सतत भक्ताक सांबाळचो पडटा. मजा म्हळयार, हो सगलो वेव्हार देवाच्या नांवार चलता. पुण तातूंत तोच बावडो फटवता. हरशीं हो वेव्हार असो आसपाचो : प्रसादाचे सगळे पैशे भक्ताकडल्यान दिरेत देवाक वचूंक जाय आसले. आनी भटाक तातूंत कमिशन मेळूंक जाय आसलें.

गोंयकाराचें प्रसाद घेवपाचें पिशें आसा ताका कांय ताळ-तंत्र ना. घरांत कोणूय

दुयेंत आसल्यार तो प्रसाद घेता. कोणूय लग्न जावपाचो आसलो जाल्यार प्रसाद घेता. उपरांत ताका भुरगें जाले ना जाल्यार प्रसाद घेता. मागीर तो भायल्या देसांत वचपाचो जालो जाल्यारूय प्रसाद घेता. वेपार वा उद्देगधंदो सुरू करचे वेळार प्रसाद घेता. उपरांत तो बरो चल्लो ना जाल्यारूय प्रसाद घेता. घरांत कसलेच कांयच प्रस्न नासले जाल्यारूय दर एकलो गोंयकार अदीं-मदीं देवाकडेन वचून दयेक आनी राखणेक तरी प्रसाद घेता.

आपल्या भक्ताक प्रसाद दितना देवाचेर कितली जापसालदारकी पडटा पळेयात. एकेवटेन ताका आपल्या भक्ताचें काम जातलें काय जावंचें ना हें जोतिशाभशेन सांगचें पडटा. जर तें जावंचें ना जाल्यार तें कित्याक जावंचें ना हेंय जोतिशाभशेन सांगचें पडटा. जोतिशी असल्या वेळार जाका 'ग्रहांची बाधा' म्हणटा ताका देव 'नड' म्हणटा. आतां ही अडचण ना करपाखातीर उपाय कितें, तोय देवाक जोतिशा भशेन आपल्या भक्ताक सांगचो पडटा. असल्या वेळार खंयचेशे देवीची होंटी भर, दंवचाराक सूर रोंट दी, एक कोंबो ना जाल्यार बोकडो मार, आपणाक वर्सभर एक जोत चालू दवर, मुळपुरसाक आनीक कितेंशें कर, ना जाल्यार जांची नड मदीं येता ( भटाची अशा वेळार 'अमको अमको नड दाखयता ' अशें म्हणपाची चाल आसता. ) तांकां आंगवणी करपाक भक्ताक सांगता. म्हणटकूच ग्रहांची बाधा आनी तिचेर उपाय सांगतकूच जोतिशाचें काम सोंपता तशें देवाचें सोंपना. आपल्या भक्ताच्यो सगल्यो नडी ना करून ताची जीण सुखी करप ही तागेली लागणूक.

इतलेंय करून भक्तांचें समादान जायना. प्रसादार जें सांगलां तें ख कायरें फाल्स हें पळोवपा खातीर ते परथून भार / अवसरांकडेन वेतात. देवान जें प्रसादाचेर सुचयलां ( उजवी तिसरी, दावी पांचवी बी ) तें ताच्याच तोंडान वदोवन घेवपा खातीर तो वर्सांतल्यान एक फावट तरी आपल्या कुलदेवाचे जात्रेक जांव भार / अवसर येता त्यावेळार थंय वेता. कांय देवळांच्या जात्रांच्या वेळार तर कितल्याशा लोकांच्या आंगांत वारें येता. मागीर थंय जमिल्ले भक्त हाचेर आयला तो मूळ पुरसाचो, ताचेर आयला तो आनीक कोणाचोसो भार अशें म्हणून तांचे अर्थ लायतात. जाचेर भार येव येता त्या मनशाक भाराची ' कूड ' म्हणटात. कूड आयली, कूड गेली, कूड उठली, बसली, कुडीक त्रास जातात, कुडीक त्रास सोंसनात... असली भास भार येवंच्या वेळार

ांय जमिल्ले भक्तगण उलयत आसतात.

प्रसाद आनी भार हांतलें म्हत्त्वाचें अंतर म्हळ्यार, प्रसादाच्या वेळार जो देव ोनो आसता, तो भाराच्या वेळार उलयता. दुसरी गजाल, प्रसादाक मध्यस्त ागता तसो भाराक लागना. भाराचो भक्ताकडेन–जोतिशावरी–दिरेत वेव्हार लता. तिसरी गजाल, वर्सांतले कांय दीस सोडीत जाल्यार देवाक प्रसाद हो ऱ्नाय लागता. प्रसाद घेवपाक देवाची व्हडलीशी कांयच अडचण नासता. ासलीच जाल्यार ती भटाची ना जाल्यार भक्ताची. भाराचें तशें ना. भार हो सांतल्यान अमक्याच वेळार अमक्याच मनशाचेर–म्हळ्यार कुडीचेर येता. बरें, ो त्या वेळार येयतूच अशेंय सांगूं नज.

म्हत्त्वाची गजाल म्हळार, भार आनी भक्त दोगूय एकमेकांकडेन उलोवंक शगिल्ल्यान केन्नाकेन्नाय तांचें व्हडलें झगडें पेट्टा. भाराकडेन झगडप हें एक हडलें शास्त्र. प्रसादांची मोडणा कळपी लोक जशे गोयांत खूब थोडे, तशेच ाराकडेन झगडपीय लोक गोयांत थोडे. कांय गोंयकार भाराकडेन आपलो प्रस्न रच्या वेळार ताचेकडेन झगडपाखातीर म्हणून दुसऱ्या एकाद्या मनशाक व्हरतात.

आमगेल्या गांवचो गोविंदशणै म्हणटात तो असल्या शास्त्रांनीं पारंगत. ताका ासादाच्यो मोडणा बऱ्यो कळटाल्यो आनी तो भाराकडेनूय बरो झगडटालो. ोविंदशणै हो जल्माक येतनाच देमांदिश्त म्हणून जल्माक आयिल्लो. ताचें ायद्याचें सगलें गिन्यान ताका भाराकडेत झगडटाना उपकारा पडटालें. आमच्या ांवांत एकल्याचेर पिशा रवळूचो भार येता. तो येतकूच ताचेकडेन गोविंदशणैचें गडें चलतालें तें अशें :

गोविंदशणै : तुवें पोरूं म्हगेलें हें काम जातलें म्हणून सांगिल्लें तें अजून जावंक ना कशें ?

पिसो रवळू : ( व्हडल्यान स्वास–उस्वास घेयत ) हय : ऽऽ हय : ऽऽ हय : ऽऽ तुका हांवें तशें हय : हय : सांगुकूच नासलें हय : हय : ऽऽ हय : ऽऽ

गोविंदशणै : जाय तुका प्रॉव्ह ? आत्तां दितां.

पिसो रवळू : हय : ऽऽ हय : ऽऽ हय : ऽऽ तातूंत एक नड आसा हय : ऽऽ हय : ऽऽ हय : ऽऽ

गोविंदशणै : तें बरें आसा गा. पुण हांव म्हणटां, ती नड तुका पोरूं दिसली ना ?

पिसो रवळू : हय : ऽऽ हय : ऽऽ हय : ऽऽ मनशाच्यो नडी हय : ऽऽ हय : ऽऽ त्या वेळार अुब्यो रावतात हय : ऽऽ हय ऽऽ हय :

गोविंदशणै : हें सांगूंक तूं म्हाका जाय कित्याक ?

गोविंदशणैचें हें उलोवप आयकना फुडें भारान, खरें म्हळयार, ताच्या मुस्कटार सण्ण करून एक थापट फुलोवपाचें. पुण भारान ताका केन्नाच कांयच केल्लें हावें तरी पळोवंक ना. ( घडये पिसो रवळू गोविंदशणैक बी भिये नासलो मूं ? ) भाराकडेन उलयता तसोच गोविंदशणै प्रसाद घेतना आपले कुलदेवतेकडेन उलयतालो. मुळांत तो प्रसादांची एक व्हडली व्हडली वळेरीच बगेबर घेवन तिचेकडेन वेतालो. ही वळेरी प्रस्नांच्या रुपान आसताली :

१. नवी म्हस विकती घेवं ?

२. अमकें अमकें भाट विकल्यार जाता व्हय तर ?

३. निमणे धुवेचें लग्न जुळना. कितें करूं ?

४. व्हडले धुवेक भुरगें ना. केन्ना जातलें ?

५. एक नवो वेपार ( ब्लॅकाचो ) करपाचें मनांत घोळटा. करूं ?

६. आमगेले घरकान्नीक वयलेवयर हालीं थंडीं जाता. दोतोराक दाखोवं ?

गोविंदशणै भटाक सांगून देवतेक प्रसाद लायतालो. दयेचो/राखणेचो प्रसाद जावंकूच अर्देवर वेतालें. प्रसाद लायतकूच तो जाता म्हणसर देवळांत कुशीक बशिल्ल्या मनशाकडेन चकाटां मारतालो. तातूंत संवसारांतल्यो सगल्यो गजाली उजरावन काडटालो. भट मदी मदी गोविंदशणैच्या नांवान आंगवणी करतालो. प्रसाद जातकूच.. दावी तिसरी जाली, उजवी पांचवी जाली, मुकुटाची जाली, मुठीची जाली असलें किते-शें सांगतालो. गोविंदशणै पटयेंत त्या त्या प्रस्नाचे कुशीक देवाचें कसलें फूल जांव पाकळी जाल्या ती बरोवन घेतालो. परथून चकाटां सुरू करतालो. बरोच वेळ एकाद्रें फूल जालें ना जाल्यार ‘ सायबिणी, अनमनता कित्याक ? बेगीन दी पळोवया ! ’ असो देवतेचेर धेंकणो घालतालो. त्याबराबर गर्भकुडींतल्या आसनाचेर बशिल्ली ती देवता कच्च करून आंग काडटाली आनी थंयचे थंयच गोविंदशणैल्या पदरांत ताका जाय तें फूल घालताली.

हाका तुमी देवभक्ती म्हणटले ?

❦ ❦

## : ७ : जात्रा आनी उत्सव

गोंयकार हो बोवाळ घालपाखातीर म्हणून जल्माक आयिल्लयान ताका घरच्या कार्यापरस शेजाऱ्याचें ना जाल्यार सोयऱ्याचें कार्य चड मानवता. आनी ताचेय परस ताका भौशीक जावं रासवळ कार्य अदीक मानवता. जंय चड बोवाळ थंय तो अदीक रमता. देखून देवळांतल्या उत्सवांच्या वेळार तागेली सामकी पंढरी पिकता.

गोंयच्या खुबशा क्रिस्तांवांक गांवचे इगर्जेचें आनी गोंयच्या सायबाचें अशीं दोनूय फेस्तां लागतात. लागीं लागसार आसल्यार रयचें, मिलाग्रीचें....अश्या आनीक एक दोन फेस्तांक तो वेता. पुण गोंयकार हिंदूचें कांय विचारूं नाका. तांकां कितलेशेकडले कितलेशे उत्सव लागतात.

आमगेल्या पणजेच्या भिकुदादाक शिरगांवची आनी फातर्पेची जात्रा, कवळेंची पंचम, मडगांवची दिंडी, म्हाड्डोळची कोजागिरी, सांखळेची दत्तजयंती पेडणेचो दसरो, पर्तगाळची रामनम, माशेलांतली मालनी पुनव आनी जांबावलेचो शिगमो....हें सगलें लागता. ह्या भायर ताका आपल्या कुलदेवाचे आनी पणजेच्या महालक्ष्मीचे सगले उत्सव लागतात. आनीक एक गजाल म्हळयार उत्सवांचे बाबतींत भिकुदाद आपलो कार्यक्रम दर वरसा बदलता. 'पोरूं अमके जात्रेक गेल्लों. अंदू ती आसूं, हे जात्रेक वचुंया.' अशें तो येवजिता. एक वर्स कवळयां पंचमीक गेल्यार दुसऱ्या वरसा तो थंय जात्रेक वेता. एक वर्स जांबावले शिगम्याक गेल्यार दुसऱ्या वरसा थंय पिंडिकेक वेता. केन्ना केन्नाय पयशिलो उत्सव चुकल्यार तो लागशिल्या उत्सवाक वेता. सांखळेचे दत्तजयंतेक पावलो ना जाल्यार म्हापशेंचे दत्तजयंतेक वेता. सावयवेरेंची अनंतचतुर्दस चुकत जाल्यार

तो पणजेच्या म्हामाय कामतीले अनंतचतुर्दशीक वेता. केन्ना केन्नाय गोंयच्या उत्सवांचो वाज येयत जाल्यार भिकुदाद गोयांभायल्या उत्सवांक वेता. सांखळे –म्हापशेंच्या दत्तजयंत्यांक वचून ताका पुरो जालें म्हणटकूच तो एक वर्स उठून नरसोबाचे वाडीक नाजाल्यार गाणगापुराक वेता. अशेंच रितीन तो शिवरात्रेक गोकर्णा नाः जाल्यार पुट्टपार्थेक पावता. ( हालीं भिकुदादाक सत्यसाईबाबाय लागूंक लागला. ) चार-स वरसांतल्यान एक फावट तो आशाढी ना जाल्यार कार्तिकी एकादशीक पंढरपुराकूय पावता.

केन्नाकेन्नाय भिकुदाद बायल भुरग्यांचें लटांबर घवन ह्या उत्सवांक वेता, अशा वेळार तो रोखडो थंयच्यान परतना. (उत्सवाच्या निमतान आपूण मुदांसाक वेतां अशें भिकुदादालें म्हणणें. ) बायल भुरग्यांसयत सांखळे दत्तजयंतेक गेल्यार तो लळीत समरादना करून थंयसून परतता. जांबावले शिगम्याक गेल्यार थंय पिंडिकेमेरेन तो आपलें बस्तान ठोकता. आनी उपरांत कश्टान थंयसून भायर सरता.

असल्या उत्सवांक वेतकूच गोंयकार करतात कितें ? पयल्यान–पयलीं देवळांत भितर सरून देवाक पांयां पडटात. मागीर, हेवटेन तेवटेन बेठेंच बोवाळटात. ' ऑ सिन्योर, फॉर्त मरे तूं ? ' अशें म्हणत हाका-ताका हटकितात. म्हत्वाचें म्हळयार आपूण हया उत्सवाक पावलां हाची दर एकलो हेरांक खबर दिता. असल्या उत्सवांक देवळांत कितेंय–पुजा बी चलता थंयसर जाणटेले आनी बायलां बसतात. देवळाभायर कितेंय–रथ, पालखी बी–चलता ताका हेर लोक बोवाळ घालतात. तन्नाटे चले–चलयो हेवटेन तेवटेन बेठयोच घुसपतात. उत्सवाच्या वेळार जेवणावळ बी आसली जाल्यार त्यावेळचो बोवाळ लग्नांतल्या जेवणावळी-वरीच चलता. फक्कत लग्नांतल्या बोवाळापरस हो बोवाळ मातसो मोटया प्रमाणांत चलता. लग्नांत जे ल्हवू उलयतात ते हांगा ताळो सरांटून आड्डतात. लग्नांतल्या जेवणांक आनी उत्सवांतल्या जेवणांक एकेक फावट वाडपी तेच आसतात. फक्कत लग्नांतल्या जेवणा वेळार जे वाडपी चलतात, ते उत्सवांतल्या जेवणा वेळार धांवतात.

ह्या भायर जात्रांक वा हेर उत्सवाक वेतकूच गोंयकार – चड करून दादले– सादारण ज्यो गजाली करतात त्यो हयो अश्यो :

१. सगली रात हेवटेन तेवटेन हेडप.

२. तोंडाक येता तें उलोवप. ( कांय जाणटेले राजकारणाचेर बी चर्चा करतात. )

३. फेरयेंत एक पासय मारप ( भुरग्यांनी पेपारीं बी मागलीं जाल्यार तांकां एकतर तीं विकतीं घेवन दिवप नाजाल्यार तांचेर घेंकणे तरी घालप. )

४. सोर्ती काडप; गडगडो खेळप.

५. रस्त्यार सोद पियेवप; ब्राह्मणींत भितर सरून च्या-काफी बी पियेवप: लागीं लागसार बार आसल्यार थंय वचून सोरो पियेवप.

६. उपरांत उत्सवाचे पावणेक उबें रावप.

एका उतरान सांगपाचें जाल्यार असल्या उत्सवाक दादले उत्सवमुर्ती कशे बोवाळटात. अशा वेळार देवाची उत्सवमुर्त जी आसता ती आंग चोरून पालखेंत बी बशिल्ली आसता आनी पालखेभायर गोंयकारांच्यो हयो उत्सवमुर्ती बोवाळ बोवाळ बोवाळटात.

दादल्यांचीं हीं धवणपणां चालू आसतात तेन्ना बायलां बावडीं देवळांत देवतेच्यो व्हौंटयो बी भरतात. देवाक व्हौंरायतात, आंगवणी बी करतात. भांगरासारके आपणांक घोव दिले म्हणून देवाचे उपकार आठयतात. देवळांत पुजा, पुराणां, प्रवचनां, किर्तनां बी चालू आसलीं जाल्यार त्यावेळार बायलांक आपल्या मायांच्यो, जावांच्यो, नणडांच्यो, सुनांच्यो, शेजान्नींच्यो किरकोन्न्यो करपाक हुरूप येता.

अर्दीरात उलगतकूच उत्सवांक आयिल्लो लोक घरा वचपाच्यो खबरो करतात. भुरगीं सगलेकडेन शिंपडलेलीं आसतात तांकां बायलां पुंजावंक लागतात. दादले साडे-सुडे आसल्यार ती रात तेदीस थंयच कोणागेरूय-भट, इश्ट, सोयरो, आंगवस्त्र हांगेर-काडटात. तेदीस रातचे ते खंयसरूय रावले तरी दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून घरा वेतना खाज्याची पुडी व्हरूंक मात ते केन्नाच विसरनात !

❦ ❦

## : ८ : लग्नां आनी सादूधां

गोंयांत चलयेचो बापूय जावप ह्याचे सारकें दुसरें व्हड पातक ना. कारण चली जल्माक येतनाच बापायखातीर काळजी घेवन जल्माक येता. देखून एकाद्री बायल बाळंत जावन तिगेर चली जाली अशी खबर कानार पडनाफुडें 'कितें चली जाली ऽऽ ?' अशें म्हणून तिगेले शेजारी पाजारी नाख किल्लीसतात.

चली वर्सांत येतकूच तिगेलो बापूय तिगेल्या लग्नाचे तयारेक लागता. तेन्ना सावन लग्न थारमेरेन ताका वेगवेगळ्या चलेकारांकडल्यान जी वागणूक मेळटा ती सोंसपाची न्हय. तेवटेन चलो जायनाबराबर तागेलो बापूय आपणें एक व्हड भाट विकतें घेतिल्ल्यावरी खोश्शेन आसता. उपरांत तागेलें हें भाट जशें जशें वाडत वेता तसोतसो तो ताका खंयचें शिकप दिल्यार ताका फुडें कितली वरदक्षणा मेळटली ह्याचो हिशोब मांडीत बसता. उपरांत तागेलें शिकप सोंपतकूच कोणेंय ताका " कितें चल्याचें लग्न करिना ? " काय म्हणून विचाल्ल्यार, " पळोवंया करूंक जाय. आमचे कडेन कितें आसा तें ? ब्रह्मदेवाच्यो गांठी. ह्य : ह्य : ह्यः " अशी तो ताका हांसून जाप दिता. मदींच एक दीस कोणेंच विचारिनासतना. " पळोवंया, ताका आतां सोयरिको येतात, " अशी एक तो पुडी सोडटा. ( त्या वेळार चल्याक सोयरिको बी कांय आयिल्ल्यो नासतात आं ! ) चलो शिर्विसेक लागल्या उपरांत ताका इल्ल्यो इल्ल्यो करून सोयरिको येवंक लागतात. (चल्याक शिर्वीस मेळूंक चड तेंप वचत जाल्यार त्या मदीं--बापूय आपलो चलो अमेरिकेक वचूंक सोदता अशी एक हूल उठयता ). सोयरिको येवंक लागल्या उपरांत चल्याच्या घरचीं मनशां शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांक सांगूंक लागतात, 'आमगेल्या म्हाबळूक ( ना जाल्यार विठूक, ना जाल्यार पाटूक ) सगल्यो मेळून बावीस

ना जाल्यार अठ्ठेचाळीस ना जाल्यार सत्तावन ) सोयरिको आयल्यात. ” हीय एक सुरय फटास आं ! कारण दुसरे वटेन चल्याक येवपी सोयरिकांचो आंकडो वाडचो म्हणून ताची तोंड फुटसर तुस्तूय तींच मनशां करतात.

मागीर तो चलो कांय चलयांक पळोवंक सुरवात करता. हें पळोवप अशेतरेन चलता कि दर एकले चलयेच्या बापायक दिसता, हो म्हजे चलयेक पास करतलोच ! तेवटेन तो चलो कांय चलयांक दोन दोन फावट, तीन तीन फावट पळोवंक लागता. एके चलयेक ताणें दोन तीन फावट पळेली म्हणटकूच मागीर तागेली भयण तिका वचून पळेता. उपरांत काकी, मावशी, मामी अशीं सगलीं जाणां वेगवेगळीं वचून ते चलयेक पळेतात.

हो सगलो बोवाळ चलतना तागेलो बापूय ते चलयेची खबर काडपाचो वावर सुरू करता. आनी हो वावर तो अशे हुशारीन करता कि रोखडेंच त्या गांवांत त्या संबंदीं फां फां जाता. लोक मागीर गांवांत अमकेची अमक्याक सोयरीक जाल्या अशेतरेन उलोवंक लागतात. आनी मुखार हे सोयरिकेचें कितें जाता, कितें जालें हाची ते खबर काडीत आसतात. ह्यो सगल्यो गजाली वेवस्थीत चलयेच्या आनी तिगेल्या घरच्यांच्या कानांर येवन आदळटात.

गोंयांत एकाद्रे चलयेची खबर काडप ही एक खुब्ब कठीण गजाल. कारण तिगेली वेवस्थीत खबर दिवपी मनीस हांगां मेळूंक कठीण. गोंयकारांचो हो एक मोटो गुण. चली कितलीय बरी आसली तरी ती बरी आसा अशें हांगा कोण केन्ना सांगना. शेजारी जाल्यार नाच ना. कारण हेरकडेन शेजारची व्हॉकल फक्कत कुड्डी आसता, गोंयांत ती कुड्डी, भेड्डी, थोंटी, मोडकी एकेच फावटीन सगली आसता; लग्न थाल्ल्या उपरांत लेगीत केशी करून तें मोडपा खातीर एका पायार तयार आशिल्ले विघ्नसंतोशी लोक गोंयांत पावलाकणकणी मेळटात. इतलेंय करून गोंयच्या चलयांचीं लग्नां जुळटात, जातात कशीं ही एक व्हड अजापाची गजाल !

चली पास जातकूच चल्याचो बापूय ते चलयेचें नक्षत्र घेता. चल्याचें आनी चलयेचें नक्षत्र एकामेकांक पडटा काय ना हें तो रोखडें सांगना. तें सांगचे पयलीं चलयेकाराची तांक कशी आसा, तो आपल्या चल्याक कितली वरदक्षणा दितलो हाची तो चवकशी काडीत आसता. खरें म्हळयार, चलयेची खबर काडटनाच तो हे गजालीचीय खबर काडीत आसता.

तेवटेन चली पास जाली म्हळ्यार अर्दें लग्न पदरांत पडलें अशें तिगेल्या घरचीं मनशां धरतात. ही गजाल चुकिची. चलेकाराचो दोळो सदांच वरदक्षणेचेर आसता. म्हणटकूच चलयेचो बापूय कितें दितलो हाचो अदमास मेळ्ळ्या उपरांतूच चल्याचो बापूय 'नक्षत्र पटलें' म्हणून सांगता आनी उलोवण्यांक तयार जाता. ह्या उलोवण्याच्या वेळार चलयेकार कितें दितलो ताचेवयर ताचेकडेन आनीक कितें मागप इतलोच ताचे मुखार प्रस्न आसता. म्हणटकूच तो 'अमक्यान अमकें अमकें दितां म्हळ्ळें. तूं कितें दितलो ?' काय म्हणून विचारपाक लेगीत उणें करिना.

कांय चल्यांचे बापूय खोरीं घेवन हीं उलोवणीं करपाक चलयांच्या बापांयकडेन येतात. आनी तातूंत जितलें ओडूंक मेळटा तितलें ओडटात. चडानचड ओडूंक मेळ्ळें म्हणटकूच ते 'उलोवणीं बरेंभशेन जालीं' अशें म्हणटात. गोंयचे शिकिल्ले सवरिल्ले भुरगे लेगीत लग्नाचे बाबतींत आपले सगले हक्क आपल्या आवयबापायकडेन दितात हाचें कारण हेंच. ज्यो गजाली चलयांच्या बापांयकडल्यान ते मागूंक फाटींफुडें सरतात त्यो गजाली तांगेले आवयबापूय कसलीच लजभीड धरिनासतना तांचेकडल्यान मागून घेवंक शकतात.

एक फावट देण्याघेण्याचें थाल्लें म्हणटकूच फुडें साकरपुडयाक आनी लग्नाक वेळ लागना. गोंय स्वतंत्र जायनाफुडें हांगा भायरसून ज्यो कांय बऱ्योवायट गजाली आयल्यो तातूंत एक साकरपुडो. पयलीं कांय वरसां हांगां साकरपुडे लोकांच्या तोंडांतल्यानूच आयकूंक येताले. आतां दिसपट्टे पांच पंचवीस साकरपुडे वर्तमानपत्रांतल्यान वाचूंक मेळटात. आतां इल्ले इल्ले गोंयकार ताचेय फुडें वचूंक लागल्यात. साकरपुडयां उपरांत थारिल्लीं लग्नां मोडूंक लागल्यात.

लग्नां थारमेरेंनची ही जी गजाल सांगल्या ती सगलेकडेन सारकीच नासता. तातूंत बारीक मोटे बदल घडत आसतात. कोण चली आदीं पळेता जाल्यार कोण नक्षत्र आदीं पळेता; जाल्यार कोण प्रसाद आदीं घेता. एकाद्रो चलो भुरगो चली पळेच ना. तो म्हणटा, "म्हगेले आवय बापूय जें कितें करतात तें म्हाका सगलें मान्य." हें आयकून कोणेंय कुछित्रीपणान ताका म्हणपाचें, "आरे पापया, लग्नाक तरी तूं कित्याक उबो रावता ? आवय बापायकूच उबे कर." पुण गोंयांत असलें कोण कांय उलयना. इतलेंच न्हय, तर ज्या चल्या भुरग्यान चलयेच्या बापायच्यो व्हाणो चडानचड झरयल्यात त्या चल्या भुरग्याची चडानचड तुस्त

मकां तेच चलयेच्या बापायकडल्यान आयकूंक मेळटा—लग्न थारतकूच. एक नावट लग्न थाल्लें म्हणटकूच चलयेच्या बापायच्या तोंडाक आपल्या जांवयाची स्त करतना सामके फोड येतात.

गोंय स्वतंत्र जावंचे पयलीं पयशेकार गोंयकार आपले जांवय पुर्तुगालसून डटाले. जांचेकडेन पयशे मातशे उणे आसात तांगेली धांव मुंबयचे वंयमेरेन वताली. जांवय मुंबय आसा म्हळयार जांवय बरे पयशे जोडटा असो बेठोच कोंचो चुकिचो समज जातालो. गोंय स्वतंत्र जातकूच कांय गोंयकार "आम- लो जांवय दिल्ली आसता," अशें सांगूंक शिकलो. आयकतल्याक दिसपाचें हो डित नेहरूंच्या शेजरा बी रावता काय? उपरांत गोंयकार आतऱ्यापयऱ्यान सल्याय कामाक लागून दिल्लीक पावूंक लागले. त्याबराबर चलयांचे बापूय इंग्लंड मेरिकेचे जांवय सोदूंक लागले. हातूंत चलेकारांचें आयतेंच फावलें. चलो यल्या देशांतल्यान कांय दिसांखातीर गोंयांत आयलो कि ते रोखडीच वर्तमान- त्रांनी एक खबर दिताले : 'अमक्या अमक्याचा मुलगा अमेरिकेहून सध्या रत आला आहे. चार आठवडयांनंतर तो परत अमेरिकेला जाणार.' ही जायरात चिना फुडें ताच्या घरामुखार चलयांच्या बापांयची लायन लागताली. तो म्हणसर आपलीं सगलीं शस्त्रां पारजून तांचेकडेन उलोवणीं करपाक सज्ज रावतालो.

गोंयच्या ह्या लग्नाच्या वेव्हारांत आनीक कांय गजाली मतींत धरीसारक्यो ासात. तांतली पयली गजाल अशी कि गोंयांत चारित्र्य म्हणटात तें फक्कत लयेकूच लागता, चल्याक लागना. एकाद्री चली कोणायबराबर—बऱ्या मनान गीत—उलयली जाल्यार तिचेविशीं लोक बेठीच नसती फाम घालतात. हाचे रफाटें, चल्याच्या चारित्र्याकडेन गोंयकार सदांच कानदोळो करतात. एखाद्र्या ल्याची खबर ते अशेतरेन उलयतात :

—तो खंय सोरो पियेता.
—आतां सोरो कोण पियेना?
—तो खंय जुगार खेळटा.
—तें व्हडलें लक्षांत घेवपाचें न्हय रे.
—तागेलीं खंय आंगवस्त्रां आसात.
—लग्ना पयलीं कोण बरो आसता?

दुसरी एक गजाल म्हळयार, गोंयांत फक्कत दुर्बळ धाकल्यांच्या चलयांच्यो गांठी तितल्यो ब्रह्मदेव मारता. चलयेकार पयशेकार आसत जाल्यार तो आपणाक जाय ते तरेचो जांवय सोदता आनी ताका भारोभार पयशे दिवन विकतो घेता.

आतां गोंयच्या लग्नांच्या समारंभांसंबंदी : गोंयच्या लग्नाचे समारंभ म्हळयार एक व्हड घुस्पागोंदळ. सक्काळीं फुडें उठून लोकांनी खंयच्या तरी देवळाच्या अगरसाळेंत वचून थंय सगलो दीस न्हवऱ्या–व्हौंकलेच्या नांवान बोवाळ घालप हाका गोंयांत लग्न म्हणटात. बोवाळ जितलो व्हड तितली लग्नाक सोब अदीक. हो बोवाळ सादारण अशे तरेचो आसता :

—आरे, हें हाड.

—आगो, तें व्हर.

—आरे, हें व्हरून ताका दी. आनी तें ताचेकडल्यान घे.

—आरे, हो खंय पावलो ?

—आगे, ती खंय पावली ?

—अः हो पळे आयलो.

—राव आं, येतली ती.

—ताका तांबयो मेळ्ळो मरे ?

—हो वालो मातसो ताका दी.

—येजमान खंय ?

—येजमान खंय ?

—भितर गेला.

—माळयेर गेला.

—भट आपयता म्हूण सांग ताका.

—न्हवरो आयलो, न्हवरो आयलो.

—व्हौंकलेक हाडात. व्हौंकलेक हाडात.

लोकांचो अशेतरेचो हो बोवाळ सोंपून सोंपना. सोंपून सोंपना. रातची घर-भरवणी भायर सरमेरेन तो एकासारको चलत आसता. हो अशेतरेचो बोवाळ

चाळणींत घालून चाळूंक मेळना. तसो तो मेळिल्लो जाल्यार तांतल्यान भटाचो बोवाळ, येंजमानाचो बोवाळ, येंजमान्निचो बोवाळ, व्हींवळयांचो बोवाळ, दादल्यांचो बोवाळ, बायलांचो बोवाळ, भुरग्यांचो बोवाळ, वाजंत्र्यांचो बोवाळ असो सगल्यांचो बोवाळ वेगळोवेगळो काडूं येतालो. ह्या बोवाळा बराबरूच लग्नांत बायलांच्या साडयांचें ( तेलाची साडी, लग्नाची साडी, जेवणाची साडी बी ) आनी वस्तिचें प्रदर्शन चालू आसता. हयो वस्ती म्हळयार गळयांत गळोभर, हातांत हातभर आनी माथ्यांत माथेंभर अशो घालपाच्यो आसतात. तातूंत भांगर, मोतयां, हिरे सगलें लकलकत आसता, चकचकत आसता. लग्नांतलीं बायलां चडसो वेळ एकामेकांच्या वस्तींचेर सारकीं उलयत आसतात. आनी ह्या सगल्या बोवाळांत बावडया न्हवऱ्या-व्हौंकलेचो मात् घुस्मटमार जाता.

❦ ❦

## : ९ : दोतोर, इजनेर, प्रोफसोर आनी हेर

गोंयांत दोतोराक दोतोर म्हणटात. इजनेराक दोतोर म्हणटात. आद्‌वोगादाकूय दोतोर म्हणटात. बरो फात घालीत जाल्यार फातराक लेगीत दोतोरूच म्हणटात. पुण त्याच बराबर सरकारी येंप्रेगाद वा प्रोफसोर हांकां दोतोर म्हणनात. सरकारी येंप्रेगादाक बाब म्हणटात. आनी प्रोफसोराक ‘ प्रोसोर ’ म्हणटात.

ही सगली गजाल खरी म्हळ्यार पुर्तुगेजांच्या तेंपावयली. त्यावेळार गोंयांत दोतोर, इजनेर, आद्‌वोगाद, प्रोफसोर, सरकारी येंप्रेगाद, भाटकार आनी वेपारी अशो सात मुखेल जाती आशिल्ल्यो. निमण्या धा–वीस वरसांत तातूंत मिनैर म्हणून आनीक एके जातिची भर पडली. पयलीं पयलीं हातूंत सगल्यांत चड मान भाटकारांक आशिल्लो. पुण भाटकार दिशीं दिशीं देमांदांनी घुस्पूंक लागले. तांगेलीं भाटां बुडूंक लागलीं आनी ते रिणकारी जावंक लागले. भाटकार जशेजशे फाटीं पडूंक लागले तशेतशे मिनैर वयर सरूंक लागले. तें पळोवन लोक म्हणूंक लागले ‘ थापे बुडले, शेणी उफेल्यो ’. कारण भाटकार म्हणटात तांचीं पाळां-मुळां गोंयचे भुंयेंत खूब खोल गेल्लीं. गोंयचे भाटकार हे पिढयांनी भाटकार. खंयचोच भाटकार–निदान गोंयांत तरी–कोणाक फटयल्या बगर भाटकार जायना. पुण हांगाच्या खंयच्या भाटकारान केन्ना कोणाक फटयल्लो हाची खंयच केन्ना नांवनिशाणी मेळची ना. कारण भाटकार हे तकलेन फीन. ते केन्नाय कितें करतना तांचीं प्रोव्हां फाटल्यान दवरिनात. गोंयांत एक वेळ पुर्तुगेजांचो सगलो इतिहास सामको तारीखवार मेळत, पुण भाटकारांचो मेळचो ना. हाका लागून, आदल्या काळार सगले भाटकार आपूण भाटकार म्हणुनूच जल्माक आयल्यात अशे तरेन चलताले. पुर्तुगेज सरकारूय भाटकारांक खूब लेखतालो. देखून हांगाचे

कांय गर्भश्रीमंत भाटकार आपूण पुतुगेजांचे वंशजूच आशिल्ल्या वरी वागताले.

एक गजाल खरी, सगले भाटकार त्या काळार बरे इश्तादान रावताले. एकाद्रो भाटकार हातांत रोत घेवन रस्त्यांतल्यान वचूंक लागलो जाल्यार लोक ताका 'भाटकार' असो उलो मारताले. ताणें कितेंय विचाल्ल्यार रेश्पैतान जाप दिताले. भाटकाराक जाय तेन्ना जाय तें मेळटालें. ताका केंस मारीन दिसता तेन्ना म्हालो ताच्या घरा येतालो. मुस्तायकी धुवंक उडयन दिसता तेन्ना मडवळ ताच्या घरा येतालो. खुबशे भाटकार मोटारिंनी भोंवताले. जांच्यो खासा आपल्यो मोटारी नासल्यो ते भाडयाच्या मोटारिंनी भोंवताले. (खूब पुर्विल्ल्या काळार तांतले कांय जाण घोडयांच्या गाडयांनी भोंवताले.) सगले भाटकार धंयार धुमको मारून आसताले. दनपारच्या आनी रातच्या जेवणांक शेंवटे, रावंस, संगें, विस्वण, दोडयारे अशें व्हडलें व्हडलें नुसतें खाताले. आमगेल्या गांवच्या खुबशा भाटकारांनी जाल्यार धा वरांवयले पेजेक तळिल्लीं कालवां खावन आपलीं भाटां काबार केल्लीं.

भाटकारां खेरीज हेरां भितर त्या काळार मान आशिल्लो तो दोतोर आनी इजनेर हांकां. आद्वोगादांक बरें उलोवंक येता म्हणून तांकांय गोंयकार लेखताले. प्रोफसोर आनी सरकारी येंप्रेगाद हांचेभितर सरकारी येंप्रेगादांक चड मान आशिल्लो. हाचीं कारणां अशीं :

१. सरकारी येंप्रेगादांक गुड्डुलासांवां करूंक येतालीं.

२. तांच्या हातांत लोकांचीं कामां जातालीं.

३. तांकां पागामेंता भायर हेवटेन तेवटेन कितेंय सुट्टालें.

प्रोफसोर म्हणटात तो बावडो एक सादो सरळ मनीस. ताका दोतोर-इजनेरावरी इयेत दाखोवंक येनासलो. आद्वोगादांवरी लोकांच्या घरांचेर सुणी चडोवंक येनासलीं. सरकारी येंप्रेगादांवरी गुड्डुलासांवां करूंक येनासलीं. दुसरे वटेन, गोंयकारांक शिक्षणाचें म्हत्व म्हणटात तें केन्ना समजलेंच ना. राखणे गोरवां राखतात, तशे प्रोफसोर भुरग्यांक शिकयतात अशें ते लेखीत आयल्यात. गोंयकारांनी शिक्षणाबदला दुडवांक अदीक लेखलें. देखून मिनैर-भाटकारां फाटोफाट तांणी वेपाऱ्यांक मान दिलो.

स्वतंत्रताये उपरांत हें चित्र मातशें बदल्लें. शाळा मास्तर आनी कॉलेज्यांचे प्रोफसोर अशे दोन नवे वर्ग गोंयांत उप्रासले. शाळा मास्तर आदल्याय काळार आसले. पुण त्यावेळार तांचीं युनियनां बी नाशिल्ल्यान ते आसात म्हणपाचें केन्ना

कोणाक जाणवलें ना. गोंय स्वतंत्र जायनाफुडें सरकारान जळीं मळीं मराठी शाळ उगडल्यो आनी ताका लागून मालवण–वेंगुर्लें–वाडी–रत्नागिरी साकून मास्तरांचं गोंयांत येवपाक सामकी रीग लागली. कांय काळा उपरांत ह्या शाळामास्तरांचे प्रस्न उप्रासले आनी त्या प्रस्नांचेर जाहीर चर्चा जावंक लागल्यो. अशाच एक प्रस्नाच्या वेळार शाळामास्तरांनी पणजेंत सचिवालयाचेर एक मोर्चो व्हेलो आनी ' आरे शिवशंकरा, तुजे वाजले बारा' अशो लेफ्टनंट गव्हर्नराच्या नांवान आड्ड्ये माल्ल्यो. तेन्नापसून गोंयकारांक हांगा शाळामास्तर म्हणून एक नवी जात उप्रासल्या हाची जाण जाली.

ह्या शाळामास्तरांक गोंयकारांनी केन्ना आपलेशे लेखले नात. गोंय स्वतंत्र जायनफुडें पुर्तुगेज प्रोफसोरांकूय तांणी ह्या मास्तरांचे पंगतीक बसयले. तांकां ते शाळामास्तरां बराबर लेखूंक लागले. स्वतंत्रताये उपरांत गोंयांत कॉलेज्यां सुरू जालीं. तांतल्या प्रोफसोरांक ते चार दीस मातशे मान दिवंक लागले. आदल्या काळार लिसेवाच्या प्रोफसोरांक जो मान मेळटालो तितलो न्हय, पुण मातसो उणो मान ते कांय काळ ह्या कॉलेज्यांच्या प्रोफसोरांक दिवंक लागले. उपरांत गोंयांत कॉलेज्यां वाडत गेलीं. त्याबराबर कॉलेज्यांच्या प्रोफसोरांकूय पुर्तुगेज इश्कोलांच्या प्रोफसोरांचे पंगतीक व्हरून बसयले. हांतले कांय प्रोफसोर भायल्या देशांनी वचून शिकप घेवन आयिल्ले. कांय जाणांनी डॉक्टरेटी घेतिल्ल्यो. पुण गोंयकारांचे लेखीं ह्या गजालींक व्हडलेंशें मोल ना. ' इतलेंय शिकून निमाणो तूं प्रोफसोरूच मरे ? ' अशें एकाद्रया प्रोफसोराक विचारपाक लेगीत ते अनमनले नात.

गोंय स्वतंत्र जायमेरेन हांगाचे अर्दे अदीक भाटकार काबार जाल्ले. कुळ-कायदो येना फुडें ते खऱ्या अर्थान ' पॉब्र फिदाल्ग ' जाले. मुंडकार तांकां शिनिफिक्यो सांगूंक लागले. हेर लोकूय तांकां किंकोंत लेखूंक लागले. हाचे उफाट्टें स्वतंत्रतायेचो फायदो चडान चड ब्लॅकिश्तांक जालो. पुर्तुगेजाच्या वेळार ब्लॅकिश्तांचें बरें फाविल्लें. तांगेल्या आशिर्वादान ब्लॅकिश्तांचें ब्लॅक बरें शिस्तीन चलतालें. स्वातंत्र्य येनाफुडें तें मंदावलें. कांय जाणांचें ब्लॅक बंदूय पडलें. देखून तांतले कांय जाण आपूण ' पोलिटिकल सफरर ' म्हणूंक लागले. हेर कांय जाणांनी पाटयेर नव्यानूच श्रीगणेशा काडटात तसो नव्यानूच वेपार सुरू केलो. ताका लागून आदल्या काळार जांकां ब्लॅकिश्त म्हुण हिणसायताले तांकां आतां लोक वेपारी म्हणून मान दिवंक लागले. गांठीक भरपूर जोड आशिल्ल्यान हेर

वेपाऱ्यांय परस तांकां अदीक मान मेळूंक लागलो.

स्वतंत्रताये उपरांत सरकारी येंप्रेगादाचो मान गेलो. आशिपरांत, येंप्रेगाद, ओफसियाल ( प्रिमैर, सेगूंद, तेर्सैर ) म्हणटकूच तांकां जो भोवमान मेळटालो तो एका एकीं नाच जालो. ह्या पुर्तुगेज येंप्रेगादांक गव्हर्मेंट सर्व्हंटस् ( ना जाल्यार गव्हर्मेंट एम्प्लोईज ) म्हणटकूच ते कच्च करून आंग काडूंक लागले. नवे सरकारी येंप्रेगाद बुशकोट आनी खोमसां घालून ऑफिसांत येतात तें पळेतकूच त्या गोमाद फात घालपी पुर्तुगेज सरकारी येंप्रेगादांक कितें जात्रपाचें ? ( आदल्या काळार पुर्तुगेज प्रोफसोर आनी सरकारी एंप्रेगाद ह्या दोगांकूय तांगेल्या भेसा-वेल्यान वळखूं येतालें. एकाचो फात सादो सुती आसतालो. दुसऱ्याचो गोमाद ) त्या काळार पणजेंत ज्यून्त, फाजेंद, कापितानीय, रेलासांव, काम्र, ओब्रश पुब्लीक, आल्फांद, इश्तातिश्तीक हातूंत शिर्वीस करतल्यांचो इयेत कितें विचारता ? त्या काळार पलासींत काम करपी येंप्रेगाद जाल्यार दिसपट्टो आपूण गोव्हेर्नादोराक जाप दितां अशे पद्धतीन भायरूय वावुरतालो. हे सगले लोक स्वतंत्रताये उपरांत बावडे सामके देंवले.

त्यामानान गोंयकार इजनेर, आद्वोगाद आनी दोतोर हांकां अजून लेखतात. तशें पळोवंक गेल्यार इजनेरांची परिस्थिती स्वतंत्रताये उपरांत खुबशी सुदारल्या. आदल्या काळार इजनेरकी शिकूंक लोकांक पुर्तुगालाक वचचें पडटालें. आनी पुर्तुगालसून येतकूच हांगा मुसकां मारचीं पडटालीं. उपरांत ते काम्रांत ना जाल्यार ओब्रांत शिर्विसेक लागताले. आयज ते आर्किटेक्टांचे जोडयेन स्वतंत्र धंदो करतात आनी तो बरो चलता. आयज गोंयांत खरें कितें काम करतात ते फकत इजनेरूच म्हळयार जाता. पुर्तुगेज गेले आनी गोंयकारांच्या माथ्यावेलें पाखें गेलें. खुबशा गोंयकारांनी गांठीक आशिल्ले–नाशिल्ले दुडू एकठांय करून– आनी वेळ पडल्यार रीण काडून घरां बांदूंक घेतलीं. गोंयभर आयज जीं नवीं घरां दिसतात तांतलीं चडशीं स्वतंत्रताये उपरांतलीं. गोंयच्या इजनेरांनी बांदिल्लीं.

गोंयकार हो जल्माक येतनाच किजिली मनीस म्हुण जल्माक आयिल्ल्यान जल्मभर तो किजिलां, केस्तावां आनी देमांद करीत आसता. सगलें बरें चल्लां आसतनाय शेजाऱ्यांकडेन नाजाल्यार पारेंतांकडेन कसलीं तरी कुस्पटां काडपाची ताका संवय. कारण नासतना लोकांच्या घरांचेर सुणीं चडोवपी मनीस जाल्यार गोंयांत पावला कणकणी मेळटले. असल्या लोकांचें आद्वोगादां बगर पावल उखलना.

देखून स्वतंत्र गोंयांत आद्वोगादांचें प्रमाण भरपूर वाडलां आसुनूय तांतल्य
खुबशा जाणांचें बरें चल्लां.

पुण ह्या सगल्यां भितर खरो मोलादीक मनीस म्हणटात तो दोतोर. गोंयां
दोतोरके सारकें दुसरें शिकप ना. दोतोर म्हणटात तो दोतोर. देखून आदल्य
काळार दरएका घरांतलो एकलो तरी मनीस दोतोर जातालो. गोंयांत अशे
कितलेशे पुर्तुगेज दोतोर अजून आसात जांणी आपले जिणेंत दोतोरकी सोडून
हेर सगलीं धवणपणां केल्यांत. पुण लोक अजून तांकां दोतोर म्हणून वळखतात
आनी दोतोर म्हणून उलो मारतात.

आदल्या काळार दोतोराक तागेले दुयेंत भियेताले. आतां ते भियेनात. हाचे
कारण कितेंय उणें अदीक जाल्यार सरकारी ओशिपतालांनी वचून व्हडल्या दोतो
रांक दाखोवपाची आतां वेवस्ता जाल्या. पुण इतलेंय आसून अजून गोंयच्य
दोतोरांचो मान खंय वचूंक ना. तो घरांत भितर सरत जाल्यार घरांतलीं सगल
मनशां अजून बोवाळ घालतात :

—दोतोर आयलो. दोतोर आयलो.

—दोतोराक कदेल दी.

—दोतोराक बस म्हणून सांग.

—दोतोराक मातसो भितर आपय.

—कितें करूं दोतोर ?

—अशें करूं दोतोर, काय तशें करूं दोतोर ?

—हय दोतोर.

—ना, दोतोर.

—बरें दोतोर.

—दोतोराच्या हातार उदक घाल रे.

—दोतोराक शाबू दी रे.

—दोतोराक तुवालो दी रे.

—दोतोराक च्या दी रे.

—दोतोराक पयशे दी रे.

एका काळार दोतोर दुयेंतीक पळोवंक आयलो जाल्यार ताच्या व्हिजिटा
पयशे कशे दिवप हो एक व्हडलो प्रस्न आसतालो. दोतोराक तुजे पयशे किते

काय म्हणून विचारप म्हळयार ताचो फाल्त रेश्पैत. 'दोतोर, हे तुजे पयशे घे' अशें म्हणून ताका पयशे दिवप म्हळयारूय फाल्त रेश्पैत. म्हणटकूच प्रस्न पडटालो. करप किते ? दोतोरान दुयेंतीक तपासलो .... उपरांत तो मेजार येवन बसलो .... दुयेंतीक किते जालां तें ताच्या पारेंतांक सांगलें .... रेसेत बरयलें .... च्या–काफी किते ती घेतली .... उपरांत दोतोर वचूंक उठलो .... तागेलें एक पावल घरांत आनी दुसरें हुमऱ्यार आसतना ल्हवूच तागेल्या ज्युदयेच्या सकयल्या बॉल्सांत ते पयशे घालपाचे. आनी ताणें ते एक तर पळोवंक नाशिल्लेवरी करपाचें ना जाल्यार 'चॅ चॅ, कित्याक रे ? आसूं रे, आसूं रे' अशें तरी म्हणपाचें .... अशी ती पद्धत आशिल्ली.

कांय काळा उपरांत फात घालपी दोतोर फाटीं पडले. चडशे दोतोर बुशकोट घालूंक लागले. पुण लोकांची अडचण जावंची न्हय म्हणून तांणी आपल्या बुशकोटांक सकयल दोन–दोन बोल्सां लावन घेतलीं.

भिकाऱ्यांक भिकारी नसाय म्हणटात तशे गोंयांत दोतोरांक दोतोर नसाय. एक दोतोर चड करून दुसऱ्या दोतोराचें बरें केन्ना उलयना. एका दोतोरान एका दुयेंतीक पळेल्लो आसत जाल्यार दुसरो दोतोर ताका हात लायना.

गोंयांत आनीक एक चाल आसा. एकूच गजाल सांबाळचे बदला दोन गजाली सांबाळटा ताका हांगा लोक चड मान दितात. एक दोतोर फकत दोतोरकीच सांबाळटा आनी दुसरो दोतोरकी सांबाळून कविता करता, जाल्यार हांचे भितर पयल्या परस दुसऱ्याक चड मान. तेंच परीन, एकलो इजनेर फकत इजनेरकी करता आनी दुसरो इजनेरके बराबर नाटकांनी कामां करता जाल्यार हांचे भितर लोक पयल्यापरस दुसऱ्याक अदीक लेखतात.

स्वतंत्रताये उपरांत गोंयचे दोतोर, आद्वोगाद, इजनेर हांच्यांत आनीक एक व्हडलो बदल जाला. आदीं ते फक्कत दोतोर, आद्वोगाद, इजनेर आसले ते आतां लायन्स आनी रोटेरियन्स जाल्यात. देखीक, आमगेल्या शाणुदादालो पूत आदीं फक्कत डॉक्टर पाटू आसलो तो आतां रोटेरियन डॉक्टर पाटू जाला. आनी गांवच्या नाटकांनी बी कामां करता. तागेल्या गांवचे लोक "आमगेलो दोतोर बरोऽऽ आं ऽऽ !" म्हणून जेन्ना ताका तोखेतात तेन्ना तांकां खरेपणीं, 'तो नाटकांत बरो ऽऽ !" अशें म्हणपाचें आसता.

❦ ❦

## : १० : गोंय आमचें कुळार कलेचें

गोंय कलाकारांक लेखिना. गोंय मिनैरांक लेखता, वेपाऱ्यांक लेखता, ब्लॅकिस्तांक लेगीत लेखता; पुण कलाकारांक लेखिना. गोंय इजनेरांक लेखता. दोतोरांक लेखता. प्रोफसोरांक लेखता. सरकारी यॅप्रेगादांक लेगीत लेखता. पुण कलाकारांक लेखिना.

गोंय कलाकारांक लेखिना म्हळयार ते कवींक लेखिना. बरप्यांक लेखिना. चित्रकारांक लेखिना. गावप्यांक लेखिना. वाजोवप्यांक लेखिना. एकाद्रया बरप्या कडेन पयशे आसत जाल्यार गोंय ताका लेखता. तो बरयता म्हणून न्हय तर ताचेकडेन पयशे आसात म्हणून. एकाद्रो गावपी मीन काडटा जायत जाल्यार गोंय ताका लेखता. तो गाता म्हणून न्हय, तर मीन काडटा म्हणून. एकाद्रो चित्रकार भाटकार आसत जाल्यार गोंय ताका लेखता. तो चित्रां काडटा म्हणून न्हय तर ताचेकडेन भाटां आसात म्हणून.

गोंयकारांक कला लागता ती बिडये भशेन. विडी ओडल्या उपरांत ती भायर उडोवपाची. गोंयकार एकद्रया बरप्याक, कवीक, गावप्याक, चित्रकाराक, नाटक्याक लागीं धरतात ते त्या त्या वेळा पुरते. एक बरप वाचल्या उपरांत, एक कविता वा गीत आयकल्या उपरांत, एक चित्र वा नाटक पळेल्या उपरांत ह्या कलां फाटल्या लोकांचो आपणाक उपेग कितें असो तांकां प्रस्न पडटा.

खंयसरूय केन्नाय भौशीक उत्सव— दिंडी, पार, पुजा बी– जालो जाल्यार त्या वेळार गोंयकार भजनां करतात. ह्या भजनांनी गावपा खातीर म्हणून मुद्दाम बोवाळ घालून ते एक गावपी हाडटात. भजन जाल्या उपरांत तागेले पयशे फारीक करून– उत्सव करपी लोकांकडेन पयशे नासल्यार तांच्या तोंडाक पानां

सून– ताका वाटेक लायतात. परथून तो गावपी खंयसरूय केन्नाय दिसलो जाल्यार ते ताका हटकुपाचे लेगीत नात. हाचें कारण, काम जातकूच हेरकडेन ज मरता तसो गोंयांतूय तो मरता. तसो तो खरोच मेलो ना जाल्यार गोंयकार तो मेलो म्हणून धरतात.

गोंयकार कित्याचेरूय मोग करतना हातचें राखून करता. ताजो देवाधर्मा-विशिंचो आनी कलेविशिंचो मोग अशो तरेचो. गोंयकाराक देव जाय, पुण ताका भक्तीन पिसो जावपाचें नासता. तेच परीन ताका कला जाय, पुण तिचे खातीर सगलें वगडावपाची तागेली तयारी नासता. कोणूय कलेच्या फाटीं लागलो जाल्यार गोंयांत ताका लोक फुकट गेलो म्हणटात. कला म्हळयार गोंयकारांचे नदरेन एक पिशेपण. आनी कलाकार म्हळयार एक पिसो.

गोंयकारांक नाटकां खूब मानवतात. नाटकां पळोवपा खातीर कितलेशे पणजेचे लोक रामनाथीं नाजाल्यार माशेलांत वेतात; म्हापशेंचे लोक सांखळे नाजाल्यार शिरगांवां वेतात; मडगांवचे लोक जांबावले नाजाल्यार फातर्प्यां बी वेतात. गोंयांत हरएका गांवांत वाड्या कणकणी कसल्या ना कसल्या उत्सवाच्या निमतान नाटकां जातात. एकाच वाड्यार एकाच उत्सवाक तीन तीन नाटकां जातात. पैकीं एक चेडींचें, दुसरें म्हाल्यांचें, तिसरें बामणांचें. एका एका वाड्यार एका उत्सवाक तीन नाटकां जालीं जाल्यार फुडल्या वरसा त्याच वाड्यार त्याच उत्सवाक पांच नाटकां जातात. अशेतरेन गोंयांत वरसासंकीं कांय ना म्हळयार देड दोन हजार नाटकां जातात. ज्या गांवांनी हीं नाटकां जातात त्या गांवचे चडशे लोक तीं पळेतात. फाटलीं कितलिशीं वरसां गांवचे एकूय नाटक चुकोवंक ना अशे कितले तरी लोक हर एका गांवांत मेळटले. तें कित्याक, फाटलीं कितलिशीं वरसां रामनाथींचें एकूय नाटक आपणें चुकोवंक ना अशें सांगपी कितलेशेच लोक तुमकां पणजे-मडगांवांत मेळटले. अशे तरेन गोंयकार नेमान नाटकां पळेतात. तांतल्या नटांची तोंड फुटसर तुस्त करतात. पुण नाटकी लोक तांकां आवडनात.

जी गजाल नाटकांची तीच गजाल संगीताची. संगीता भितर गोंयकारांक गीतले तांतूंत नाटकांतलीं पदां आनी देवळांतलीं भजनां खूब मानवतात. महाराष्ट्रांतलीं संगीत नाटकां गोंयांत कितलिशीं वरसां गाजलीं हाचें कारण हेंच. अजून थंयचे कितलेशे हरदास, भजनीबुवा आनी हेर गायक उत्सवांच्या वेळार गोंगा येवन हजेरी लावन वेतात. किर्लोस्कर–देवल–खाडीलकर हांचीं पदां आनी

एकनाथ–नामदेव–तुकाराम हांचे अभंग खुबशे गोंयकार सामके तल्लीन जावन गातात. आनी जे खासा आपूण गायनात ते दुसऱ्यांनी ते गायिल्ले आयकतात.

पुण बारिकसाणेन येवजिल्यार गोंयकारांची ही नाटकांची आनी भजनांची आवड खरीच मनापसून आसता काय, असो प्रस्न पडटा. कारण हीं नाटकां, भजनां चडशीं देवळांच्या उत्सवांच्या वेळार जातात. आनी असल्या उत्सवांच्या वेळार सगले गोंयकार ताळो सरांटून आड्डतात. ( नाय जाल्यार उत्सव म्हळयार उत्सव. ज्या उत्सवांत देवाचें देवसपण लोकांच्या बोवाळांत आनी आड्डपांत फिट्ट बसता त्या उत्सवाक बरो उत्सव म्हणटात. ज्या उत्सवांत देवसपण थोड आनी लोकांचो बोवाळ आनी आड्डप चड ताका व्हड उत्सव म्हणटात ) हांतले जे लोक स्टेजीर वचून आड्डतात तांकां गोंयांत नट म्हणटात. जे संगीतान आड्डतात तांकां गोंयात गावपी म्हणटात. गोंयकारांची नाटकांनी कामां करपाची आनी भजनां गावपाची आवड ह्या आड्डपांतल्यान उप्रासल्या. पयशे फारीक करून पार्ट विकते घेवप, बरे पोशाख घालप आनी स्टेजीर चडून ढॅण ढॅण करून भाशणां फुलोवप हाका गोंयांत नाटकां म्हणटात. इतिहासीक नाटकांनी काम करतल्यांक स्टेजीर उबे रावन ताळो सरांटून आड्डूंक मेळटा आनी संगीत नाटकांनी तांकां बोमलेच्या देंटापसून तानो मारूंक मेळटात म्हणून गोंयकारांक इतिहासीक आनी संगीत नाटकां करूंक चड आवडटा. आनी जो नट इतिहासीक नाटकांनी व्हडल्यान आड्डता ताका हेर गोंयकार बरो गद्य नट म्हणून वाखाणटात. आनी जो मनीस नाटकांतलीं पदां म्हणटना व्हडल्यान किंळचता ताजी बरो संगीत नट म्हणून ते तोखणाय करतात.

नाय जाल्यार उत्सवांतलीं हीं गद्य वा संगीत नाटकां पळेतात कोण ? फक्कत बायलां आनी भुरगीं. दादले नाटकां चलतात त्यावेळार हेवटेन तेवटेन बेठेच बोवाळटात. अर्दी मर्दी चार भाशणां, दोन पदां आयकतात आनी ‘ अमक्या अमक्यान पार्ट बरो केलो आं ’ ना जाल्यार ‘ तमक्यान मात् सामकें विटयलें ’ अशें बेठेंच आपलें मत्त दितात.

भजनांचीय गजाल तीच. गोंयांत एका भजनांत दोन गावपी गावंक बसले जाल्यार आयकुपी त्या भजनाक खूब गर्दी करतात. त्या दोगांयचें गायन आयकूंक न्हय तर त्या दोगांतलो कोण कोणाक खाता हें पळोवंक. गोंयच्या भज-नांची रीत अशी : भजनांत एक मुखेल गावपी आनी हेर कांय जाण ताका साथ

दिवपी आसतात. हे सगले झांजो वाजयतात. खेरीज असल्या भजनांत साथीक एक तबलजी आनी एक पेटीवालो आसता. मुखेल गावपी बरो आसत जाल्यार भजन सुरू जावचे पयलींच तागेले सगले साथीदार सामके कांचवेल्ले आसतात. कारण तो गावपी संगीतान बरो तज्ञ आसत जाल्यार सगल्या साथीदारांक-तबलजी पेटीवाल्या सयत सगल्यांक-एकेच फावटीन खावंक शकता. ( चत्राय : गावपी बरो गायलो आनी तागेल्या साथीदारांनी ताका फावो तशी साथ दिली ना जाल्यार त्या गावप्यान त्या सगल्यांक खाले अशें म्हणपाची गोंयांत चाल आसा. ) मुखेल गावपी बरो गायलो ना, पुण तबलजीन तबलें बरें वाजयलें जाल्यार तो तबलजी त्या गावप्याक–आनी वेळ पडल्यार ताचेबराबर पेटीवाल्याकूय–खावन उडयता. हाचे उफाट्टें, पेटीवालो बरो आसत जाल्यार तो गावप्याक आनी तबलज्याक खाता. एका भजनांत दोन गावपी आसत जाल्यार चड करून तांतलो एकलो गावपी दुसऱ्याक खाता आनी अशावेळार तें भजन बरें रंगता, खंयच्याय भजनांत खरो रंग भरता तो तातूंत एकापरस एक बरे अशे तीन–चार गावपी आनी तितलेच बरे तांचे साथिदारूय आसले जाल्यार. समजा, एका भजनांत चार बरे गावपी आसले जाल्यार तातुंतलो दर एकलो गावपी हेर सगल्यांक खावपाचो येत्न करता. केन्नाकेन्नाय अशें जांव येता : हांतलो एक गावपी दुसऱ्या एका गावप्याक खाता. दुसरो एक गावपी तांतल्या आनीक दोग ज़ाणांक खाता. तिसरो गावपी तिगांकय खाता. आनी तो एकदम बरो गावपी आसल्यार सगल्यांक म्हळ्यार ३ गावपी + १ तबलजी + १ पेटीवालो इतल्यांकूय–एकाच धपक्यान खावन उडयता. अशावेळार तें भजन तल्लीन जावन आयकुपी लोक ‘ ताणें सगल्यांक खाले ’ अशें अपुर्बायेन म्हणटात.

आपणाक कोण वळखनात जावं लेखिनात हें गोंयकार कलाकारांचें एकूच दुख्ख न्हय. तांगेलीं आनिकूय दुख्खां आसात. एक तर कलेन काय तांचें पोट भरना. दुसरे वटेन तांकां सतत लोकांचीं शाणेपणां आयकून घेवंची पडटात. आनी तिसरे वटेन तांकां आपले कलेची केळवण करतना सतत बंधनां येतात. आतां गोंयकार बरप्यांचींच दुख्खां पळेयात : स्वतंत्रताये उपरांत गोंयांत कितलिशीं वर्तमानपत्रां सुरू जालीं. आनी तांचे बराबर हांगा नवेनवे बरपीय तयार जाले. ह्या बरप्यांक गोंयच्या वेगळयावेगळया राजकी आनी समाजीक वादांनी वांटो घेवंचो पडलो. असल्या वादांनी पडिल्ले आसतना कोणाचेरूय कसलीय टिका करचे वेळार तांचेर बंधनां

येवंक लागलीं, अजून येतात. हरशीं मांयक कितेंय म्हळयार तें सुनेक लागूं येता हें एकवेळ समजूं येता. पुण गोंयांत कोणाकूय कितेंय म्हळयार तें कोणाकूय लागता हाचें अजाप दिसता. आतां म्हाका सांगात, म्हापशेंच्या येशाक कितेंय म्हळयार तें दिवचलच्या बाबुशाक कित्याक लागूंक जाय ? तशेंच, पणजेच्या कोलेबाबाक कितेंय म्हळयार तें मडगांवच्या चलेबाबाक कित्याक लागूंक जाय ? पुण गोंयकारांचो हो एक सभाव. एकाद्रया गोंयकाराक दुसऱ्या एकाद्रया गोंयकाराविशीं कितेंय उलयतना तशें कांय दिसना. पुण तिसरो जर ताचे विशीं–त्या दुसऱ्याविशीं कितेंय उलयत जाल्यार मात् तें पयल्याक लागता. फाटीं गोंयच्या एका वर्तमानपत्रांत एका बरप्यान ‘ अण्णाली सून ’ म्हणून एक लेख बरयलो. तो लेख वाचिनाफुडें गोंयच्या कितल्याशा अण्णांनी त्या वर्तमानपत्राच्या संपादप्याचेर पत्रांचो शिवर घालो. दर एका पत्रांत एकूच सूर–‘ म्हगेले सुनेचेर तुमी कित्याक बरयलें ? ’

तातूंत आनीक गोंयांत एकाच नांवाचे आनी आडनांवाचे कितलेशेच मनीस मेळटात. देखून ‘ बाप्पा शिवराकान अमकें अमकें केलें ’ अशी एक वर्तमानपत्रांत खबर येयत जाल्यार पांच बाप्पा शिवराक ‘ तो हांव न्हयच ’ म्हणून त्याच वर्तमानपत्रांत पत्रां छापतात. आनी उपरांत एक सवो मनीस– ताचेंय नांव बाप्पा शिवराक—एक पत्र बरोवन ‘ तो हांवूच ’ म्हणून संपादप्याक कळयता.

गोंयांत कितलिशींच कुम्प्लीकाद नांवां आसात. हांतलें सगल्यांत चड कुंप्लीकाद नांव म्हळयार ‘ भाऊ काकोडकार ’ हें. आदल्या काळार भाऊ म्हणून ह्या मनशाचेर कोणेंय टिका केली जाल्यार ती गोंयच्या आदल्या मुखेलमंत्र्याक लागताली. उपरांत तांचेर काकोडकार म्हणून टिका करूंक लागले. म्हळयार ती सध्याच्या मुखेलमंत्र्यांक लागूंक लागली.

एकाद्रो मनीस पसरो चलयता, इश्कोलांत शिकयता, केंस मारता, मुस्तायक शिंवता, मेस्तपण करता, धवणपण करता म्हळयार कितें तें गोंयकाराक समजता. पुण एकाद्रो मनीस कविता करता, बरयता, गाता, चित्रां काडटा म्हळयार कितें करता तें ताका समजना. एक गोंयकार एका कविची दुसऱ्या एका गोंयकाराकडे वळख करून दियत जाल्यार तांगेलें उलोवप सादारण अशे तरेन जातलें :

—हे एक फामाद कवी आं !

—अशें ? कितें करतात ?

—काव्य रचतात.

—अशें ? म्हळ्यार कितें करतात ?

—कविता बरयतात.

—तें समजलें वो. पुण कविता बरयतात म्हळ्यार कितें करतात काय म्हणीं ? आतां असल्या ह्या प्रस्नाक जाप दितलो कितें कपल ? स्वतंत्रताये उपरांत आतां गोंयकारांक कलां विशीं इल्ली जाण येवंक लागल्या. पुण अजून एकाद्रया कलाकाराची वळख जायत जाल्यार सगल्यांत पयलीं त्या कलाकाराचें पोट कशें सुटटा काय असो प्रस्न पडटा.

हाका लागून गोंयांत कला ही चडशी दळिद्रीच उल्ल्या. खंयच्याय वाठाराक कलाकार हो समाजाचेर व्हड परिणाम करूंक शकता. देखून सुदारिल्ल्या समाजांत कलाकाराक सदांच मानाचें स्थान आसता. पुण गोंयकार कलाकारांचो गोंयच्या समाजाचेर अजूनमेरेन कितें परिणाम जाला अशें काय दिसना. परते, ते ह्या समाजापासून सदां चार पावलां पयसूच उल्ल्यात. गोंयकार कलाकारांनी जें कितें नांव जोडलां तें गोंयाभायर वचून.

ही जाली गजाल गोंयच्या हिन्दू समाजाची. कले विशिंची खरी उमळशीक जी कतें आयज गोंयांत दिसता ती फक्कत क्रिस्तांव समाजा मदीं. तांतल्या तरण्या जाणटयांचे जिबेर सतत काव्य आनी संगीत घोळत आसता. तियात्रां करपांत, कांतरां म्हणपांत आनी मुज्ग वाजोवपांत ते सदां गुल्ल आसतात. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार तांगेल्यो कार्यावळी पळोवपाक, आयकुपाक तांगेले हेर क्रिस्तांव भाव आनीं भयणी पोट तिडकेन वेतात.

'गोंय आमचें कुळार कलेचें' ही म्हणणी आयकतकूच केन्नाकेन्नाय अशें दिसता कि ही कला लग्न करून दिल्या उपरांत जी घरा गेल्या तिका परथून कुळारचो उगडास जावंकूच ना काय कितें ?

# ११. गोंयची स्वतंत्रताय

पुर्तुगेजांनी गोंयचेर सुमार साडेचारशीं वरसां राज्य केलें. हांतलीं सुमार चारशे वरसां गोंयकारांनी पुर्तुगेजांची तुस्त करपांत गेलीं. उरिल्लीं पन्नाशेक वरसां पुर्तुगेज बरे, पुर्तुगेज वायट, पुर्तुगेज शाणे, पुर्तुगेज पिशे, पुर्तुगेज माल्क्रियाद, पुर्तुगेज फटींग अशें कितें कितें म्हणपांत गेलीं.

गोंयकारांक खुबशीं वरसां स्वतंत्रतायेचो अर्थूच कळ्ळो ना. कोणेंय ह्या काळा ' तुका स्वतंत्रताय जाय ? ' काय म्हणून एकाद्रया गोंयकाराक विचारिल्लें जाल्या तो ' हय ' म्हणटलो आसलो. ' तशें जाल्यार तुमकां पुर्तुगेजांक धांवडावचे पडटले ' अशें ताका सांगिल्लें जाल्यार तो ' तशें जाल्यार आमकां स्वतंत्रताय नाका ' अशी जाप दितलो आसलो. स्वतंत्रतायेची गजाल येत जाल्यार पुर्विल्ले पिळगेंतले गोंयकार सदांच राण्यांच्या बंडाचो इतिहास सांगताले. हरशीं गजाल अशी कि राण्यांक बंड करचेंशें दिसलें हाचें एक कारण म्हळयार राणे मुळचे गोंयचे हें न्हय. राणे मुळचे गोंयचे आसले जाल्यार ते हेर गोंयकारां वरीच सगळे शापातां सांगतले आसले. पुण स्वतंत्रतायेचेर केन्ना उलोवंचे नासले. वेळ पडल्या पुर्तुगेजांक बरेय म्हणटले आसले.

१९१० त पुर्तुगाल रेपुब्लीक जालें. आनी तेन्नाच्यान गोंयकारांक इल्लें इल्लें उलोवपाचें आनी बरोवपाचें स्वातंत्र्य मेळ्ळें म्हणटात. हाचोय उपेग मिनेझीस ब्रागांस, हेगडो देसाय हांचे सारकिले कांय लोक सोडल्यार व्हडलोसो कोणे करून घेतलो अशें काय दिसना.

१९४६ त लोहिया गोयांत आयलो. त्यावेळार ' लोहिया आयलो रे, आमच्या गोंयांत पावलो रे ' अशे तरेच्यो कांय कविता गोंयांत आयकूंक येताल्यो. सगळे

गोंयकार त्यावेळार अशे तरेच्यो कविताच म्हणत राविल्ले जाल्यार कोणाच्यान किंतें करूं येतालें ? पुण ना. कितल्याशा गोंयकारांनी चळवळींत पडून कितलिशीं वरसां पुर्तुगेजांच्या कादयांनी ख्यास्ती भोगल्यो. गोंयांत खरो स्वातंत्र्यसैनीक जल्माक आयलो तो ह्या वेळार. गोंयां सारके भुंयेंत हेर कितेंय जल्माक येत. पुण थंय स्वातंत्र्यसैनीक जल्माक येवप ही एक अजापाची गजाल आनी तितलीच खोसयेची गजाल.

पुण सादारण गोंयकाराची स्वातंत्र्य सैनिकांक पळोवपाची नदर किंतें आसली ? स्वतंत्र्यतायेचे चळवळीक तेन्ना जयहिंदाची चळवळ म्हणटाले. हे चळवळींत कोणूय पडलो जाल्यार ताका ‘ जयहिंदांत पडलो ’ म्हणटाले. आनी ‘ जयहिंदांत पडलो ’ हाचो अर्थ तेन्ना ‘ फुकट गेलो ’ असो जातालो.

स्वतंत्रतायेचे चळवळीक उपरांत आनिकूय व्हडलें रूप आयलें तें १९५४ त. हजारांनी लोकांनी सत्याग्रह केले. हातूंत गोंयकारां परस गोंया भायलेच लोक अदीक आसले. पुर्तुगेजांनी कांय जाणांचेर गुळयो घाल्यो. उरिल्ल्यांक भितर उडयले.

उपरांत भारत सरकारान पळेलें कि गोंयकारां कडल्यान हेर कितेंय जायत, पुण गोंय स्वतंत्र करप जावपाचें ना. आपूण भितर पडल्या बगर काय हो प्रस्न सुटपाचो ना. ताणें पुर्तुगेज सरकाराक विचाल्लें : बाबारे, तूं बरे भशेन गोंय सोडून वेता काय ना ?

पुर्तुगेज सरकार म्हणटात तो हट्टी भुरगो कसो. ताणें जाप दिली, ना वचना; तूं किंतें करतलो तें कर.

उपरांत एक दीस भारत सरकारान गोंयांत सैन्य धाडलें. पणजे लागसार बांबोळे एक बॉंब पडलो. गोंयच्या हद्दींचेर कार्तोशींचे ठो ठो .... झूं झूं अशे आवाज आयकूंक येवंक लागले. ते आवाज आयकना बराबर जे पुर्तुगेज सैनीक भारतीय सैनिकां बराबर झगडूंक म्हणून गेल्ले ते शेंपडी तुटसर पळत सुटले. पळटना वाटेर तांकां जे पूल मेळ्ळे ते तांणी मोडून उडयले. उपरांत भारत सरकाराचें सैन्य भितर सल्लें. आनी अशे तरेन गोंय स्वतंत्र जालें.

गोंय स्वतंत्र जायना फुडें पुर्तुगेज सरकार पुर्तुगालाक गेलो. पुण तो आपणाक सांगनासतना गेलो म्हणून गोंयकारांक खूब वायट दिसलें. पुर्तुगेज गेल्या उपरांत कितलेशे गोंयकार फुडले कितलेशे म्हयने तांचो उगडास काडून रड रड रडटाले.

तांचेंय म्हणणें बराबर. पुर्तुगेजांनी गोंयकारांचेर आनी गोंयकारांनी पुर्तुगेजांचे साडे चारशीं वरसां मोग केलो. मोग आसता थंय शीण आसता. कांयच न जाल्यार निदान पुर्तुगेजांनी गोंयकारांक गोंय सोडून वेतना ' आमी वेतांत ' अशें तरी सांगपाचें. गोंयकार तांकां बोटिच्या धक्यामेरेन तरी पावोवंक वेतले आसले मायेमोगान आदेव्श करतले आसले.

पुर्तुगेज अशो अकस्मात गोंय सोडून गेल्यान गोंयकार सामके शेणिल्ल्यावरी जाले. तांकां व्हडलो शॉक बसलो. तांतल्यान सांवरता म्हणसर तांकां बरो तेंप गेलो. पुण अशेंय आसतना गोंय स्वतंत्र जायनाफुडें— संवसाराचे चालीरितीव धरून— गोंयकारांनी स्वतंत्रतायेचो दबाजो मनयलो. त्या निमतान तांणी जळ मळीं सभा घेतल्यो. पुर्तुगेजांच्या वेळार सभा जाताल्यो त्यो गोंयच्या गोव्हेर्नादोरांनी काम्रांक भेटी दितकूच त्या काम्रांच्या मुखेल सालांनी. ह्या सभांक गोव्हेर्नादोर उलयताले आनी काम्रांचे प्रिसीदेंत उलयताले. ज्या काम्राक गोव्हेर्नादोर भेट दितालो त्या काम्राचो प्रिसीदेंत ताका येवकार दितालो. आपल्या उलोवपांत तो पुर्तुगाल हें संवसारांतलें सगल्यांत व्हड राश्ट्र .... पुर्तुगेजांनी आमचेर राज्य करपं हें आमचें व्हड भाग्य.... तांचो आमचेर खूब मोग.... आनी त्या मोगाक लागून तांणी हो भांगरा सारको मनीस (गोव्हेर्नादोर) हांगां धाडला, अशें बी सांगतालो आनी तें आयकून लोक ताळयो पेट्टाले. उपरांत गोव्हेर्नादोर आपल्या उलोवपांत पुर्तुगालाची, सालाझाराची, गोंयची आनी गोंयकारांची तुस्त करतालो. तें आयकनाफुडें तेंच लोक आनीक व्हडल्यान ताळयो पेट्टाले.

स्वतंत्रताये उपरांत गोंयच्या सगल्या शारांनी आनी गांवांनी घे८८ म्हणून सभा जावंक लागल्यो. हांतल्यो चडशो सभा पयलेच खेप उकत्या मळांचेर जावंक लागल्यो. शारांनी शारांतले फुडारी आनी गांवांनी गांवचे फुडारी ( हांतले चडशे फुडारी स्वतंत्रताये उपरांत फुडारी जाल्ले ) ह्या सभांनी उलोवंक लागले. दर एके सभेंत (कुकमाक आधार म्हणटात तसो) एकाद्रो स्वातंत्र्यसैनीक हाडून प्लॅटफॉर्मचेर बसयताले. तो बावडो थंय आंग चोरून हेर उलोवप्यां मदीं बसतालो. एकाद्रो बरो पेजाद मनीस असले सभेचो अध्यक्ष जातालो. उपरांत सभा सुरू जाताली. दरएकलो उलोवपी—तो बावडो एक स्वातंत्र्यसैनीक सोडून— भाशण करतना ताळो सरांटून आड्डतालो. भितल्लो एकाद्रो उलोवपी—तो नाटकांनी बी कामां करपी आसत जाल्यार—हे सभेंत शिवाजी आपल्या मावळ्यां

खार उलयतालो तसो उलयतालो. असल्या सभांनी उलोवपी कोंकणी, मराठी, ग्लेज, पुर्तुगेज ह्या भासांनी उलयताले. जे मराठींत उलयताले तांगेले मराठीक ात् पुर्तुगेजीचो वास येतालो. असल्या ह्या उलोवण्यांच्या भाशणांचें सार एकूच ासतालें...साडे चारशीं वरसां उपरांत आयज गोंय स्वतंत्र जालां. पुर्तुगेजांच्या ुलमाक लागून आमकां अशे त्रास जाले, तशे त्रास जाले– तशे त्रास जाले. इतलेंय ासून आमगेली सस्कृती आमी तिगोवन दवल्ली. आयज आमी स्वतंत्र जाले. ायचो हो दीस गोंयच्या इतिहासांत भांगराच्या अक्षरांनी बरोवन दवरिसारको ासा. ( गोंय स्वतंत्र जायना बराबर हांगाचे स्मगलींग बंद जालें. आनी भांगराचो र खूब वाडलो. तें आदले वरीच सवाय आशिल्लें जाल्यार गोंयकार हो दीस ्कादो खरोच भांगराच्या अक्षरांनी बरोवन दवरतले आशिल्ले. )

त्या वेळार आमगेल्या गांवांत अशीच एक सभा जाली. प्रोफसोर भासून हे ़भेचें येजमानपण चलयलें. प्रोफसोर भासू हो आमगेल्या गांवचो सगल्यांत चड ाकिल्लो मनीस अशें आमचे गांवचे लोक म्हणटात. ( कारण तो कितें शिकला कोणूच नकळ !) ताणें त्या दिसाचे ते सभेंत आपलें भाशण अशे तरेन फुलयलें :

“ साढेछारशीं व्हर्शान्हंतर हामचा घोवा हाज स्वथंत्र होत हाहे ही एक ानंधाची घोष्ट हाहे. घेलीं साढेछारशीं व्हर्शें पुर्थुगॅझांनी हामचा फाऽऽर फाऽर ळ खेला. हेवढा छळ खेला ह्स्थाना धेखील हामी हामची संस्कृथी थिगवून वली. हाज हापण थ्यांच्या घुलामघिरींतून म्होखळे झालों. हाजचा हा हानंधाचा वस घोव्याच्या इतिहासांत सुव्हर्णाक्षरांनी लिहून ठेवण्यासारखा हाहे. ”

त्या दिसाचें कितेंय जावं पुण आमगेल्या गांवच्या लोकांक प्रोफसोर भासूलें हें ाशण मात् भांगराच्या उतरांनी बांदून दवरचेंशें दिसलें.

# १२. गोंयकारांचें राजकारण

एकाद्रो गोंयकार जेन्ना राजकारणांत पडटा तेन्ना ताका शें-शंबर कारणां आ
येतात. तांतलीं कांय म्हत्वाचीं कारणां अशीं :

१. ताणें कोणाय कडल्यान रिणां काडिल्लीं आसूं येतात.
२. ताका कोणेंय बरी बुद्द शिकयल्ली आसूं येता.
३. ताका कोणाच्याय घराचेर सुणीं चडोवपाचीं आसूं येतात.
४. ताका कोणेंय ' तूं पयलो बूर ' म्हणिल्लो आसूं येता.
५. ज्योतिशान ताका ' तूं मुखेलमंत्री जातलो ' अशें सांगिल्लें आसूं येता.
६. ताका भाशणां करपाची आवड आसूं येता.
७. ' तूं भाऊ बांदोडकारावरी दिसता ' अशें तागेल्या सोयऱ्यांनी ता
म्हळ्ळें आसूं येता.
८. ताका बऱ्यावायट मार्गांनी ( बायलेच्या नांवान वेपार सुरू करून, सरका
मदत घेवन बी ) पयसो एकठांय करपाचो आसूं येता.

ह्या आठ कारणांभितर तांतले तातूंत निमाणें कारण चड म्हत्वाचें. गोंय
काराचे नदरेन, देवान गोंयकाराक मेंदू दिला तो आपसुवार्थी वेपाऱ्याचो. खंयचे
गजालींतल्यान आपलो फायदो कसो करून घेवंचो इतलेंच तो पळेता. आनी
गजालींतल्यान आपलो फायदो जाता तीच गजाल तो आपल्याक लावन घेत
गोंयकाराक राजकारण लागता तें ह्याच कारणाक लागून.

मीन काडून वा ब्लॅक करून जसो पयसो करूं येता तसो राजकारण करून
करूं येता हाची जेन्ना गोंयकारांक जाण जाली तेन्नाच तांतले चडशे राजकारण
पडले. जाका राजकारणांत पडपाचें आसलें ताणें गणीत मांडलें तें अशें :

१. हांव इलेक्शनाक उबो रावलों जाल्यार म्हाका खर्च कितलो येतलो? ड्पोझीट भरूंक इतलो; प्रचाराक इतलो.

२. खंयच्याय पक्षान म्हाका तिकेट दिली जाल्यार हांतलो चडसो खर्च त्या क्षाचो.

३. कोणेंय म्हाका तिकेट दिली ना जाल्यार डिपोझिटाचे पयशे म्हज्यान ोणाय कडल्यान घेवं येता. प्रचाराच्या पयशां खातीर म्हज्यान रीण काडूं येता.

४. उपरांत वेंचून आयलों जाल्यार म्हज्यान एम्. एल्. ए; एम्. पी. वा ंत्री जावं येता.

५. असो कोणूय जालों जाल्यार रिणकारी रिणां मागूंक काय म्हजेकडेन वंचे नात. (आयलेच जाल्यार ते आपलीं कामां घेवन येतले.)

६. इलेक्शनांत हांव पडलों जाल्यारूय म्हाका व्हडलेशें लुकसाण ना. (लोकांचे यशे फारीक करप ना.)

७. एम्. एल्. ए., एम्. पी. वा मंत्री जालों जाल्यार म्हजेकडेन भरपूर धिकार येवं येता. त्या अधिकाराचो जाय तसो उपेग करून म्हज्यान भरपूर यसो करूं येता.

खेरीज, मंत्रांच्या दारांत लेगीत खपचे नात असले मनीस देशभर मंत्री जाल्लें ंयकारांनी पळेल्लें. आनी मंत्री जातकूच लोक तांकां कशे मान दितात, येतात हेंय तांणी पळेल्लें. 'दिल्लींत यशवंतराव आनी महाराष्ट्रांत वसंतराव र मंत्री जावं येता जाल्यार गोंयांत म्हज्यान कित्याक मंत्री जावं नज?' असो र एका राजकारणी गोंयकाराक प्रस्न पडलो. आनी ह्या प्रस्नाक 'म्हज्यान ोंयच न्हय करून मंत्री जावं येता. आनी हांव मंत्री जालों जाल्यार तांच्याक रो सोबतलों' अशी ताची ताका जाप मेळ्ळी. त्याबराबर पेंगट बांदून राज- ारण करपाच्या वावराक तो लागलो.

झाकतां झाकतां हेरकडेन लोक गांवकार जातात तशे गोंयांत राजकारणी ातात. गोंय स्वतंत्र जायना फुडें आदीं जे लोक पुर्तुगेजांचेर उलयताले ते आतां तंत्रताय, नेहरू आनी भारत सरकार हांचेर उलोवंक लागले. गोंयचे स्वतंत्रता- ाचेर उलयतना....कृष्ण मेननान नेहरूक कितें बुद्द दिली....उपरांत नेहरून लीटरी ॲक्शन कशें घेतलें....गोंयांत सैन्य कशें आयलें....नेहरू तकलेन कसो ीन....पुण अशेंय आसतना नेहरून अशें करपा बदला जर तशें केल्लें जाल्यार

अदीक बरें कशें जातलें आसलें....अशे पदधतीन उलोवंक लागले. आनी त
तरेन उलयतां उलयतांच ते एक दीस राजकारणांत पडले.

पुर्तुगेजांच्या काळार गोंयकारांक राजकारण लागनासलें. कारण तेन्ना गों
कारांचें म्हणणें आसलें, " पुर्तुगेज हे राज्य करपी लोक. तांणीं आमचेर रा
करपाचें आनी आमी तें करून घेवपाचें. राजकारण तांकां लागता, आम
लागना. " गोंय स्वतंत्र जायना बराबर हांगा रोखडेच कोंकणीवादी, मराठीवादं
गोंयवादी, महाराष्ट्रवादी अशे वेगवेगळे पंगड उप्रासले. आनी त्याचबरा
तरेतरेचे वाद हांगां सुरू जाले. आनीक एक गजाल म्हळयार, स्वतंत्रताये उपरं
पयलेच खेप आदल्या पुर्तुगेजवादी गोंयकारांक वायट दीस आयले. आनी त्या
बराबर स्वातंत्र्यसैनिकांक बरे दीस आयले. जांकां राजकारणांत पडपाचें आस
त्या सगल्यांनी स्वातंत्र्यसैनिकांक घट धल्ले. आनी ते तांकां आपले गुरू मानू
लागले.

राजकारण म्हणटात तें नाटकांवरी आसता. तातूंत मंत्री, खासदार, आमद
अशीं लोकां मुखार येवपी कांय बारीक मोटीं सवंगां आसतात. खेरीज नाटक
पड्डया फाटल्यान लोक आसतात, तशेंय तातूंत आसतात. ह्या लोकांक आमच्यां
राजकारणांतले आलेभाव कोलेभाव म्हणूं येतात. जांकां संवगां म्हणून राज
माचयेर येवपाचें आसता तांकां दोन गजालिंची गरज आसता. पयली गजा
म्हळयार मंत्री, खासदार, आमदार हांतल्या दरएकल्याक त्या त्या सवंगाप्रमा
पोशाख करचो पडटा. आनी दुसरी गजाल म्हळयार तांकां प्रसंगाक सोब
भाशणां करचीं पडटात.

गोंयकारांनी ह्यो सगल्यो गजाली बारीकसाणेन तेळ्ळयो. आनी त्या प्रमा
आपली तयारी करपाक सुरवात केली. पयल्यान पयलीं ताणीं आल्फियादांक
सदरे, लेंगे आनी गची-फिच्याद ( जोधपुरी ) कोट शिंवूंक उडयले. (
आल्फियादांनी तांगेले सदरे-लेंगे सुमाराचे शिंवले. पुण कोट मात् तांणी आपणा
जमता ते परीन चोळे जावं पाद्रींचे लोब कशे शिंवले ). उपरांत ह्या राजकार
गोंयकारांनीं मेळटा त्या सभांनी वचून तोंडाक येतात तशीं भाशणां दिवप
सुरवात केली.

जेन्ना पयलें इलेक्शन आयलें तेन्ना विधानसभेच्या आनी लोकसभेच्या मेळ

तीस जाग्यां खातीर कांय ना म्हळयार शें–दोनशें लोक उबे रावले. आमगेल्या ांवचो जनू देसाय ह्या इलेक्शनांत उबो राविल्लो. अर्ज भरचे पयलीं एक दीस ागेलें आनी शाणू पसरकारालें उलोवप जालें तें अशें :

—हय रे शाणू, थोडे पयशे मेळत ?

—कितले ?

—तीनशें रुपया.

—कित्याक रे ते ?

—इलेक्शनाक उबो रावतलों म्हणटां.

—त्या खातीर तीनशें रुपया ?

—उबो रावतलो जाल्यार त्या आदीं भरचे पडटात रे ते.

—पक्ष खंयचो तुगेलो ?

—म्हाका तसो खंयचोच पक्ष लागना. कोण तिकेट दिता जाल्यार पळेतां. ो पक्ष दिता ताचे तर्फेन उबो रावतलों म्हणटां. ना जाल्यार मागीर अपक्ष हणून आसाच.

—पुण म्हाका एक सांग, तुगेल्या ह्या सगल्या उचापतीं खातीर हांवें शे तुका यशे कित्याक दिवप ? म्हाका फायदो कितें ?

—एक फावट जिखलो म्हणटकूच भरतात रे ते. मागीर तुका ते कळंतरा- यत फारीक करूं येत.

अखेरेक शाणू पसरकारान जनूक पयशे दिले काय ना तें हांव नकळं, पुण ाणें डिपोझीट भल्लें आनी तो इलेक्शनाक उबो रावलो. जमता ते परीन ापलो प्रचार केलो. उपरांत – इलेक्शन सामकें लागीं पावतकूच— मुखेल क्षांच्या उमेदवारांक मेळून ताणें दर एकल्याक सांगलें, " तुजेखातीर जाय जाल्यार ांव फाटीं सरतां. म्हाका जाला तो देश्पेज दितकूच जालो. " ताका कोणें लागीं ल्लो ना, ही वेगळी गजाल. पुण सांगपाचें तात्पर्य अशें कि गोंयच्या इलेक्शनाक बे रावतात ते चडशे जनू देसायाचे अवतार आसतात.

पयल्या इलेक्शनांत युजी, एमजी आनी काँग्रेस अशे तीन पक्ष उबे आसले. ा पक्षांची धोरणां अशीं आसलीं :

पक्ष धोरण

युजी (युनायटेड गोवन्स) : गोंयची भास कोंकणी; गोंयचें वेगळें राज्य जा

एमजी (महाराष्ट्रवादी गोमंतक) : गोंयची भास मराठी; गोंय महारा विलीन जावंचें.

काँग्रेस : ह्या पक्षाचें धोरण खूब कुंप्लीकाद आ ( फकत पक्षाच्या फुडाऱ्यांकूच कळपाचें. )

ह्या इलेक्शनांत खुबशा शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या लोकांक काँग्रेस येतलि दिशिल्ली. मुख्य म्हळयार काँग्रेसच्या उमेदवारांकूय तशें दिशिल्लें. देखू निकाल लागचे पयलींच खासदार, आमदार आनी मंत्री कशे वावरूंक लागि एके वटेन हे लोक मंत्र्यांचे बंगले आनी खातीं आपणा भितर वांटून घेताले त वेळार तेवटेन इलेक्शनाचो निकाल लागलो— एमजी भोवमत्तान राज्यकर्ती म्हणून वेंचून आयली, युजी विरोधी पक्ष जालो आनी काँग्रेस पडली.

ह्या इलेक्शनांत काँग्रेस कित्याक पडली हाचेर त्यावेळार राजकी पंडितांनीं दिलीं तीं अशीं :

१. काँग्रेस हो धड हिंदुंचो पक्ष न्हय, धड क्रिस्तांवांचो पक्ष न्हय, म काँग्रेस पडली.

२. काँग्रेस हो बामणांचो पक्ष म्हणून काँग्रेस पडली.

३. काँग्रेसचे फुडारी बेजबाबदार म्हणून काँग्रेस पडली.

४. काँग्रेसीचें धोरण लोकांक समजलें ना म्हणून काँग्रेस पडली.

आमगेलो शाणूदाद व्हडांतलो व्हड राजकी पंडीत. बरकांवार बसून कारणाचेर चर्चा करपी. त्यावेळार ताणें आपलें मत्त दिलें तें अशें : काँ एक व्हड चूक केली. ह्या इलेक्शनांत खुबशा स्वातंत्र्यसैनिकांक तिणें उबे त्या बदलाक काँग्रेसीन स्मगलरांक तिकेटी दिल्ल्यो जाल्यार ते दुबावाविणें येतले आसले.

ह्या इलेक्शनांत युजी आनी एमजी ह्या पक्षांक तांच्या निशाण्यांवेल्यान आनी शींव हांचेवेल्यान–वळखूंक लागले. उपरांत 'शींव' हें उतर फाटीं एमजीच्या लोकांक 'झापा' ( झालाच पाहिजे ) म्हणून वळखूंक लागले.

एमजीचे कारकिर्दीत कोंकणी–मराठीवाद, गोंय–महाराष्ट्रवाद असल्या व

ूब वोतो आयलो आनी तांतल्यानूच ओपिनियन पोल जल्माक आयलो. ओपि-नियन पोल खरो कोणें हाडलो हो प्रस्न शिवाजीची खरेली जल्मतारीक खंयची असो एक महाराष्ट्रांत वाद आसा तितलो कुम्पलीकाद. दिल्ली, गोंय, महाराष्ट्र आनी कर्नाटक ह्या चार राज्यांनी मेळून गोंयच्या ओपिनियन पोलचो बापूय आपूण म्हणून सांगपी कांय ना म्हळयार २०–२५ तरी लोक अजून मेळटले. पणजेंत फटुबाब म्हणून एक जाणटेलो मनीस आसा. तो सदांच एक गजाल सांगता ती अशी : १९६५ वरसाच्या डिसेंबर म्हयन्यांत एका आयतारा मंगेशीं गेल्ले कडेन ताका देवळांत एक मनीस मेळ्ळो. आपूण प्रायम मिनिस्टराचो सेक्रेटरी अशी फटुबाबाक ताणें आपली वळख करून दिली. उपरांत गोंयच्या प्रस्नाचेर दोगांयचीं उलोवणीं जालीं आनी त्यावेळार फटुबाबान ताचेंकडेन पयलेच खेपे ओपिनियन पोलची पुडी सोडली. परथून दिल्लीक वेतकूच फटुबाबालें म्हणणें ह्या मनशान प्रायम मिनिस्टराच्या कानार घालें आनी ताका लागून गोंयांत ओपिनियन पोल आयलो, अशें फटुबाबालें म्हणणें.

ओपिनियन पोलांत गोयकारां मुखार दोन पर्याय आशिल्ले : १. गोंय महा-राष्ट्रांत विलीन जावंचें. २. गोंय संघराज्य उरचें. ह्या पोलांत दोन नव्यो निशाण्यो आयल्यो. त्यो म्हळयार 'फूल' आनी 'दोन पानां'. पोलाक लागून गोंयकारांचे दोन वांटे जाले-पानकार आनी फुलकार. आदले हातकार तेन्ना पानकार जाले आनी आदले झापा फुलकार जाले.

ओपिनियन पोलांत ह्या पानकारांनी आनी फुलकारांनी आड्डयो माल्ल्यो त्यो अशो :

—तुमचें मत कोणाक ? दोन पानांक.

—तुमचें मत कोणाला ? गुलाबाच्या फुलाला.

—नको आम्हाला श्रीखंडपुरी, आमची शीत कढीच बरी.

—जिथं मुंबई तिथं गोवा.

—सरकार हवें पणजीला, गरिबांच्या हितरक्षणाला.

—सरकार हवें पणजीला, कशाला घठ्ठाण करायला ?

—गोवा आहे महाराष्ट्राचा, नाही कुणाच्या बापाचा.

ओपिनियन पोलांत फक्कत दोनूच पर्याय दवल्लेले. त्या बदल भारत सरकार-च्यान आनीक कितलेशे पर्याय दवरूं येताले. देखीक, गोंयांत परथून सध्याचे

परिस्थितीक धरून ओपिनियन पोल घेयत जाल्यार हे पर्याय दवरूं येतात अ
तांचेर गोंयकारांचीं मत्तां घेवं येतातः

१. गोंय संघराज्य उरचें.
२. गोंय वेगळें राज्य जावंचे.
३. गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावंचें.
४. गोंय कर्नाटकांत विलीन जावंचें.
५. कर्नाटक गोंयांत विलीन जावंचें.
६. महाराष्ट्र गोंयांत विलीन जावंचो.
७. महाराष्ट्र आनी कर्नाटक गोंयाक जोडून 'विशाल गोमंतक' राज्य क
८. गोंय पुर्तुगालाक जोडचें.

हांचेर गोंयकारांचीं मत्तां घेतल्यार, हेर पर्यायांपरस निमण्या तीन पर्या
तांचीं चड मत्तां पडटलीं. आनी तातुंतूय अखेरेक 'गोंय पुर्तुगालाक जोडचें
मत्ताचो जय जातलो!

# ३. गोंयचे फुडारी

पिशांक शिंगां नासतात तशीं तीं गोंयच्या फुडाऱ्यांकूय नासतात. पुण अशेंय आसतना गोंयचे फुडारी म्हणटात ते रोखडेच वळखूंक येतात–निदान फुडारी जातकूच तरी. कारण एकाद्रो गोंयकार आदीं कितलोय अबर्गत आसलो तरी फुडारी जातकूच तो बरो लापीट जाता. आदीं तो कितलोय तोंड–दुबळो आसलो तरी फुडारी जातकूच तो सामको वाचा विदाळ जाता. हाका लागून एकाद्रो सदाफटींग मनीस लेगीत फुडारी जालो म्हणटकूच गोंयांत ताका आपशींच लोकांकडल्यान रेश्पेयत मेळूंक लागता.

" फुडारी म्हळ्यार कोण ? " असो कोणेंय एकाद्र्या गोंयकाराक प्रस्न केलो जाल्यार तो जाप दितलो : " जो भाशणां करता तो फुडारी. " जो चडान चड आनी व्हडान व्हड भाशणां करता तो मोटयांत मोटो फुडारी अशें तागेलें प्रामा-णीक मत्त. हें मत्त जशें हेर गोंयकारांचें तशेंच फुडाऱ्यांचेय बी. देखून ते दीसरात भाशणां करीत आसतात. पयलीं पयलीं फुडारी जीं भाशणां करता तीं फुडारीपण मेळोवपाखातीर. उपरांत ते जीं भाशणां करतात तीं देवादयेन मेळिल्लें फुडारीपण सांगोवन दवरपाखातीर.

गोंयांत कोणाकूय फुडारी जावपाचो आसत जाल्यार एक तर तो सांजेच्या पावणाक पादिशोर तरी आसूंक जाय, ना जाल्यार ताचेकडेन पयसो तरी सामको आसूंक जाय. जाचेकडेन पयसो नासता तो चार पयशांची गांठ करपाखातीर फुडारी जाता. जाचेकडेन भरपूर पयसो आसता ताका फुडारी जावपाची बेठीच एक खाज आसता. चडकरून, बऱ्या वायट मार्गांनी पयसो करुनूय जर एकाद्र्याक लोकां-कडल्यान फावो तसो मान मेळ्ळो ना जाल्यार तो मागीर मान मेळोवपाखातीर

म्हणून फुडारी जाता.

एका मिनैराची एक काणी सांगतात. गोंय स्वतंत्र जायनाफुडें ताका आप
एक बरो व्हडलो फुडारी जावंचें अशें दिसलें. मिनैरांचें अशें आसता-खंयचं
गजाल मनांत आयली म्हणटकूच रोखडीच ती करपाखातीर ते पावलां उखलता
तांचें पयशांखातीर केन्ना कांय अडना. फुडारी जावपाचें मनांत येनाबराबर
मिनैरान राजकारणांत बऱ्या तिजिल्ल्या एका स्वातंत्रसैनिकाक आपल्या घरा जेवप
व्हेलो. आनी ताका गजालिंनी विचाल्लें, "म्हज्यान गोंयचो मुखेलमंत्री ज
येता ?"

"बरे भशेन."

"भारताचो प्रधानमंत्री जावं येता ?"

"हय."

"राष्ट्रपती ?"

"जावं येता."

"कितलो खर्च येतलो ?"

त्या स्वातंत्रसैनिकान त्या मिनैराक कितें जाप दिली हांव नकळं. पुण सांगपा
गजाल अशी, निव्वळ पयशांच्या मालवजार फुडारीपण मेळोवं येतालें जाल्यार
मिनैर भारताचो राष्ट्रपती केन्ना जाला !

गोंयांत फुडारी आनी हेर लोक हांचें नातें सदां विचित्र आसता. ज्या लोक
एकाद्रया फुडाऱ्याक फुडारी केला त्या लोकांची तो फुडारी सदांच तोंड फुट
तुस्त करता. पुण लोकांचें तशें नासता. ते चडकरून जेन्ना एका फुडाऱ्याक
म्हणटात, तेन्ना दुसऱ्याक गाळी घालतात. इतलेंच न्हय, एक खेप
फुडाऱ्याक बरो म्हणटात, ताकाच दुसरे खेप गाळी घालूंक लेगीत ते
करिनात.

त्या मानान फुडाऱ्यां-फुडाऱ्यांचे संबंद खूब बरे आसतात. चड करून एक फुड
दुसऱ्या फुडाऱ्याचें केन्ना कांय वायट उलयना. आपूण कोणाचेंय कितेंय व
उलयलों जाल्यार जाचें आपूण वायट उलयतां तो मनीस आपलेंय केन्नाय व
उलोवं येता, ही गजाल दर एकलो फुडारी सदांच मतींत धरता. देखून एका
फुडाऱ्याचो दोश लेगीत सांगपाचो आसल्यार ताचो गूण करून तो ( फुडा
सांगता. एकाद्रया फुडाऱ्यान लोकांक नागोवन पयसो केलो जाल्यार लेगीत दु

डारी ताचेविशीं, “ तो मनीस बरो हुशार आं.ऽऽ ! ताणें बरो पयसो केलो.”
शें लोकांक सांगतलो.

गोंयांत अजून मेरेन जे व्हडानव्हड फुडारी जाल्यात तांतले दोग सगल्यांत
ड फुडारी म्हळयार भाऊ बांदोडकार आनी भाऊ काकोडकार. पयलो भाऊ
नतेचो फुडारी, जाल्यार दुसरो भाऊ जे लोक जनतेंत मोडना तांचो फुडारी–
दोन भाऊ भितल्लें अंतर म्हळयार– पयलो भाऊ उलोवंक उबो रावल्या-
ाबर तो उलोवंचे पयलींच कितें उलयतलो हें लोकांक समजतालें. इतलेंय
सून उमळशिकेन ते तागेलें उलोवप आयकताले. हाचे उरफाटें, दुसरो भाऊ
तलोय उलयलो जाल्यार तो कितें उलयलो हें तागेलें उलोवप आयकल्याउपरांत
गीत तांकां समजनासलें. खंयच्याय फुडाऱ्यान सभांनी कशें उलोवंचें हें ताणें
सऱ्या भाऊकडल्यान शिकपाचें. तीन–चार वरां भाशण करुनूय त्या भाशणां-
ल्यान लोकांक कांयच कशें सांगप ना हें फक्कत ताका एकल्याकूच समजतालें.

हे दोनूय भाऊ आपापल्या पक्षांच्या मिटिंगांनी सादारण अशे तरेन उलयताले.

**यलो भाऊ :** जो तो उठ्टा आनी महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचेर टीका करता. तुमचे पैकीं कोणाक पक्षाचें धोरण पसंत ना जाल्यार ताणें पक्षांतल्यान भायर सरचें. मागीर पक्षाचें कितें करचें तें हांव पळेतां— आयज जर गोयांत खरो जन्तेचो पक्ष खंयय आसा जाल्यार तो आमचो. हें ह्या रेडयांक कोण सांगतलो ? हेर पक्ष जे हांगा आसात ते सगले देडशाण्यांचे पक्ष. ते काकोडकाराचे कॉंग्रेसीक जाल्यार हांगा सुणोलेंगीत खायना. जन्तेन लोकशायीपद्धतीत आमकां सत्तेर हाडल्यात. म्हणटकूच आमी जें कितें बरें वायट करतात तें लोकशायी पद्धतीनूच करतात, असो ताचो अर्थ जालो ना ? आनीक लोकशाय, लोकशाय म्हणटात ती कितें ?

**दुसरो भाऊ :** जो तो उठ्टा आनी कॉंग्रेसच्या धोरणाचेर टीका करता. हांव म्हणटां कॉंग्रेस म्हळयार कितें ? कॉंग्रेस म्हळयार स्वतंत्र पक्ष ? न्हय. कॉंग्रेस म्हळयार जनसंघ ? न्हय. कॉंग्रेस म्हळयार कम्युनिस्ट ? न्हय. कॉंग्रेस म्हळयार सोशलिस्ट ? न्हय. तर कॉंग्रेस म्हळयार कितें ? कॉंग्रेस म्हळयार कॉंग्रेस. ( थारून ) आतां आमी कॉंग्रेसचें धोरण म्हळयार कितें तें पळोवंया. कॉंग्रेसचें धोरण म्हळयार कितें ? कॉंग्रेसची घटणा ? न्हय.घटणा वेगळी, धोरण वेगळें. धोरण म्हळयार कितें ? धोरण म्हळयार

हें ? न्हय. धोरण म्हळयार तें ? न्हय. तर धोरण म्हळयार कितें ? ( दुसरो भाऊ केन्नाच आपल्या भाशणांत सांगनासलो. )

हरशीं गोंय स्वतंत्र जायना बराबर गोंयकारांनी फुडारीपण दिवंक ज आसलें तें हांगाच्या स्वातंत्र्यसैनिकांक. पुण बावडया स्वातंत्रसैनिकांचें नशिब फुटकें. ते चळवळ करताले तेन्ना लोकांनी तांचीं फकाणां माल्लीं. ( आ पुर्तुगेजांक देव लेखलो ! ) आनी जेन्ना गोंय स्वतंत्र जालें तेन्ना तर गोंयक तांकां सामकेच विसल्ले. पयल्या इलेक्शनाचो निकाल लागलो तेन्ना एक गजा स्पश्ट जाली–गोंयकारांनी स्वातंत्र्यसैनिकांचो त्याग सामको धुवन उडयल ह्या इलेक्शनांत कितलेशे स्वातंत्र्यसैनीक पडले, कितल्याश्या जाणांचीं डिपोझि जप्त जालीं. आनी तेन्नाच्यान हे स्वातंत्र्यसैनीक खऱ्या अर्थान 'पोलिटिक सफरर' जाले. आनी मागीर तांगेल्या हातांत खंयचीय गजाल दिवपाक आनीक भियेवंक लागले. कारण विचाल्ल्यार ते म्हणटाले, "पोलिटिकल सफ जाल्ल्यान खंयचीय गजाल तांच्या हातांत दिल्यार ती 'सफर' जावं येता."

गोंयकारांचे हे वृत्तीक लागून गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत स्वातंत्र्यसैनिकां जो मान मेळपाचो तो युनियन लिडरांक मेळ्ळो. मुरगांव बंदर आदीं जें फक्क मिनाच्या एक्स्पोर्टा खातीर फामाद आसलें तें उपरांत युनियन लिडरां खातिर फामाद जालें. स्वातंत्र्या उपरांत मोर्चे, बंद, संप हयो गजाली गोंयांत हाडपा एक व्हड काम ह्या युनियन लिडरांनी केलें.

युनियन लिडरांय परस गोंयांत सद्या चड फामाद म्हणटात ते राज फुडारी. हातूंत सगल्यांत पयलीं गांव पंचायती आनी म्युनिसिपालटी हांतले लो येतात. गांवच्यो सगल्यो नसत्यो पंचायती जे संस्थेक लागतात ते संस्थेक ग पंचायत म्हणटात. पंचायतिचो मुखेली म्हळयार सरपंच. हो गांवचो राज पुर्तुगेजांच्या वेळार गांवांत रेजिदोर आसतालो तसो आतां हो सरपंच. अं इतलेंच, रेजिदोराक लोक मान दिताले वा भियेताले जाल्यार सरपंचाचीं फिकाणां मारतात.

गांवांत सरपंच तसो शारांत मेयर. पंचायतिच्या हेर वांगडयांक गांवांत को वचारिना, तशीच म्युनिसिपालटिच्या हेर मेंबरांचीय शारांत कोण वासपूस करिन शारांतले लोक मान दितात तो फक्कत मेयराक. कारण मेयर हो कायद्यान शार तलो पयलो नागरीक. पुण मेयराची चलणूक पळेत जाल्यार तो शारांतलो एक

ागरीक काय असो कोणाकूय भास जावपाचो. मेयराक दोन म्हत्त्वाचीं कामां ासतात : वर्सभर आपूण शार अशें सुदारतलों, तशें सुदारतलों अशें लोकांक ांगत रावप हें तागेलें पयलें म्हत्वाचें काम. आनी दुसरें म्हत्वाचें काम म्हळयार सें सोंपतकूच आपणांक शार कित्याक सुदरूंक मेळ्ळें ना हाचीं कारणां लोकांक ांगत रावप. मेयराचो टर्म तीन वरसां म्हणटकूच तिनूय वरसां हीं दोनूय कामां ो बेस बरे तरेन करीत आसता. जो मेयर हीं कामां वेवस्थीत चुकय नासतना करता तो 'बरो मेयर' म्हणून नांव मेळोवन वेता.

गोंयांत राजकी फुडाऱ्यां भितर खरे भोवमानाचे मनीस म्हणटात ते आमदार, ासदार आनी मंत्री. हातूंत आमदाराक जितलो मान आसता, तितलो खास- ाराक नासता. कित्याक तर आमदार सदांच गोंयांत आसता, जाल्यार खासदार दिल्लींत रावता आनी अर्दी मर्दी गोंयांत फावटी मारता. आमदार गोंयांत ाशिल्ल्यान तो कोणाच्याय उल्याक पावूं येता. खासदार दिल्लींत रावता म्हणट- ूच गोंयांत कोणेंय ताका उलो माल्ल्यार ताका तो थंय कसो आयकूंक येतलो ?

आमदार हे दोन तरांचे आसतात– सरकारी पक्षाचे आमदार आनी विरोधी क्षाचे आमदार. ॲसेंब्लींत सगल्यांचें काम एकूच—मेजार मुठी मारून अर्थ ाशिल्लीं भाशणां करप. ताळो सरांटून आड्डून एकामेकांकडेन झगडले म्हणट- ूच 'अमक्या अमक्या प्रस्नाचेर ॲसेंब्लींत काल गंभीरपणान चर्चा जाली' असो दुसरे दीस वर्तमानपत्रांनी ताचेर रिपोर्ट येता.

ॲसेंब्ली भायर सरकारी पक्षाचे आमदार आनी विरोधी पक्षाचे आमदार ह्या दोगांय भितर खूब अंतर आसता. सरकारी पक्षाचे आमदार लोकांचीं कामां करतां म्हणटात, तांचे कडल्यान पयशे घेतात आनी तीं कामां करिनात. हाचे उरफाटें, विरोधी पक्षांचे आमदार लोकांचीं कामां करतां म्हणटात, तीं करतात आनी उपरांत तांचे कडल्यान त्या केल्ल्या कामांचे पयशे घेतात.

खासदारांक हांतलें कांयच जमना. ताका जो इल्लोसो मान आसता तो 'तो दिल्लीसावन गोंयच्या राजकारणाचीं सुत्रां हालयता' असो ताचेविशीं लोकांचो चुकिचो समज आसता ताका लागून. देखून. कोणेंय कितेंय विचाल्ल्यार, 'हांवें तें व्युस्त केलां' अशी बेठीच एक सुरय फटास तो मारता. खासदाराकडेन केन्नाच कोणाचीं कसलीं कामां जायनात. तरीय आसतना कोणूय कसल्याय कामाक

ताचेकडेन वचत जाल्यार ' पळेतां दिल्लीक अमक्या अमक्या मंत्र्याकडेन उत
घालून ' अशें म्हणून तो वेळ मारून व्हरता.

हरशीं खासदाराक दिल्लीक कोण खायना हें सगले गोंयकार बरे भशेन जाणांत
पुण एकाद्रया खासदाराक तुमी अशें म्हणशात जाल्यार तो तटांयच करून तुमक
परतें विचारतलो, " आमकां कोणें खावंचे म्हणून तुमी आमकां इलेक्शनांत मत्त
दिल्लीं व्हय तर ? "

❦ ❦

## २४. गोंयचे मंत्री आनी तांचो कारभार

सगले राजकी फुडारी एकेच माळेचे मणी. हे माळेंतले मातशे व्हड मणी म्हळयार मंत्री. आनी ह्या मणयांतलो सामको म्हुर्तमणी म्हुळयार मुखेलमंत्री. मंत्र्यांची आनी हेर फुडाऱ्यांची कात एकूच, पुण जात वेगळी. हेर फुडारी संवसारांतल्या खंयच्याय विशयाचेर सारक्याच प्रमाणांत उलयतात, जाल्यार मंत्री फक्कत जनता जावं बहुजन समाज हांचेरूच चड उलयतात. फुडाऱ्याचें अशें आसता—तो कसल्याय प्रसंगाच्या निमतान उलोवंक उबो रावलो जाल्यार त्या प्रसंगाक सोबशें भाशण करता आनी उपरांत तें विसरून वेता. मंत्री कसलोय प्रसंग आसल्यार—हेवटेन तेवटेन कांय उतरां सोडल्यार–तेच तेच तरेचें भाशण करता. ( ताचेकडेन भाशणांचे ५–१० फॉर्म्युला आसतात. ) उपरांत तें भाशण आपल्या फोटो सयत वर्तमानपत्रांनी छापून येवंचें हाची वेवस्ता करता. सगल्या मंत्र्यांक प्रसिद्धिचो खूब सोस. दीसपट्टीं आपलीं नांवां, फोटे, भाशणां वर्तमान-पत्रांत छापून येवंचीं ह्या खातीर ते नाका आशिल्ल्यो राटावळी करतात. एक दीस एकाद्रया मंत्र्याचें नांव वर्तमानपत्रांत आयलें ना जाल्यार ते दीस रातची ताका न्हीद पडना. हीच गजाल आनीक चार दीस घडली जाल्यार तो मंत्री दुयेंत पडटा. आनी दुयेंत पडटकूच ताका समादान जाता. करण परथून ताचें नांव वर्तमानपत्रांत येवंक लागता.

गोंयचे मंत्री फॉल्ग मारतात असो कांय जाणांचो तांचेविशीं समज आसता. हो समज सामको चुकिचो. गोंयच्या मंत्र्यांक खूब कामां आसतात. आनी ह्या कामांफुडें तांकां बावडयांक उसरपत नासता. तांगेलीं म्हत्वाचीं कामां म्हणटात तीं अशेतरेचीं आसतात :

१. लोकांचेर फावोर करप.
२. सभांनी भाशणां करप.
३. भोंवड्यो ( दौरे ) करप.
४. अॅसेंब्लींत चर्चेंत वांटो घेवप.
५. ( फाविल्ल्या वेळार ) फायलींतल्या कागदांचेर सयो करप.

मंत्र्याच्या ह्या पांच कामांभितर पयलीं तीन कामां चड म्हत्वाचीं. कारण मंत्र्‍ हो लोकांचेर फावोर करपाखातीर आनी भाशणां–दौरे करपाखातीर जल्माक येत देखून, आदीं जाका कोण वळखलेगीत नासलो असो एकाद्रो गोंयकार मंत्री जाय जाल्यार तो मंत्री जायना फुडें शेंकड्यांनी लोक दीसपट्टे ताका मेळूंक वेतात. ह सगल्या लोकांच्यो कसल्यो तरी तक्रारी आसतात. दर एके तक्रारीक जोडून कसे तरी एक काम आसता. एकाद्रया मंत्र्याकडेन फुडें आपलें काम येतलें म्हणु आदीं ताचेकडेन बेठयोच फावटी मारपीय गोंयांत खुबशे लोक मेळटात. कारण सोदतलेच जाल्यार आयज मंत्र्याचो वाडदीस, काल मंत्र्याक थंडी जाल्ली पयर मंत्र्याचो बापोलभाव भायर पडिल्लो असलीं कारणां तांकां जाय तितल मेळटात. जांकां मंत्र्याक सदां मेळप शक्य नासता तें अदीं मदीं फोन करू ताची चवकशी करतात. आपली लोक अशी खबर घेतात हें पळोवन त्या मंत्र्या कूय खूब खोस जाता.

उपरांत लोकांचीं कामां सुरू जातात. मंत्र्याचे खबरेक वचपी लोक इल्ले इल्ले ताचे संवकळिचे जातात. मंत्र्याची खबर घेवन जातकूच ल्हवूच आपल्यो तक्रार ते ताच्या कानार घालतात. आनी त्याचबराबर आपूण कसल्या कामांक आयिल्ले तेंय ताका सांगतात. दर एका मंत्र्याक लोकांचीं असलीं कामां करचीं पडटात निदान 'पळेतां, कशें कितें करूं येता तें' अशें तरी ताका म्हणचें पडटा. खंयचोय मंत्री केन्नाच कोणाक दुखयना. 'तुजें काम जावचें ना' अशें सांगून तो केन्न कोणाक परतिना. हाचे उरफाटें, कोणाचेंय काम करून मंत्री एका फातरान दो सवणीं मारता : ( १ ) तांतल्यान तो लोकांचें बरेपण जोडटा, आनी ( २ मंत्रीपदार आसतना ताका जी कितेंय गांठ करपाची आसता ती तो तांत ल्यान करता.

खंयचोय मंत्री कोणाचेरूय कसो फावोर करता ही एक कुम्प्लीकाद गजाल लोकांचेर फावोर करपा खातीर आनी तांतल्यान आपलो फायदो करून घेवप

खातीर मंत्री एक व्हडली संघटणाच उबी करता. इलेक्शन जिखल्याबराबर तो कांय निवडून आयिल्ल्या आमदारांक लागीं धरता. जांणी ताका इलेक्शनांत हात-लायिल्लो आसता अशो तागेले हेर कांय आलेभाव कोलेभावूय तातूंत आसतात. देवळांत वचून म्हादेवाचें दर्शन घेतलो जाल्यार आदीं नंदीक पांयां पडचें पडटा तसो मंत्र्याक भेट्टलो जाल्यार आदीं ह्या आलेभाव-कोलेभावांक घट धरचे पडटात. तांचेकडल्यान इल्ली म्हत्वाची खबर मेळूं येता ती अशी- मंत्री अमकें अमकें काम करतलो काय ना? त्याचप्रमाण, अमक्या अमक्या कामाखातीर कितलो खर्च येवं येता?

मंत्र्यांची लोकांचेर फावोर करपाची पद्धत वेगळी आनी आपल्या मनशाचेर फावोर करपाची पद्धत वेगळी. मंत्रीपदार येनाफुडें आपलीं खातीं कितलीं, तांतूंत कितले लोक शिर्वीस करतात हाची मंत्री आपल्या सेक्रेटरीकडल्यान बारकायेन खबर घेता. मागीर आपल्या खात्यांनी शिर्वीस करतल्यांभितर आपले कळखिचे आनी नात्यांतले लोक कितले आसात हांची मंत्री एक यादी करता. खंयच्याय खात्यांत जागे रिते आसात जाल्यार ताचीय चवकशी करता. आनी रिते जागे आसात थंय आपले बापोलभाव-भयणी, मावशेभाव-भयणी, पुतणये-धुवडयो, भाचे-भाचयो हांकां लायता. आपल्या सगल्या पारेंतांक शिर्विसो लायतकूच मंत्री आपले बायलेच्या पारेंतांक खंय कशो शिर्विसेक लावंचे हाची एक येवजण तयार करता.

मंत्र्यांचे सगलेच सोयरेधायरे काय शिर्विसो करपीच लोक आसतले अशें धरूं नज. शिर्वीस करतल्यांची वासलात लायल्या उपरांत मंत्री मागीर आपल्या (आनी बायलेच्या) हेर पारेंतांची वासपूस करता. तातूंत जे वेपारी आसतात तांचे कड-च्यान तो सरकारी कामांखातीर सगले आसपाव घेबपाची ओर्द काडटा. कॉंट्रेक्टरांक तो सरकारी कॉन्ट्रेक्ट दिता. ज्या सरकारी कामाचीं टेंडरां बी भरचीं पडटात त्या टेंडरांविशीं पेपरांत जायराती दिवंचे पयलीं आपल्या पारेंतांक तीं टेंडरां भरात म्हणून मंत्री रकाद धाडटा. मंत्री चड करून असलीं चड पयशे जोडपाचीं ऑर्डरां आपल्या भावांक ना जाल्यार मेवण्यांक दिता. समजा एकाद्रें सरकारी बांदावळिचें व्हडलें काम आसा आनी मंत्र्याचो एकूय भाव वा मेवणो कॉंट्रेक्टर ना; जाल्यार ताणें कितें करप? ज्या कॉन्ट्रेक्टराक तें काम दिवपाचें आसता ताचे कंपनींत तो आपल्या भावाक ना जाल्यार मेवण्याक पार्टनर जा

म्हणून सांगता. चड करून मंत्रीच असल्या कामांनी मध्यस्ती करता. ताका
कंपनींत पार्टनर करता आनी उपरांत ते कंपनीक कॉन्ट्रॅक्ट दिता. एकाद्रो गो
कार मंत्री जालो जाल्यार ताच्या घरच्या आनी बायलेच्या घरच्या मनशांक ख
खोस जाता ताचें कारण हें.

हेर कामांभितर भाशणां करप आनी भोवंडयो ( दौरे ) करप हीं काम
मंत्र्यांचे नदरेन खूब म्हत्वाचीं. ह्या दोनांभितर तांतले तातूंत चड म्हत्वाचें क
खंयचें तें सांगप कठीण. दोगांयचो एकामेकांकडेन लागशिल्लो संबंद. इत
लागशिल्लो कि गोंयचे मंत्री भाशणां करपाखातीर भोवंडयो करतात हें तांगे
पी. ए. क लेगीत खबर नासता. हें चडूच जाल्यार तो तो मंत्रीच सांगूंक शक

मंत्र्यांचीं सगळीं भाशणां पेपरांनी छापून येतात म्हणटकूच ते पेपरांनी छा
येयसारकींच सदां भाशणां करतात. मंत्र्यांक वरसासंकीं हजारांनी दबाज्यांक हाज
रावचें पडटा. हे दबाजे म्हळयार उद्घाटणां, मनशांच्यो एकसस्टयो आनी मर
संस्थांचे रुप्या-दबाजे आनी भांगरा-दबाजे, शाळांचीं आनी कॉलेज्यांची गॅदरिं
सरकारी आनी खाजगी संस्थां तर्फेन राश्ट्रीय म्हत्वाचे दीस, इलेक्शना
प्रचार सभा, अशेतरेचे. कितलेशेच मनीस आनी तांगेल्यो संस्था मंत्र्यांक
दबाज्यांक हाजीर रावपाखातीर आफयतात. मंत्र्यांचो सभाव पडलो भिडे
कोणेंय खंयच्याय समारंभाक आफयतकूच तांच्यांनी ना म्हणूं नज. ते सगल्य
येतां म्हणटात. समजा एक प्रॉग्राम मडगांवां सांजचो सातांक आसा अ
दुसरो म्हापशां जावं पणजे सव्वा-सातांक आसा. ह्या दोनूय प्रॉग्रामांचे ले
एकाद्रया मंत्र्याक आफोवंक आयले जाल्यार मंत्री त्या दोगांकूय येतां म्हण
ताचेय फुडें वचून एक प्रॉग्राम दिवचले आनी दुसरो काणकोणा–दोनूय एक
वेळार–आसले जाल्यारूय मंत्री त्या दोनूय प्रॉग्रामांचीं आमंत्रणां घेता आनी
मेळटा तसो त्या प्रॉग्रामांक वेता. गोंयांत एक बरी गजाल म्हळयार खंयच
समारंभाक मंत्र्यान वेळार येवंक जाय अशें ताचेर बंधन नासता. परतें, म
खंयचेय कार्यावळीक दिस्त वेळार पावले जाल्यार थंय जमिल्ल्या लोकांचें त
विशीं सामकें वायट मत्त जाता. हे गजालीक लागून मंत्र्यांचें आयतेंच फावलों

मंत्रीपदार येना फुडें दरएकलो मंत्री चार–स तरेचीं भाशणां तयार क
दवरतां. ( जावं आपल्या सेक्रेटरीक तीं तयार करपाक सांगता.) आनी जे सं
तर्फेन जावं ज्या समारंभाक उलोवपाचें त्या त्या प्रमाण आगळो उणो मसालो

तातूंत घालता आनी तें भाशण फुलयता. मंत्री आपल्या भाशणांतल्यान कितें सांगता तें आयकुप्यांचे नदरेन व्हडलें-शें म्हत्त्वाचें नासता. पुण मंत्र्याचे नदरेन तें खूब म्हत्त्वाचें आसता. कारण दर एका भाशणाचो ताका फुडल्या इलेक्शना खातीर उपेग करून घेवपाचो आसता. देखून तो आपल्या भाशणांनी खूबशें कितें कितें सांगत आसता. देखीक, नव्या सरकारी येवजणांच्यो पुडयो बी तो लोकां मुखार सोडटा. वेळ पडल्यार त्यो सगल्यो येवजणो आपणेंच तयार केल्यात असो लोकांचो (चुकिचो) समज तो करून दिता. एका उतरांत सांगपाचें जाल्यार आपूण जनतेखातीर खूब वावर करतां अशें चित्र दरएकलो मंत्री आपल्या दर-एका भाशणांतल्यान लोकांमुखार उबें करता. आनी तें चित्र उबें करपाखातीर मंत्री माजराचे सटयेपसून कुकुडशाच्या बारशामेरेन सगळे तरेच्या समारंभाचीं आमंत्रणां घेता. मंत्री सादारण एका सप्तकांत एक-दोन प्रदर्शनां, दोन-तीन गॅदरिंगां, बँकाचे शाखेचें उद्‌घाटण, ट्रॅफीक आयलंड जावं रस्तो सुरू करपाचो दबाजो, बोट काँटेस्ट, लायन्स जावं रोटरी क्लबांच्यो चार्टर नायटी, खंयचे तरी संस्थेचो डान्स अशा नाका जाल्ल्या कार्यावळींक हाजीर रावता. केन्ना केन्नाय ताका एकाच दिसा असल्या पांच पंचवीस कार्यावळींक हाजीर रावचें पडटा. मागीर तो एकूच लांबलचक भाशण तयार करून घरच्यान भायर सरता आनी त्या भाशणाचे इल्ले इल्ले कुडके जळीं मळीं वेगळयावेगळया दबाज्यांनी शिंपडायत वेता. मंत्र्याचें हें भाशण सादारण अशे तरेचें आसता :

ल्हान कुटुंब म्हळयार सुखी कुटुंब. म्हणून तुमच्या ह्या महिला-मंडळाच्या सभासदांकडेन म्हजें एकूच मागणें आसा कि आयच्या ह्या फॅमिली प्लॅनींग विकाच्या निमतान तुमी आपलें कुटुंब ल्हान दवरपाचो निर्धार करचो.... तुमच्या सारक्या रोटेरियन्सांनी आपले पदरचे पयशे मोडून जर हें काम केलें ना जाल्यार हेर लोक तुमचेकडल्यान पयशे घेवन हें काम करतले.... म्हणून म्हज्या ह्या गांवांत हें जें बांळटीचें ओशिपताल आयच्यान सुरू जाता हाचें स्रय तुमकां सगल्यांक आनी तुमचे पंचायतीक.... तुमी शिकपी भुरग्यांनी तुमच्या मास्तरांचें आयकलें ना जाल्यार तुमकां फाल्यां मंत्रीपद कशें मेळटलें ?.... आयज हे ब्लड बँकेचें उद्‌घाटण करतना म्हाका देसाखातीर आपले जीव ओंपिल्ल्या त्या शॅक-डयांनी जवानांचो उगडास येता... इतलेंच न्हय तर अशेतरेचे गांवांनी फांटे उगडपाचें हें काम फक्कत ही देना बँकूच करूंक शकता.... आनीक एकूच

गजाल म्हाका सांगपाची आसा ती म्हळ्यार अशेतरेचे हे बीट कॉंटेस्ट सगळ
गांवांनी जावंक जाय....तुमी जेसीनीं हो फंड एकठांय करपाचो वावर के
त्याखातीर तुमकां शाबासकी आनी....लायन वागाक ताचे एकसस्टीच्या निमत
परबीं दिवन म्हजें हें भाशण सोंपयतां.

मंत्री अशेतरेचीं भाशणां करून आनी त्याच बराबर दौरे करून अख्खें गो
शंबर खेप प्रालथें घालता. हेरकडेन तो दोन खेप पावता, तेन्ना आपल्या मतदा
संघांत तो पांच खेप तरी पाविल्लो आसता.

मंत्र्याचें ताचे फुडलें म्हत्त्वाचें काम म्हळ्यार ॲसेंब्लींतले चर्चेंत वांटो घेव
हांगा मंत्री पयलें एक व्हडलें भाशण फुलयता आनी उपरांत विरोधी पक्षां
आमदार प्रस्न विचारतात तांकां सेक्रेटरींनी तयार करून दिल्ल्यो जापो किराव
दिता. भायर कितलींय शेपातां सांगलीं तरी ॲसेंब्लींत मंत्री सामको बिलू क
जाता आनी विरोधी पक्षांचे आमदार मेजांचेर मुठी मारून उलयतात. हांतल
दर एका मुठिच्या आवाजाबराबर मंत्री कच् कच् करून आंग काडटा.

मंत्र्याचें लोकांचे नदरेन खुब्ब म्हत्त्वाचें पुण खासा ताचे ( मंत्र्याचे ) नदरें
सगळ्यांत उण्या म्हत्त्वाचें काम म्हळ्यार फायलींतल्या कागदांचेर सयो कर
मंत्र्यान सयो केल्याबगर त्यो त्यो फायली फुडें वचनात-म्हळ्यार तीं तीं का
मार्गाक लागनात. पुण इतलेंय आसून मंत्री सयो करपाखातीर म्हुण मुद्द
आपलो वेळ केन्ना मोडिना. मंत्री ऑफिसांत आसता तेन्ना हें काम करता. पु
तेंय फाविल्ल्या वेळार. तागेलो चडसो वेळ ताका मेळूंक येवपी लोक खाता
( मंत्र्याकडेन कामां आशिल्ले दुबळे धाकटे मनीस ताच्या घराकडेन वेता
जाल्यार दुडवांकार लोक ताच्या ऑफिसांत ॲपोयंटमेंट घेवन वेतात. )

गोंयांत सद्या सगळीं मेळून २९ खातीं आसात. पैकीं म्हत्त्वाचीं १६ खा
मुखेलमंत्र्यान आपलेकडेन घेतल्या उपरांत-उरिल्लीं १३ खातीं द
मंत्र्यांकडेन वांटून वेतात. एका एका खात्यांत हजारांनी फायली आसत
हांतल्यो शेंकडयांनी फायली दीसपट्ट्यो मंत्र्यांच्या मेजार येवन पडटात. ह
सगल्यो फायली त्या त्या खात्याच्या सेक्रेटरीन तयार केल्यो आसतात. मंत्र्य
वेळ आसता तेन्ना तो सेक्रेटरीक आफयता. सेक्रेटरी येता, दर एक फा
उगडटा. ती फायल कसली ती मंत्र्याक सांगता. मागीर तांतल्या खंयच्या काग
चेर खंय सय करूंक जाय तें ताका सांगता. त्याप्रमाण मंत्री करता. उप

फेटरी ती फायल धांपता आनी दुसरी फायल उगडटा. केन्ना केन्नाय फायल
ाडपाचें, धांपपाचें आनी तांतल्या कागदांचेर सयो करपाचें काम मंत्री आपुणूच
रता. इतलें काम करीत जाल्यार मंत्री खूब कांसाद जाता.

मंत्र्यान दीसभरांत सादारण कितलो वावर केलो हें ताणें तितल्या वेळांत
तल्यो फायली क्लीयर केल्यो हाचेर थारता. देखून एकाद्रो मंत्री कांय काम
रिना असो ॲसेंब्लींत विरोधी पक्षांच्या फुडाऱ्यान आरोप केलो जाल्यार 'हांवें
टल्या चार दिसांक साडे-सतराशें फायली क्लीयर केल्यो' अशी मंत्री ताका
ाप दिता.

मंत्र्याचेर कसलेंय किचांट येत जाल्यार मंत्री दोन गजाली करता. (म्हळयार
ो करूंक सेक्रेटरीक सांगता.) (१) फाटले तारखेन फायलींनी कागद घालप
ानी (२) फायल सांडोवप. ॲसेंब्लींत मंत्र्याचें किचांट वयर सल्लें जाल्यार
विरोधी पक्षाच्या आमदारांक तटायंच करून जाप दिता, "फायल सांडली."
शेतरेन फायली मुखार-म्हळयार एका खात्यांतल्यान दुसऱ्या खात्यांत-वचप
जशें गोंयचे उदरगतिचे नदरेन म्हत्त्वाचें, तशेंच फायली सांडप हें मंत्र्याचे
दरगतिचे नदरेन म्हत्वाचें.

गोंयचो मुखेलमंत्री आनी हेर मंत्री हांचे भितर अंतर कितें? हेर मंत्र्यांचे
ाळे गूण आनी दोश मुखेलमंत्र्यांत मातशे चड प्रमाणांत आसता. (देखून तो
ावं ती मुखेलमंत्री जाता.) मुखेलमंत्री सगल्यांत पयलीं बऱ्यान बरीं खातीं
ाडून आपूण घेता. उरिल्लीं हेर मंत्र्यांक दिता. आदल्या काळार कोणाक मंत्री
रचो हें मुखेलमंत्री थारायतालो (ली). आतां इलेक्शनांत जिखिल्ले आमदार
ापणाक अमकें मंत्रीपद जाय अशें मुखेलमंत्र्याक सांगूंक शिकल्यात. आदल्या
ाळार मुखेलमंत्री हेर मंत्र्यांक उतरा पावलाक तापयतालो (ली). आतां वेळ
डल्यार, हेर मंत्री मुखेलमंत्र्याक तापयतात.

❦ ❦

: १५ :

# कोंकणी-मराठी व

गोंय स्वतंत्र जायना बराबर गोंयकाराचे गोमटेर एक म्हारू बसलो.
नांव कोंकणी-मराठी वाद. हो वाद स्वतंत्रतायेच्या २०-२५ वरसां आदीं
जाल्लो. पुण उपरांत तातूंत कांय अर्थ ना म्हणून वाद करतल्यांनी तो स
दिलो. ( ज्या लोकांनी हो वाद सुरू केल्लो तांकां गोंय इतले बेगीन स
जायत अशें दिशिल्लें जाल्यार ते तो वाद स्वतंत्रताये मेरेन चालू दवरतले आस

स्वतंत्रताये उपरांत जेन्ना हो वाद सुरू जालो तेन्ना तातूंत तीन तरेचे
आसले. ( १ ) कोंकणीवादी. ( २ ) मराठीवादी आनी ( ३ ) 'आ
कोंकणी-मराठी वाद लागना' अशें म्हणपी. सादारण कोंकणीवाद्यांची
अशीं आसलीं.

१. गोंयकारांची मायभास कोंकणी.
२. कोंकणी ही एक सोबीत आनी गोड भास.
३. कोंकणी ही एक स्वतंत्र भास. संस्कृत भाशेची ती एक धूव.
४. कोंकणी ही एक आंतरराष्ट्रीक पांवडयाची भास.
५. कोंकणी ही मराठीची बोली न्हय. वेळ पडल्यार, मराठी ही कोंकण
   बोली आसूं येता.
६. कोंकणी ही एक वेगळी भास. देखून गोंयचें एक वेगळें राज्य जावंक
७. गोंय हो महाराष्ट्राचो कुडको न्हय कारण गोंयकारांची संस्कृताय म
   न्हय. ( तांची संस्कृताय वेगळी.)
८. महाराष्ट्र ( म्हळयार मोटें राष्ट्र ) हें नांवूच मुळांत राष्ट्रद्रोही.
९. गोंयकार बरे, मराठी लोक फटींग.

हाचे उरफाटीं, मराठीवाद्यांचीं मत्तां अशीं आसलीं.

१. गोंयकारांची मायभास मराठी.

२. मराठी ही संस्कृतभाशेची एक धूव.

३. मराठी भाशेक एक व्हड परंपरा आसा. ( ती ज्ञानेश्वर, विनोबा, टिळक, आगरकर, यशवंतराव, वसंतराव हांची भाशा. )

४. कोंकणी ही मराठीची बोली.

५. गोंयकारांची संस्कृताय मराठी देखून गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावंक जाय.

६. गोंय हें महाराष्ट्राचें काळीज, नंदनवन, आनीक आनीक कितें कितें....

७. कोंकणीवादी फटींग.

जांकां कोंकणी–मराठीवाद लागनासलो तांचीं मत्तां अशीं आसलीं :

१. गोंयकारांच्यो भासो दोन—कोंकणी आनी मराठी.

२. कोंकणी ही उलोवपाची भास. मराठी ही बरोवपाची भास.

३. कोंकणी ही गोंयकारांची घरची भास—रांदनी कडली भास ( चडान चड हुमऱ्याभायर जावं तिटयार ताच्यान ती उलोवं येता. स्वंयच्येय सभेंत उलयतलो जाल्यार ताणे मराठींत उलोवंक जाय. )

४. घरांत आमी कोंकणी उलयतांत. शाळेंत आमी मराठी शिकतांत.

५. आमची संस्कृताय कोंकणीय न्हय, मराठीय न्हय. एकतर आमकां संस्कृतायूच ना. आनी आसलीच जाल्यार ती पुर्तुगेज....

६. गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावंक जायना. गोंयचें वेगळें राज्यूय जावंक जायना. गोंयचें आनीक कितेंय जाल्यार जाता.

हो वाद करतना कोंकणीवादी आपणाक कोंकणीभक्त आनी मराठीवाद्यांक राठीवादी म्हणटाले. तेच तरेन, मराठीवादी आपणाक मराठीभक्त आनी ोंकणीवाद्यांक कोंकणीवादी म्हणटाले. कोंकणीवाद्यां भितर चडशे क्रिस्तांव ानी हिंदू भितल्ली तन्नी पिळगी आसली. मराठी वाद्यां भितर चडशे हिंदू ानी तांचे भितल्लीय जाणटेली पिळगी आसली. हे जाणटेले मराठीवादी वादांत ांटो घेवन एकासारके धर्म–संस्कृतायेच्या नांवान बोंब मारताले.

हरशीं ह्या वादांत वांटो घेवपी लोकांभितर खुबशा जाणांक भास–शास्त्र हडलेशें कळनासलें. तांतल्या खुबशा जाणांनी पुर्विल्लें साइत्यूय व्हडलेशें वाचूंक ासलें. पुण वाद सुरू जायना बराबर कांय सोंपिल्ल्या आनी जिते आशिल्ल्या

भासशास्त्रिकांचो आनी साइत्यिकांचो सगले जाण उद्धार करूंक लागले. दोग
कोंकणीवादी आनी मराठीवादी उतरा पावलाक कृष्णदास शामा, फादर स्टीफन्स
कुन्यरिव्हार, ग्रियर्सन, भांडारकर, शणैगोंयबाब, कत्रे, प्रियोळकार हांचीं नां
घेवंक लागले. वादांतले मनीस एकामेकांक जापो दिनासतना आपणाक ज
जायतें म्हणटाले आनी तें अमक्या अमक्यान म्हळां अशें म्हणून खंयच्य
पुर्विल्ल्या संशोधकाच्या जावं साइत्यिकाच्या नांवार खपयताले.

कोंकणीवाद्यांक जाल्यार शणै गोंयबाब म्हणटात तो सामको व्यासावर
व्यासान संवसारांतल्या सगल्या गजालींचेर बरोवन दवल्लां म्हणटात तशें श
गोंयबाबान कोंकणीविशीं सगलें कितें तें बरोवन दवल्लां अशें तांगेलें मत्त. देख
कोंकणीवटेन झगडटना शणैगोंयबाबाचें नांव घेतल्याबगर उलोवपाक तांव
जमच नासलें.

हरशीं वादाचें रूप सादारण अशें आसलें. मराठीवादी पोटतिडकेन झगडटाले
वादाखातीर ते अर्दी मर्दी महाराष्ट्रांतल्यान मुद्दे इंपोर्ट करताले. हाचे उरफा
कोंकणीवादी हांसत खेळत ह्या वादांत वांटो घेताले आनी मराठीवाद्यांचीं फकाण
मारताले.

वादाच्या काळांत वर्तमानपत्रांनी जे लेख, नाटकां, काणयो, कविता उजवाडा
यताल्यो तांचे माथाळे सादारण अशे आसताले : ‘ संशोधक आनी फातर–पटो,
‘ जड्डो अका म्हणटा, कोंकणी नाका. ’ ‘ हटम–टवाळयाचें राजकारण,
‘सावो ऽ ऽ सा बादसा ऽ ऽ ’ , ‘ मराठी वाद्यांचें वरसश्राद्ध ’ , ‘ वाचस्पतींच
समरादना. ’

वादांतले मनीस एकामेकांक गाळी घालतासतना जावं तांचीं फकणां मारत
सतना केन्नाच तांचीं सरळ नांवां घेनासलें. त्या बदलाक ते गोपाळ आपाप
कुंकळ्ळेचो गोपी, बादसा, म्हादेव भट, जनार्दन नाखशिमरो, अनंत काकबा, चं
इंद्र, सवाई माधवराव, दीड माधवराव, भोळा भासू , खुळा गणी, तिरसुवाद जन
फिदाल्ग रमा, अशा नावांनी तांचो उल्लेख करताले.

महाराष्ट्रांतले कांय साइत्यीक सुर्वेक पुण्या–मुंबय थाव्नूच ह्या वादांत वां
घेताले. उपरांत गोंयचे मराठीवादी तांकां कसल्याय संमेलनांच्या निमतान गों
हाडून तांची धींड काडूंक लागले. महाराष्ट्रांतल्यान एक फावट असोच ए
तर्कतीर्थ आयलो आनी एका संमेलनांत आपणाक जायतीं अवचिन्नपणां उलय

णीवाद्यांनी ताचे आड एक मोर्चो काडलो आनी ते आड्डले :
—तर्कतीर्थ तर्कतीर्थ, कोंकणी हेंच आमचें तीर्थ.
—गोंयचें पुणें जावंचें ना, कोंकणी केन्ना मरची ना.
—घरचे भेदी भायले चोर, हांकां सांगात व्हासिमोर.
र्कतीर्थान आपल्या भाशणांतल्यान जे तर्कवाद केले ताचेर कोंकणीवाद्यांनी
ीर्थाचीं तर्कदुश्ट विधानां', 'तर्कतीर्थाचें कुतर्की राजकारण' अशे तरेचे
बरयले.
ोंकणी-मराठी वादाक लागून गोंयांत त्या काळार कितलेशेंच विनोदी कोंकणी
त्य आनी गंभीर मराठी साइत्य उप्रासलें. वर्तमानपत्रांनीं जाल्यार दिसपट्टें
ा वटयां मत्तां मांडून लेख येताले. एका जाणटेल्या मराठीवाद्यान 'कोंकणी
ामची मातृभाषा आनी मराठी ही पितृभाषा' अशें म्हणना बराबर एका
णीवाद्यान ताका जाप दिली, 'म्हणटकूच तूं मिश्तीस जालो तर. गोंयांत
कत तांकांच दोन भासो आसात.'
ुसऱ्या एका मराठीवाद्यान 'कोंकणी ही गोंयची राजभास जाली जाल्यार
ाडयो साइत्य निर्माण करतल्यो अशें म्हळें. ताका एका कोंकणीवाद्यान जाप
, 'करिना बावडयो. त्यो तुगेलें चरित्र बरयत म्हणून तूं भियेता व्हय तर ?'
ा कोंकणी-मराठी वादांत अदीं मदीं शिवाजीय येतालो. मराठीवाद्यांनी
जीचें नांव घेनाबराबर कोंकणीवादी म्हणटाले, गोंयकारांचो आनी शिवाजीचो
केतें संबंद आसा तो फक्कत नाटकां पुरतो.
ोंकणीवादी शिवाजीचीं फकाणां मारूंक लागले. तांचें म्हणणें सादारण अशें
ल्लें. गोंयकारांक शिवाजी लागना. ताणें आमचे खातीर केलां कितें ? ताणें
पार आपलो बावटो लायलो. पुण त्याचवेळार पुर्तुगेजांच्या शेकातळा गोंय
ल्लें ताची वासपूस लेगीत केली ना. फिरंग्यांकडेन तागेलो जो संबंद आयलो
क्कत तह करपाच्या निमतान. तागेलीं शस्त्रां घेवन खंय तो मोंगलांकडेन
लो.
ा म्हळयार, कोंकणींत शिवाजीचेर एकूच म्हणणी आसा. ती म्हळयार—
ा शिवाजी शेतांत उबो. हे म्हणणेक तसो कांय अर्थ ना. मुळांत शिवाजी झेत
ो कित्याक आनी ताणें झेत केलो जाल्यारूय तो शेतांत उबो रावतलो
क ? (तो शेतांतलो बावलो न्हय.) कोणेंय नवीताल मुस्तायकी आंगार

चडयली जाल्यार लोक ताका 'झेतान शिवाजी आयज खंय चल्लो ?' म्हणून विचारतात. हांगा झेतान शिवाजी म्हळयार जाची शेपडी तायट तरेचो मनीस.

एकवेळ शिवाजीबदला संभाजी तरी गोंयकारांक लागता. कारण तो फोंडयामेरेन आयलो. आनी ताणें थंय घुडी लावपाक कोणाक तरी फर्म ( फर्मा गुडयेर ज्या जाग्यार ताणें घुडी लायली थंय उपरांत गोंयच्या मु मंत्र्यान देवूळ बांदलें ) थंयच्यान तो बद्द नाव्यां गेलो. सप्तकोटेश्वराची केली आनी तो परतलो.

शिवाजीन असलें कांय केलें ना. अशेंय आसतना गोंयकार शिवाजीक वळ ते कशे ? तांकां शिवाजीची पयली वळख शाळेंतल्या पुस्तकांतल्यान जाली पुस्तकांनी खंयतरी 'शूर शिवाजी' बी असलो एकाद्रो धडो ना जाल्यार आसताली. उपरांत मराठी मास्तरांनी गोंयकारांक महाराष्ट्राचो इतिहास शिव शिकोवपी मास्तर मराठी म्हणटकूच गोंयकारांक त्या इतिहासांतलें कांय स ना जाल्यार तातूंत अजाप ना. महाराष्ट्राचो इतिहास जरी गोंयकारांक सम ना तरी त्या महाराष्ट्रांत एक शिवाजी म्हणून कोणतरी— शूर बी असो म जावन गेलो म्हणपाचें तांकां कळटालें.

उपरांत गोंयकारांची आनी शिबाजीची वसण वाडली ती मराठी ना लागून. गोंयांत वसोंसकीं हजारांनी नाटकां जातात तातूंत आदल्या काळार शिवाजीचीं नाटकां आसतालीं. हाका लागून दर एका गांवांत त्या शिवाजीचो पार्ट करपी एकेक नट आसतालो. गांवच्या एकाच मनशाक त बरो करूंक येतालो देखून तो नट दुयेंत पडल्यार तें नाटक रद्द करचें प कारण मुळांत नाटक शिवाजीचें आनी तातूंत शिवाजीच दुयेंत पडलो जाल नाटक जावप कशें ? एका गांवांत रघू दांडो, दुसऱ्या गांवांत गोपाळ तिसऱ्या गांवांत पांडू फट्टो अशे गोंयच्या गांवां गांवांनी तुमकां अजून हे शि पळोवंक मेळटले. ( आतां ते मातशे जाणटे जाल्या जातले. ) आदल्या ह्या गांवच्या लोकांक कोणेंय 'शिवाजी कसो आशिल्लो' असो प्रस्न जाल्यार ते, 'तो रघू दांडयाभशेन वा गोपाळ भोब्या भशेन वा पांडू फ भशेन आशिल्लो' अशी जाप दितले आशिल्ले. हाचो अर्थ सादारण अ शिवाजी लांब रूंद आशिल्लो. ( कारण रघू दांडो तसो आशिल्लो. )

फुडें काडून चलतालो. ( कारण गोंपाळ भोबो तसो चलतालो. ) शिवाजी सरांटून आड्‌डतालो. ( कारण पांडू फट्‌टो तसो आड्‌डतालो. )
क चत्राय: गोंयकारांचो शिवाजी विशीं असो गोंदळ जावंचो न्हय म्हणून ारान हालीं फर्मागुडयेर एक ताचो पुतळो उबाल्ला. आतां कोणेंय ल्यार तांच्यांनी सांगूं येता, 'शिवाजी त्या पुतळ्या भशेन दिसतालो' न.
परांत शिवाजी गोंयकारांच्या घरांनी पावलो तो गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत ावाजी विडयेक लागून. ( हे विडयेक आतां संभाजी विडी म्हणटात. ) महा- तल्यान येवपी हे विडयेच्या बंडलाचेर शिवाजीचें एक सोबीत बरें चित्र ालें. आनी जे गोंयकार ती विडी ओडटाले तांकां तिचे झुरके मारतना मदीं शिवाजीचो उगडास जालो जाल्यार अजाप ना.
की गोंयचे मराठीवादी म्हणटात ते सोंसपाचे न्हय. तांणी हो वाद खुबूच घेतलो. त्याबरावर कोंकणीवादी तांगेलीं चडूच फकाणां मारूंक लागले. ावाद्यांच्या नावांचो प्रस्न आयलो तेन्ना तांणी म्हळें–कोंकणींत 'घोडो' यार मराठींत 'घोडा' पुण 'घोडा' आडनांवाचे लोक शाळेंत आपल्या ांचीं नांवां 'घोडे' म्हणून लायतात. ही चूक, देखून तांणी तें 'घोडे'च्या । 'घोडा' अशें करूंक जाय. हेच तरेन 'हेदो'चें 'हेदा,' भोबो'चें ा.' अशेतरेन सगल्या मराठीवाद्यांनी आपलीं नांवां बदलूंक जाय.
परांत मराठीवाद्यांच्या देवसपणांत लेगीत हो वाद आयलो. देवळांतल्या ांनी तुकारामाचे अभंग म्हणटा आसतना अभंगांतली निमळी वळ 'तुका आतां' अशी म्हणपा बदला ते 'तुला म्हणे आतां' अशें म्हणूंक लागले. ांत भटाक गाराणें कोंकणींत घालपा बदला मराठींत घाल म्हणून सांगूंक . आनी भटान तशें गाराणें घालतकूच 'हय सायबा' म्हणपाबदला ते साहेबा' म्हणूंक लागले.
ोंकणी–मराठी वादाची कोंकणीक एक व्हडली देण म्हळ्यार हो स्लोगन: ी भास आमची माय, आमची भास आमकां जाय.

✿ ✿

१. आदल्या गोंयांत मनीस मनशाक वळखतालो.
आतांच्या गोंयांत मनीस फक्कत दुडवांक वळखता.
२. आदलें गोंय मिनैरांक खूब लेखतालें. आतांचेंय गोंय मिनैरांक खूब लेख
३. आद्लें गोंय भाटकारांकूय लेखतालें. आतांचें गोंय भाटकारांक विचा
४. आदल्या गोंयांत सरकारी इश्कोलांच्या प्रोफेसोरांक मान आसत
आतांच्या गोंयांत लोक तांचीं फकणां मारतात.
५. आदल्या गोंयांत इजनेर, दोतोर, आद्वोगाद हांची पोट भरीसारकी
आसताली. आतांच्या गोंयांत तांतले चडशे जाण बावडे पादिशेर जा
६. आदल्या गोंयांत इश्कुद आसले. आतांच्या गोंयांत पयशे आसात.
७. आदल्या गोंयांत सगळें सवाय आसलें. आतांच्या गोंयांत सगलें म्ह
( मनीस लेगीत जापेक म्हारग जाला. )
८. आदल्या गोंयांत पोलिटीक्स नासलें, देखून पोलिटिकल सफरर ना
आतांच्या गोंयांत पोलिटीक्स आसा. ( पुलित्कांय भरपूर आसात )
खुबशे पोलिटिकल सफररूय जाल्यात.
९. आदल्या गोंयांत स्वातंत्र्यसैनीक बंदखणींत आसताले. आतांच्या गो
ते बंदखणी भायर आसात. आदल्या गोंयांत तांची परिस्थिती क
आसताली. आतांच्याय गोंयांत तांची परिस्थिती कठिणूच आसा.
१०. आदल्या गोंयांत फॅमिली प्लॅनींग नासलें—कोणाकूय कितलींय
जातालीं. आतांच्या गोंयांत फॅमिली प्लॅनींग आयलां—सरकाराक
तितलींच लोकांक भुरगीं जातात.

११. आदल्या गोंयांत चोरयो–खून–मारामाऱ्यो जाय नासल्यो. आतांच्या गोंयांत हांचेबगर आनीक कांय जायना.
१२. आदल्या गोंयांत घरांचीं दारां धांपी नासले, जनेलांक ग्रिली लायनासले. आतांच्या गोंयांत घरांचीं दारां उकतीं दवरिनात, ग्रिलींबगर जनेलां दिसनात.
१३. आदल्या गोंयांत लोक देवाक भियेताले; आतांच्या गोंयांत देव लोकांक भियेता.
१४. आदल्या गोंयांत लोक देवळांत वचून देवाक नाख घांसून पांया पडटाले. आतांच्या गोंयांत लोक देवळांत वचून देवाच्या आंगावेल्यो वस्ती ( आनी वेळ पडल्यार ताकाच ) चोरून व्हरतात.
१५. आदल्या गोंयांत लोक देंवचार, म्हारू, भुतां हांकां मानताले. आतांच्या गोंयांत लोक मंत्री, आमदार, खासदार हांकां मानतात.
१६. आदल्या गोंयांत लोक गोव्हेर्नादोराक देव कसो लेखताले—गोव्हेर्नादोरान अशें केलें, तशें केलें, अशें म्हणटाले. आतांच्या गोंयांत लोक मुखेलमंत्र्याक लेखतात—मुखेलमंत्र्यान अशें केलें, तशें केलें, अशें म्हणटात.
१७. आदल्या गोंयच्यो ( हिंदू ) चलयो शिर्विसो करिनासल्यो. एकाद्रेन शिर्वीस ( स्कूल टिचरिची / मास्तरणीची ) केलीच जाल्यार ‘ शिर्वीस करता ? ’ काय म्हणून लोक नाख किल्लीसताले. आतांच्या गोंयच्यो सगल्योच चलयो शिर्विसो करतात; एकाद्रेन केली ना जाल्यार ‘ शिर्वीस करिना ? ’ अशें म्हणून लोक नाखां किल्लीसतात.
१८. आदल्या गोंयांत कांय शाणे लोक आसले. ते पुर्तुगेजांक बरे म्हणटाले. आतांच्या गोंयांत कांय पिशे लोक आसात ते सरकाराक गाळी घालतात.
१९. आदल्या गोंयांत लिंपेझ आसली; पलासिच्या दारांत लोक कांय उडयनासले. आतांच्या गोंयांत लिंपेझ ना; कोणाकूय कितेंय उडयन दिसलें जाल्यार तो तें व्हरून पलासिच्या दारांत उडयता.
२०. आदल्या गोंयांत भाऊ बांदोडकार मीन काडटालो. ना जाल्यार क्रिकेट–फुटबॉल बी खेळटालो. आतांच्या गोंयांत तो मीन काडटालो आनी ( तें काडटांकाडटां ) मुखेलमंत्री म्हणून गोंयचें राज्य चलयतालो.
२१. आदल्या गोंयांत कोण जालो, कोण मेलो, जाल्यार फक्कत तांगेल्या पारेंतांकूच समजतालें. आतांच्या गोंयांत कोण जालो, कोण मेलो जाल्यार

तागेले पारेंत सोडून सगल्यांक समजता.

२२. आदल्या गोंयांत चड वर्तमानपत्रां नासलीं. देखून तांतूंत लोकांचे फोटो येयनासले. आतांच्या गोंयांत कितलिशीं वर्तमानपत्रां आसात आनी तांतूंत फोटयांबगर आनीक कांय येना.

२३. आदल्या गोंयांत लोक जिबेक विचारून नुसतें खाताले. आतांच्या गोंयांत लोक आपल्या बोल्साक विचारून नुसतें खातात.

२४. आदल्या गोंयांत लोक घरांनी आनी दुकानांनी सालाझाराचे आनी गांधी–नेहरूचे फोटो लायताले. आतांच्या गोंयांत ते भाऊ बांदोडकार, ताई काकोडकार नाजाल्यार केनडी–कार्टर हांचे फोटे लायतात.

२५. आदल्या गोंयांत आल्बुकेर्क, कामोंयश, सालाझार, कांय जुवीज आनी दादावैद्य हांचे पुतळे आसले; आतांच्या गोंयांत शिवाजी, बांदोडकार आनी हुतात्मे हांचे पुतळे दिसतात.

२६. आदल्या गोंयांत सरकारी एंप्रेगाद केन्ना पांच रुपयां सकयल लांच घेयनासले. आतांच्या गोंयांत ते कितलीय– पांच पयशांची लेगीत–लांच घेतात.

२७. आदल्या गोंयांत लोक पुलिसाक भियेताले. आतांच्या गोंयांत ते तांकां विडी–सिगार बी दितात.

२८. आदल्या गोंयांत लोकांक फुटबॉल खूब मानवतालो. आतांच्या गोंयांत तांकां क्रिकेट अदीक मानवता.

२९. आदल्या गोंयांत लोक हिंदी सिनेमा पळेनासले. आतांच्या गोंयांत ते हिन्दी सिनेमा पळेतात; इतलेंच न्हय, तर तांतल्या नट-नटींचेर मरसर उलयतात.

३०. आदल्या गोंयची संस्कृताय पुडवें, तांबडी तोपी, रुमाल, मुंडासो, काश्टो, वालो, घागरो, कापड, जुनेर हातूंत आसली. आतांच्या गोंयची संस्कृताय जिनां, बेलबॉटमां, मॅक्झी, मिनी, लुंग्यो, स्लॅकां हातूंत आसा.

३१. आदल्या गोंयांत बँको चड नाशिल्ल्यान फ्रॉड जाय नासले. आतांच्या गोंयांत बँको खुबूच आसात, देखून फ्रॉडूय खुबूच जातात.

३२. आदल्या गोंयांत कलाकार उपाशीं जगताले. आतांच्या गोंयांत कलाकार उपाशीं मरतात.

३. आदल्या गोंयांत कोणेंय मोग केल्यार तागेलीं आवय बापूय लजेन मान सकयल घालतालीं. आतांच्या गोंयांत कोणेंय मोग केल्यार तागेलीं आवय बापूय तें अभिमानान लोकांक सांगतात.

४. आदल्या गोंयांत फिरंगी आसले आनी तांचें बेस बरे उंडे आसले. आतांच्या गोंयांत ते फिरंगीय गेले आनी तांचें उंडेय काबार जाले!

## : १७ : गोंयच्यो संस्था

गोंयांत मनशां परस संस्था चड आसात. हाचें कारण चार गोंयकार एकठांय आयल्यार पांच संस्था काडटात. आनी धा गोंयकार एकठांय आयल्यार वीस, तीस, पन्नास अशो कितल्योय संस्था काडटात. एकेक गोंयकार पांच–पंचवीस संस्थांचो मेंबर आसता.

पुर्तुगेजांच्या काळार शारांनी कांय संस्था आसताल्यो. ह्यो संस्था शाळा, इस्कोलां, लायब्रऱ्यो बी चलयताल्यो. गोंयकार तेन्ना पसऱ्यार बसून ह्यो संस्था चलयताले. हरशीं पुर्तुगेजांनी काय केन्ना कोणाक सांस्कृतीक संस्था काडपाक मना करूंक नासलें; पुण ते आसतना गोंयकारांनी व्हडल्योशो संस्था काडल्यो ना. पुण पुर्तुगेज गोंय सोडून वचनाबराबर धडाधड गोंयकार एकठांय आयले आनी तांणी संस्थांच्यो बुन्यादी घालपाक सुरवात केली. हाचीं कारणां अशीं आसूं येता : अ ) ज्या गोंयकारांनी आपली संस्कृताय काडून पुर्तुगेजांकडेन दिल्ली तांकां पुर्तुगेज पुर्तुगालाक वेतकूच आतां आपले ते संस्कृतायेचें कितें करचें असो प्रस्न पडलो जावंये. ( पुर्तुगेज तरी कसले ! पुर्तुगालाक वेतना तांणी आपल्या-बराबर गोंयकारांची ही संस्कृताय व्हेल्ली जाल्यार तिचो प्रस्न आपशींच सुटटलो आसलो. पळेल्यार ते ती संस्कृताय हांगाच सोडून गेले ! ) हेर कांय गोंयकारांक पुर्तुगेज गोंय सोडून गेल्याउपरांतच आपणांक संस्कृताय आसा म्हणपाची पयले खेप जाण आयली.

सांगपाचें तात्पर्य म्हळयार, अशे तरेच्या गोंयकारांनी स्वतंत्रताये उपरांत गोंयांत संस्था काडल्यो. जे गोंयकार आदीं देवळांनी बोवाळ घालताले तांणी सगल्यांत पयलीं संस्था काडल्यो. हे लोक आदीं देवळांच्या कोमिसांवांनी बोवाळटाले, तशे

उपरांत ह्या संस्थांनी बोवाळूंक लागले. कोमिसांवांनी आदीं झगडीं करताले, तशे ह्या संस्थांनी झगडीं करूंक लागले.

गोंयांत कांय लोक संस्थांखातिरूच जल्माक येतात. ( हांगा एक गजाल मतींत धरूंक जाय– जे गोंयकार पुर्तुगेजांच्या काळार जल्माक आयिल्ले तांतले खुबशेजाण पुर्तुगेज गोंय सोडून गेल्या उपरांत ज्यो हांगा संस्था उप्रासल्यो तांचे खातीर जल्माक आयिल्ले. ) संस्थां खातीर जे लोक जल्माक येतात तांतले कांय जाण बेठे मेंबर जावपा खातीर म्हणून जल्माक येतात, हेर लोक अध्यक्ष, सेक्रेटरी, ट्रेजरर बी जावपाखातीर म्हणून जल्माक येतात. गोंयांत अशे कांय मनीस मेळटात कि जे तीन संस्थांचे अध्यक्ष, चार संस्थांचे सेक्रेटरी आनी पांच संस्थांचे ट्रेजरर बी आसतात.

पणजेंत, मडगांवांत, म्हापशांत अशे कांय मनीस आसात जांकां भायर दवरून कोणाकूच ह्या शारांनी कसलीच संस्था काडूंक जमपाचें ना. ह्या लोकांक भायर दवरून कोणेंय एकाद्री संस्था काडलीच जाल्यार ती संस्था जल्माक येतनाच ते ते संस्थेंत फाटल्या दारयां भितर सरतात. फाटलें दार धांपून दवरून ह्या लोकांक भायर दवरूं येता. पुण तशें केलें जाल्यार ते संस्थेच्या जाळवणदारांक ते मनीस ते संस्थेंत ना म्हणपाचें कांय काळा उपरांत जाणवता. आनी मागीर तेच त्या मनशांक आफोवंक तांगेर वेतात.

आमच्या गांवांत एक तातू तोरणो म्हणून आसा ताची गजाल अशीच. ताका कुशीक दवरून एकूय संस्था काडपाक अजून मेरेन आमच्या गांवच्या लोकांक जमूंक ना. एकूच खेप असो एक प्रयत्न जालो. चार लोक एकठांय आयले आनी तांणी एक संस्था काडपाचें केलें. दिसाची काडल्यार तातूक कळटलें म्हणून तांणी ती रातची काडची केलो. ते चौगूय गांवा भायल्या एका पडंग रानांत ती संस्था काडपाखातीर गेले. पळेल्यार तांचे पयलीं थंय तातू पाविल्लो. ही गजाल कळत पसून आतां आमच्या गांवचे लोक तातूक भायर दवरून स्वयंचीच संस्था काडपाचें धाडस करिनात. इतलेंच न्हय, कांय संस्था जाल्यार तांणी तातू खातिरूच काडल्यात.

संस्थांनी वेगळे वेगळे तरेचे लोक आसतात. तांतूंत कांय जाण संस्थांच्यो घटणा करपी एक्सपर्ट आसतात. एकाद्रे संस्थेचे मेंबर कितले आसूंक जाय, तिची कमिटी कशी वेंचून काडूंक जाय, अध्यक्ष–सेक्रेटरी, ट्रेजरर कोणाच्यान जावंयेता, त्या त्या

पदाचेर कोणाच्यानूय कितलीं वरसां रावूं येता, तांतल्या कोणेंय फटींगपणां केल्यार ताचेर कायद्यान कितें उपाय करूं येता....असलीं सगलीं किचमणां तांकां तोंड-पाठ आसतात. हे लोक भारताचे राज्यघटणेचेर उलयल्ल्यावरी ते संस्थेचे घटणेचेर उलयतात. कांय जाण जाल्यार संस्थेचो हेर कारभार वाऱ्यार उडोवन वर्सभर तिचे घटणेचेरूच उलोवणीं करतात. आनी घटणेचेर उलयतां उलयतां एक दीस ते संस्थेचें घट्टाण करतात.

हेरकडेन मनीस संस्था चलयतात. गोंयांत त्यो आपशींच चलतात. वेळ पडल्यार, हांगा संस्था मनशांक चलयतात. देखून-संस्थांक गरज आसूं, नासूं-कांय मनीस तांतूंत भितर सरतात. जे संस्थेकडेन खुबसो पयसो आसता ते संस्थेक खुबशे मेंबर मेळटात. कारण जे अशे आगांतूक मेंबर जाल्ले आसतात तांकां तो पयसो खावंक मेळपाची आस्त आसता.

गोंयांत एकाद्रे संस्थेंत फ्रॉड करपा खातिरूच म्हणून एकाद्रो मनीस भितर सरता आनी ते संस्थेचो ट्रेजरर बी जाता. अशेतरेचे दोन फटींग ते संस्थेंत भितर सल्ले जाल्यार भितल्लो एकलो तिचो सेक्रेटरी आनी दुसरो ट्रेजरर जाता. अशेतरेचे तीन फटींग ते संस्थेंत भितर सल्ले जाल्यार तिसरो मनीस तिचो जोड सेक्रेटरी बी जाता. फटींगपणाक लागून सेक्रेटरी आनी ट्रेजरर हे सदांच एका-मेकांकडेन बरेतरेन चलतात. चड करून हे दोगूय भितल्ले बुद्दिचे मनीस आसतात. हाचे उरफाटे, संस्थेचो अध्यक्ष हो चड करून सामको सादो भावा-रथी मनीस आसता.

खंयचेय संस्थेंत अदीक करून सेक्रेटरी वा ट्रेजरर जावं दोगूय एकठांय येवन अध्यक्षाच्या आनी हेर मेंबरांच्या तोंडांक पानां पुसतात. अर्थांत हो नेम न्हय. गोंयच्या कांय संस्थांनी अध्यक्ष-सेक्रेटरी, अध्यक्ष-ट्रेजरर अशा लोकांनीय एका-ठांय येवन हेरांक नागयल्यात.

एकाद्रे संस्थेंत फ्रॉड जावप ही एक म्हत्त्वाची घटना. देखून, खंयचेय संस्थेंत फ्रॉड जाल्याबराबर ती खबर पेपरांनी येता. आनी हेर लोक ती रुचीन वाचतात. फ्रॉड करप ही एक कला. देखून ही कला जाणें बरी केळयल्या त्या मनशाचो सत्कार जावंक जाय. त्याबदला ताका-हेरकडेन घालतात तसो-गोंयांतूय बंद-खणींत घालतात.

गोंयांत सद्या तीन तरांच्यो संस्था आसात-सरकारी, खाजगी आनी सहकारी. सरकारी संस्थांतले लोक सरकारी पद्धतीन पयसो खातात. खाजगी संस्थांतले लोक तो खाजगी पद्धतीन खातात. आनी सहकारी संस्थांतले लोक तो सहकारी पद्धतीन खातात. सादारण सरकारी जावं खाजगी संस्थांनी कोणेंय पयसो खालो जाल्यार तो कळटा. देखून ह्या संस्थांनीं असो कोणेंय पयसो खालो जाल्यार हेर लोक 'अमक्यान अमके संस्थेक नागयली' अशें म्हणटात. सहकारी संस्थांनीं कोणेंय पयसो खालो जाल्यार तो कळना. म्हणटकूच अशा वेळार 'अमके संस्थेक अमक्या हजारांचें लुकसाण जालें' अशें म्हणपाची गोंयांत चाल आसा.

गोंयच्यो चडशो संस्था सद्या करतात कितें ? पणजेची इन्स्टिटयूट मिनेझीस ब्रागांझा संस्था चडकरून वरसभर व्याख्यानांचे प्रॉग्राम दवरता. हातलीं चडशीं व्याख्यानां खूब गंभीर विशयांचेर आसतात आनी तीं आयकूंक पणजेंतलीं पांच-धा बोडकां येतात. त्या मानान पणजेचे विवेकानंद सोसायटेंत वा मडगांवच्या गोमंतविद्या निकेतनांतलीं व्याख्यानां बरीं आसतात–सांस्कृतीक विशयांचेर. दर एक व्याख्यान पंचवीस–तीस लोक तरी आयकतात. विवेकानंद सोसायटेंत गाण्याचे प्रॉग्राम जातात तशेंच मडगांवचे स्वरमंच हे संस्थेंत जातात. हे प्रॉग्राम नाटकांतल्या पदांचे जावं भजनांचे आसत जाल्यार लोक खूब गर्दी करतात. शास्त्रीय संगीताचे आसत जाल्यार ते व्हडलेशे कोण आयकनात. गोंयांत खुबशेकडेन कोंकणी मंडळां आनी मराठी मंडळां आसांत. हीं मंडळां चडकरून वरसभर वाग-शींव-कोल्यांच्यो काणयो जाणटयांक सांगतात. ना जाल्यार वर्सभर कोणाच्यो तरी पुण्यतिथयो करतात. गोंयच्या भगिनी मंडळांतल्यो भगिनी चकऱ्यो,शेंव-शिवण असलें कितेंय एकामेकांक शिकयत आसतात. राष्ट्राचेर कसलेंय संकट बी आयलें जाल्यार हेर संस्था फक्कत थाराव पास करतात तेन्ना हीं मंडळां पयशे एकठांय करतात. गोंयांत बायलांचीं भगिनीमंडळां आसात तशीं दादल्यांचीं भाऊ मंडळांय आसात, लायन्स क्लब, रोटरी क्लब, ज्यायंटस् क्लब आनी जेसीचे चॅप्टर्स हातूंत मोडटात. भगिनी मंडळांतल्यो भगिनी जेन्ना कसल्याय कामाखातीर पयशे एकठांय करतात तेन्ना हे लायन्स, रोटेरियन्स, ज्यायंटस् आनी जेसीस रगत एकठांय करतात, लोकांचे दोळे तपासतात, पाकीं बांदतात, गांव पोसके घेतात, ना जाल्यार खंयच्याय गांवांचे हद्दींचेर 'आमी तुमचें ह्या गांवांत स्वागत करतांव' ना जाल्यार 'थँक्यू' अशेतरेचे बोर्ड लायतात. खंयच्याय प्रसंगाक सोबसो दबाजो

कशेतरेन करचो हें फक्कत ह्या लोकांकूच कळटा. देखीक, अख्ख्या देशांत जेन्ना ‘ जंगली जनावरांचें सप्तक ’ ( wild life week ) चालू आसता तेन्ना गोंयचो एकाद्रो लायन्स क्लब लायन वागाचो जावं लायन कोल्याचो सत्कार करता. गोंयचे भेटेर खास आयिल्लो लायन डिस्ट्रीक्ट गव्हर्नर तेदीस त्या दबाज्याचो अध्यक्ष जाता. आनी तेदीस तो लायनिझमाचेर एक व्हडलें भाशण दिता.

लायन्स, रोटेरियन्स, ज्यायंटस, जेसीस हांची आनीक एक गजाल आसा. ते एकामेकांकडेन उलयतना एकामेकांचीं बेठीं नांवां घेतात. पुण तिसऱ्याचो उल्लेख करतना ते रोटेरियन अमको, लायन तमको, ज्यायंट अमको, जेसी तमको असो करतात. समजा दोन रोटेरियन्स -- बाबू आनी शाबू– पणजेसून मडगांवां वेताले. वाटेर तांकां अपघात जालो. तातूंत ते मरपाचे पुण कोणेंतरी तांकां बाटायले. जाणें तांकां वाटायले ताचो रोटरीक्लबातर्फेन सत्कार जालो....ही सगलीं खबर दुसऱ्या दिसा पेपरांनी सादारण अशेतरेन येता : पणजी–काल रोटेरियन बाबू आनी रोटेरियन शाबू दोगूय हांगाच्यान रोटेरियन फेर्नांदिसाक मेळूंक म्हणून मोटारींतल्यान मडगांवां वेताले. वाटेर फोण्यां तांचे गाडयेक अपघात जालो. ह्या अपघातांत रोटेरियन बाबू आनी रोटेरियन शाबू हे दोगूय मरतले आसले. पुण विठू म्हणून एक भुरगो थंय पावलो. ताणें त्या दोगांकूय वाटायले. ही खबर फोणेंच्या रोटेरियन जॉनाक जेन्ना कळ्ळी तेन्ना तो रोखडोच रोटेरियन डॉक्टर पाटूक घेवन थंय गेलो. आनी ताणें तांकां पणजेच्या ओस्पितालांत व्हेलें. थंय आयज रोटेरियन शाणू कामत, रोटेरियन चिको रोड्रीक्स, रोटेरियन बाळ देसाय आनी रोटेरियन म्हाबळू खंवटो हांणीं तांची खबर घेतली.

सांजे पणजेच्या अमक्या हॉटेलांत विठूचो सत्कार जालो. तेन्ना रोटेरियन हो आनी रोटेरियन तो—हे दोगूय उलयले. समारंभाचें येजमानपण रोटेरियन अमक्यान चलयलें. उपरांत रोटेरियन तमक्यान उपकार मानले आनी ही कार्यावळ सोंपली. रोटरी–लायन्स–जेसी–ज्यायंटस् हांच्यो असल्यो खबरो पेपरांनी वाचतना आयतारच्या अंकांनीं ल्हान भुरगीं ककाची कावकाव ना जाल्यार चचाची चमचम बरयतात—तांचो उगडास जाता.

खंयचेय संस्थेच्या जिवितांत ते संस्थेचो वाडदीस म्हणटात ती सगल्यांत म्हत्वाची घटना. देखून गोंयच्या सगल्या संस्थांनी वर्सभर आनीक कांय केलें ना

ी वर्स सोंपतकूच त्यो आपलो वाडदीस मनोवंक विसरनात. दर वाडदिसाक
लेल पावणो म्हणून एक गडगंज मनीस येता. एकाद्रो मंत्री बेकार आसल्यार
ीस ताकाच हाडटात. पुण केन्नाकेन्नाय गोंयांत अडचण अशी जाता. एकाच
सा पांच–सात संस्थांचे वाडदीस येतात आनी गोंयचे सगले मंत्री तीन. ते
वडे तरी खंय म्हणून पावतले ? (कारण संस्थांच्या वाडदिसां भायर तांकां हेर
तल्याशाच समारंभांक हाजीर रावपाचें आसता !) देखून मंत्री मेळ्ळो ना
ल्यार एकाद्रे संस्थेच्या वाडदिसाक दुसरो कोणूय येता. संस्था खंयचीय
सूं, तिचो कितल्यावोय वाडदीस आसूं, आनी त्या दबाज्याक मुखेल पावणो
णूय आसूं तो ह्या प्रसंगाक एक थरावीक पद्धतिचें भाशण करता. देखीक :

**स्थेचो वाडदीस मुखेल पावण्याचें भाशण (म्हत्वाचो वांटो)**

लो : संस्थेच्या जिवितांत १ वर्स म्हळयार काय व्हडलोसो काळ न्हय....
रो : संस्थेच्या जिवितांत २ वरसां म्हळयार काय व्हडलोसो काळ न्हय...
रो : संस्थेच्या जिवितांत ३ वरसां म्हळयार काय व्हडलोसो काळ न्हय....
थो : संस्थेच्या जिवितांत ४ वरसां म्हळयार काय व्हडलोसो काळ न्हय....
वो : संस्थेच्या जिवितांत ५ वरसां म्हळयार काय व्हडलोसो काळ न्हय....
० वो : संस्थेच्या जिवितांत १० वरसां म्हळयार काय व्हडलोसो काळ न्हय...
५ वो : संस्थेच्या जिवितांत १५ वरसां म्हळयार काय व्हडलोसो काळ न्हय....

पणजेंत पुर्तुगेजांच्या वेळची एक नामनेची संस्था आसा. तिका ह्या दिसांनी
०० वरसां जातात. ते दीस ते संस्थेचे जाळवणदार मुखेल मंत्र्याक मुखेल
वणी म्हणून आफोवंक सोदतात. तेदीस मुखेलमंत्री अशेच तरेचें भाशण—
राठींत, इंग्लिशींत ना जाल्यार कोंकणींत करतली आनी सांगतली, "एकाद्रे
स्थेच्या जिवितांत १०० वरसां म्हळयार काय व्हडलोसो काळ न्हय...."

## : १८ : गोंयचीं ऑफिसां

गोंयांत सरकारी ऑफिसां आसात आनी प्रायव्हेट ऑफिसां आसात. ह्या ऑफिसांनी काम करपी लोक दीसभर गजाली करतात.

हरशीं सरकारी ऑफिसां आनी प्रायव्हेट ऑफिसां हातूंत अंतर आसा. सरकारी ऑफिसांतले लोक सरकाराचो पयसो खावन गजालीं करतात. प्रायव्हेट ऑफिसांतले लोक प्रायव्हेट मनशाचो – मिनैराचो बी – पयसो खावन गजाली करतात. हयो गजाली चडकरून सरकाराक गाळी घालपाच्यो आसतात. म्हण-टकूच हाचो अर्थ असो जालो — सरकारी ऑफिसांतले लोक सरकाराचो पयसो खावन सरकाराक गाळी घालतात आनी प्रायव्हेट ऑफिसांतले लोक प्रायव्हेट मनशाचो पयसो खावन सरकाराक गाळी घालतात.

सरकारी ऑफिसां आनी प्रायव्हेट ऑफिसां हांचेभितर सरकारी ऑफिसां प्रायव्हेट ऑफिसां परस चड फामाद. ह्या ऑफिसांनी मनीस आनी फायली आसतात. आनी हे मनीस फायली उगडटात आनी धांपतात आनी त्यो अुगडटाना आनी धांपताना गजाली करतात.

गोंयांत ऑफिसांनी काम करपी लोक गजालींकूच ऑफिसाचें काम म्हणटात. हे लोक ऑफिसांनी हेर कामूय – च्या घेवपाचें, सिगरेटी ओडपाचें, न्हीद काडपाचें बी– करतात. पुण गजालींक जितलें म्हत्त्व आसा तितलें त्या आलायत्या कामाक ना.

सरकारी ऑफिसांनी गजालींक अितलें म्हत्त्व आशिल्ल्यान जो असल्या अेकाद्र्या ऑफिसांत शिर्विसेक वेता ताका अिंटरव्ह्यूक पयलो प्रस्न करतात तो हो : ‘ तुका गजाली करूंक येतात काय ना ? येतात जाल्यार त्यो कसल्यो ?

ांकां गजाली करूंक येनात ते चड करून ह्या अिंटरव्हयूंक पास जायनात. ानी तांकां केन्ना सरकारी शिर्विसो मेळूंक पावनात. मागीर तांकां शिर्विसो ळोवपाखातीर मंत्र्यांचे बी फावोर लावंचे पडटात.

सरकारी ऑफिसांनी गजाली करपाचो टायम सकाळच्या धा वरांपसून ांजच्या पांच वरांभेरेन आसता. मदीं अेक वरभर ह्या लोकांक जेवणाक चपाक मेकळीक आसता. ह्या वेळाक लंचटायम म्हणटात. सकाळ-सांज अर्दें-र्दें वर ह्या लोकांक च्याक भायर सरूंक मेळटा. ह्या वेळाक टी-टायम म्हणटात. ंवणाच्या आनी च्याच्या वेळारूय हे लोक गजाली करतात. पुण त्यो सरकारी ामांत मोडनात. देखून त्या वेळार हे लोक सरकाराक गाळी घालचे बदला हेर ोणाकूय गाळी घालतात.

अेकाद्रो मनीस ऑफिसांत खूब गजाली करूंक लागलो म्हणटकूच त्या मनशाक ऑफिसांत खूब काम आसता अशें म्हणपाची अेक चाल आसा. देखून सगले जालींचे घोडे आपणाक ऑफिसांत खूब काम आसता अशें सगल्यांक सदांच ांगत आसतात. ताचे वांगडीय लोकांक तेंच सांगतात.

बँको हींय सरकारीच ऑफिसां. थंयचे लोक सरकाराक इल्ल्यो चड गाळी ालतात देखून सरकार तांकां हेरांपरस इल्लो चड पागामेंत दिता. बँकांतल्या ोकांक ऑफिसांत दिल्लो वेळ पावना. देखून ते ऑफिसाचो वेळ सोंपतकरूय रकाराक गाळी घालीत रावतात. आनी त्या खातीर तांकां वेगळो पागामेंत ळटा. ह्या वेळाक ओव्हरटायम म्हणटात. त्यावेळार गाळी घालतात तांकां ानी त्यो घालपाखातीर तांकां जो पागामेंत मेळटा ताकाय ओव्हरटायमूच ्हणटात.

गोंय स्वतंत्र जातकूच हांगां महाराष्ट्रांतल्यान खुबशे डेप्युटेशनिस्ट आयले. ांतले चडशे मुंबयंत बी शिर्वीस करताले आनी थंय ते महाराष्ट्राच्या सरकाराक ाळी घालताले. आपणाक हे लोक गाळी घालतात तशोच तांणी गोंयच्या सर-ाराकूय घालच्यो हेखातीर महाराष्ट्र सरकारान तांकां गोंयां धाडिल्ले. डेप्युटेश-िस्टांक गोंयांत हाडपांत गोंयच्या सरकाराचोय हेत तोच आशिल्लो. हे ्युटेशनिस्ट बरे हुशार आशिल्ले. ते गोंयांत आयल्या अुपरांत एकाच बराबर ान्नूय सरकारांक—महाराष्ट्राच्या आनी गोंयच्या—गाळी घालूंक लागले. ही ोली कापासदाद पळोवन ( तातूंत आनीक हें काम करूंक ते मुंबयसून मुद्दम

[११]

गोंयांत आयिल्ले म्हणून ) सरकार तांकां गोंयभत्तो ( Goa allowance ) दिवंक लागलें.

गजालीं फाटोफाट सरकारीं ऑफिसांतले लोक दुसरें अेक म्हत्वाचें काम करतात तें म्हळ्यार फायली चाळपाचें. ते फायली उगडटात–धांपतात. परथून उगडटात-परथून धांपतात. मर्दींच ते फायलींतलीं कागदां काडटात. तांचेर कितेंय भिरकटायतात. तीं परथून फायलींत घालतात. आनी मागीर एकामेकांक ओर्दी सोडटात.

–ती फायल हांगा हाड.

–ही फायल थंय व्हर.

–ती फायल हांगां हाड आनी म्हाका दी.

–ही फायल थंय व्हर आनी ताका दी.

जे असल्यो ओर्दी सोडटात तांकां क्लार्क म्हणटात. जे त्यो आयकतात तांकां प्यून म्हणटात. जो चडान चड वरसां सरकाराक गाळी घालता आनी प्युनांक ओर्दी सोडटा तागेली सिनियोरिटी काऊंट जाता आनी एक दीस ताका प्रोमोशन मेळटा आनी तो ऑफिसर जाता. ऑफिसर जातकूच तो आपल्या ऑफिसांतल्या हेर सगल्या वांगडयांक थर्त भियेता.

सरकारी ऑफिसांनीं एकासारके कोण तरी–भायले मनीस–आपल्या कामां खातीर येतात. असो कोणूय भितर सल्ल्याबराबर तो कित्याक आयिल्लो तें ऑफिसांतलो एकाद्रो मनीस ताका विचारता. तागेलें काम आपूण करतां म्हुण ताका सांगता आनी ताचे कडल्यान च्या घेता. पुण अुपरांत तो ताचें तें काम केन्नाच करिना.

सरकारी ऑफिसांनी फाटल्यान अेक गुदांव आसता. तातूंत पोन्न्यो फायली आनी कागदां आसतात. तांकां रेकॉर्डस् म्हणटात. ऑफिसांतल्या हरशिल्या कामाचे फायलींत कागदां मातशीं धवशीं आसतात. हीं गुदावांतलीं कागदां मातशीं हळडुविशीं जाल्लीं आसतात. हे रेकॉर्डस् जे कुडींत दवरिल्ले आसतात थंय खुबशे हुंदीर आसतात. चडशे सरकारी ऑफिसांतले रॅकॉर्डस् हे हुंदीर खावन अुडयतात. तरीय तांची भूक भागली ना जाल्यार मागीर ते ऑफिसाच्या कामाच्या फायलींतलीं कागदां खातात. हरशीं सगल्या सरकारी ऑफिसांतले रेकॉर्डस् हे हुंदरा खातिरूच आसतात. आनी हुंदीर ह्या रेकॉर्डसां खातीर आसतात.

सरकारी ऑफिसांतल्या लोकांक सरकाराक गाळी घाल्या अुपरांत आनी ायली अुगडून धांपून जाल्या अुपरांत जो अिल्लो वेळ मेळटा तांतूंत ते अेका-कांच्यो चाडयो करतात. जांकां असल्यो करूंक येनात ते ऑफिसरांक ग्राश ारतात.

गोंयच्या सरकारी ऑफिसांनी फाटल्या शें शंबर वरसांक म्हणसारके अशो दल दोनूच फावट जाल्यात. (१) गोंय स्वतंत्र जालें तेन्ना आनी (२) अिंदिरा ांधीन देशांत अिमर्जन्सी लागू केली तेन्ना. गोंय स्वतंत्र जाल्याबराबर गोंय-ार सगल्या सरकारी ऑफिसांतल्या लोकांक-आदीं अेंप्रेगाद म्हणटाले तांकां ते व्हर्मेंट सव्हेंटस् म्हणूंक लागले. ( आनी तें आयकना बराबर हे अेंप्रेगाद कच् रून आंग काडूंक लागले ) आनी अिमर्जन्सी येतकूच सगळ्या सरकारी ॉफिसांनी पयलेच खेप शिस्त आयली. कारण ह्या सगल्या ऑफिसांनी काम रपी लोकांक कोणें तरी सांगलें कि ' शिस्तीक लागून राष्ट्र व्हड जाता ' अशें भदिरा गांधीन म्हळां म्हणून. देखून ते सगळे वेळार ऑफिसाक येवंक लागले, ळार घरा वचूंक लागले. आनी सरकाराक मातशा ल्हवू आवाजांत गाळी घालूंक ागले. खेरीज, आदीं ज्यो ऑफिसांतल्यो फायली हळूहळू हालताल्यो त्यो मातशो गिबेगीन हालूंक लागल्यो. ( पुण भायल्या लोकांक हो बदल जाणवलो ना. ारण तांकां त्या फायलींचेर आनी तांतल्या कागदांचेर आनी तांचेर आदले रीच वजन दवरचें पडटालें. )

सरकारी आफिसांतल्या लोकांक सदचें काम करून-म्हळ्यार सरकाराक ांकेच तरेच्यो गाळी घालून-वाज आयलो म्हणटकूच ते संपार वेतात. संपार तकूच तांकां आड्डूंक मेळटा. सदां गजालींतल्यान साद्यो गाळी घालतात त्या दला तांकां आड्डून पोजडयो गाळी धालूंक मेळटात. अशो गाळी घालतकूच ांकां मातशें बरें दिसता. आनी मागीर ते आपलो संप फाटीं घेतात.

सरकारी ऑफिसां आनी प्रायव्हेट ऑफिसां हातूंत तशें पळोवंक गेल्यार ूब अंतर आसता. सरकारी ऑफिसांनी भायर बांकडे आसतात, जाल्यार ायव्हेट ऑफिसांनी सोफा आसतात. सरकारी ऑफिसांनी भितर लांकडी मेजां-ःदेलां आसतात, जाल्यार प्रायव्हेट ऑफिसांनी हीं मेजां-कदेलां गोंद्रेजचीं ी आसतात. सरकारी ऑफिसांतले लोक गोंयकार ऑफिसराक नांवान अुलो रतात आनी डेप्युटेशनिस्टांक ' सर ' बी म्हणटात, जाल्यार प्रायव्हेट

ऑफिसांतले लोक आपल्या पात्रांवांक दादा, बाबा, विटुदाद, काटुबाब अशें कितेंशें म्हणटात. म्हत्त्वाची गजाल म्हळ्यार प्रायव्हेट ऑफिसांतले लोक सरकारी ऑफिसांतल्या लोकांबरीच गजाली करतात. पुण सरकारी ऑफिसांतले लोक फक्कत सरकाराक गाळी घालतात तेन्ना प्रायव्हेट ऑफिसांतले लोक सरकाराक गाळी घालून जाले उपरांत आपल्या पात्रांवाची तुस्त करतात. मिनैराच्या ऑफिसांनी बी जाल्यार जे चडान-चड अशी तुस्त करतात तांकां चडानचड बोनस आनी प्रोमोशनां मेळटात.

❦ ❦

: १९ :

# तिरसुवाद गोंयकार

'गोंयकार मनीस कसो काय ?' म्हणून अेकाद्‍ऱ्या गोंयकाराकूच कोणेंय प्रस्न केलो जाल्यार तो सादारण जाप दितलो ती अशी :

१ ह्या संवसारांत गोंयकारावरी दुसरो मनीस मेळचोना.

२ गोंयकार हो सभावान बरो आनी तकलेन फीन मनीस.

३ गोंयकार हो अेक सुसेगाद आनी आलमे खुशाल मनीस.

४ गोंयकार हो अेक बऱ्या काळजाचो मनीस. ताच्यान दुसऱ्याचें दुख्ख पळोवं नज. ताच्यान केन्ना कोणाचें वायट येवजूं नज. तो सदांच गरीबधाटयाक पालव दियत आयला.

५ गोंयकार हो अेक सादो भावराथी मनीस. ताका 'ग' ची पिडा नासता. गोंयकाराचीं गोंयकाराविशिंचीं असलीं मत्तां आयकतकूच कोणाकूय दिसपाचें ह्या संवसारांतले सगल्यांत बरे मनीस म्हळ्यार गोंयकार. देखून गोंय हो धतरेवेलो सर्गूच म्हळ्यार जाता.

अेकाद्‍ऱ्या गोंयकाराक कोणेंय दुसरो अेक वायट गोंयकार दाखोवन म्हळें हो तो अमको पळे आसा तो बरो मनीस न्हय आं. ताणे पयर अशें अशें केलें." हें आयकना फुडें तो तटायंच करून परथो प्रस्न करतलो, " हाताचीं सगळीं बोटां कितें सारकीं आसतात ? "

नायजाल्यार, संवसारांतले हेर सगले मनीस निर्माण केल्याअुपरांत देवान गोंयकाराक निर्माण केला जातलो हातूंत दुबाव ना. कारण देवाची सगळी अक्कल कसाक लागल्या म्हणपाचें निदान ताका पळेतकूच तरी दिसता. तरेकतरेच्या गुणांचें अर्क ह्या मनशांत पळोवंक मेळटा. हे नदरेन पळोवंक गेल्यार गोंयकार

म्हणटात तो एक अहंकारी, चड शाणो, तिरसुवाद, आळशी, फटींग, सुसेगाद, सुवार्थी, गजाली करपाखातीर, खावपा जेवपाखातीर आनी पयशे जोडपा खातीर जल्माक आयिल्लो असो एक तकलेन फीन मनीस.

गोंयकार हो जल्माक येतनाच 'ग' ची पिडा घेवन जल्माक येता. देखून तो जल्मभर आपणाक शाणो समजता. गोंयांत जो सांजेच्या जेवणाक पादिशेर आसता तो मनीस लेगीत शिनिफिको सांगता – वेळ पडल्यार, हेरांपरस तोच चड शिनिफिको सांगता. हाचें कारण, गोंयकार घरांत वावुरताना तागेलो 'हांव' तागेल्या सांगातान वावुरता. तो रस्त्यांतल्यान चलताना तागेलो तो 'हांव' ताचे मुखार चलता. तो कसलेंय काम करूंक कदेल आनी मेज घेवन बसलो जाल्यार तागेलो 'हांव' ताच्या मुखावेल्या मेजार चडून बसता.

कसलेंय काम करच्या वेळार गोंयकाराचो हो 'हांव' ताका कामांत सदां आड येता. हाका लागून चार गोंयकार केन्नाच कसल्याच कामाक एकठांय येवंक पावनात, तशेंच अेकाद्रें म्हत्वाचें काम–कोणाचेंय पाड घालपाचें बी–आसलें आनी त्या खातीर अशे कांय गोंयकार अेकठांय आयलेच जाल्यार तांचे सगल्यांचे 'हांव' अेकामेकांचेर ढॅण ढॅण करून आदळटात आनी त्या कामाचें थंयच पाड पडटा.

एका काळार एक गोंयकार दुसऱ्या गोंयकाराक 'हांव सांगतां तें तूं आयक' म्हणटालो आनी गोंयांभायले लोक तागेल्या ह्या उलोवपाची तुस्त करताले. आतां गोंयकार आनिकूय फुडें पावला. 'हांव सांगतां तें तूं आयक इतलेंच न्हय, तर तूं सांगता तें हांव आयकुचों ना,' अशें तो सांगूंक शिकला.

गोयांत सगले तरेचो लोक आसलो तरी तातूंत सादे, पिशे, अजागळू, अबर्गत, साडेभावराथी अशे तरेच्या लोकांचें प्रमाण खूब उणें. हांगा जे मनीस मेळटात ते चडशे शाणे, सवाय शाणे, देड शाणे, दोन शाणे, तीन शाणे, साडेतीन शाणे अशेतरेचे. हाकाच लागून दोग गोंयकार एकामेकांकडेन झगडटाना सदांच 'तुजीं चड शाणेपणां नाका आं!' अशें म्हणून एकामेकांचेर उसळटात. चुकून कोणेंय एकाद्ऱ्याक तूं पयलो मालूक' जावं 'बूर' म्हळो जाल्यार, ताचोय अर्थ 'तूं पयलो चड शाणो' असोच जाता.

गोंयकाराचो दुसरो एक म्हत्त्वाचो गूण म्हळयार तागेलें तिरसुवादपण. ह्या तिरसुवादपणाचें मुखेल लक्षण म्हळयार निकतें सांगलां त्याप्रमाण दोग गोंयकार

न्नाच कसल्या बऱ्या कामा खातीर एकठांय येवंक पावनात हें. ते एकठांय ायलेच जाल्यार तिसऱ्याचें पाड घालपा खातीर म्हणून एकठांय येतात. दोग ोंयकार तिसऱ्या गोंयकाराक गाळी घालूंक लागले म्हणटकूच समजुपाचें कि : दोगूय आतां सामके लागशिल्ले आमीग जावपाचे आसात.

'तूं कसो आसा ?' ह्या साद्या प्रस्नाक 'हांव बरो आसां' अशे तरेची तलीच सादी जाप दिवपी मनीस गोंयांत मेळूंक कठीण. त्या वांटयाचो तो विसारांत केन्ना कोणें आयकूंक ना अशे तरेची जाप दितलो. सादारण साडे- ावराथी मनीस ह्या प्रस्नाक 'आऽऽ सांऽ सुमराचो' अशी जाप दितलो. रंगुपी मनीस 'बरोऽऽनाऽ' अशी जाप दिवन आपल्या दुर्येसाचो इतिहास ांगतलो. सादारण शाणो मनीस 'काडटां दीस तुका बरें मागून' म्हणटलो ( बाकी शाण्या मनशाचे हे जापेक तसो कांय अर्थ ना. आतांच्या काळार ानीक कोणें दुसऱ्याक बरें मागून दीस काडपाचे उल्ल्यात ? ) आनी ह्याच स्नाक चडशाणो गोंयकार–सवाय शाण्या पसून साडेतीन शाण्यामेरेनचो ोंयकार–परथो प्रस्न करतलो : 'म्हाका कितें जाता म्हूण कोणें सांगिल्लें व्हय र तुका ?' खंयच्याच प्रस्नाक सारकी सरळ जाप दिवप ना हो गूण खुबशा ोंयकारांच्या रगतांतूच आसा ताका कोण कितें करतलो ?

गोंयकाराच्या तिरसुवादपणाचें आनीक एक लक्षण म्हळयार एक गोंयकार ुसऱ्या गोंयकाराचें चड करून केन्ना बरें येवजिना आनी ताका लागून केन्ना ाचें बरें उलयना. मनीस जितलो चड लागशिल्लो तितलो ताचेर गोंयकार चड ोत्र. पुण अशेंय आसताना तो ताका हे गजालिचो भायरसून केन्ना कांय देफैत ाखयना. गोंयांत खुबश्या वेळार अशें घडटा. दोग लागशिल्ले शेजारी दिसपट्टे काळीं एका बल्कांवार बसून सगल्या अंतरराष्ट्रीक घडामोडींचेर पोटतिडकेन र्चा करतात पुण उपरांत तिसऱ्याकडेन उलयतना ते एकामेकांक गाळी घालतात.

दुसऱ्याचें वायट येवजप ही गजाल एकवेळ समजूं येता. पुण ुसऱ्याच्या घरांचेर सुणीं चडोवप ही जी कला आसा तांतूंत गोंयकारा अतलो तिजिल्लो आनी तेळिल्लो मनीस दुसरो मेळचो ना. खंयच्याय ोंयकाराक कामधंदो नासता तेन्ना तो कोणाच्या घरांचेर कशीं सुणीं चडोवंची ाचेर येवजीत आसता, आनी म्हत्त्वाची गजाल म्हळयार वेळ मेळटा तेन्ना ीं चडयताय.

मुळांत गोंयकार हो एक किजिली मनीस. तागेली किजिलां करपाची आवड तागेल्या तिरसुवादपणांतल्यान आयल्या. किजिलां करपी गोंयकारां भितर जांकां तांक आसा ते देमांदांनी पडटात. जांकां ती ना ते बेठेच झगडटात. गोंयकारांची झगडीं हीं सदां पळोवपासारकीं आनी आयकुपा-सारकीं आसतात. कारण तातूंत पोजडयो गाळी ( बायलां वेल्यान, आवयां वेल्यान बी ) खूब आसतात. दोग गोंयकार एकमेकांकाडेन झगडटाना पोजडयांतल्यो पोजडयो गाळी वेंचून काडटात आनी त्यो एकामेकांचेर शेंवटितात.

चड करून गोंया भायले लोक गोंयकाराची 'बरो सुसेगाद मनीस' म्हणून तुस्त करतात. खरें म्हळ्यार, तांणी ताका आळशी म्हणपाचो. (पुण तांगेल्या बरेपणाक लागून जावंये वा अज्ञानाक लागून जावंये तांकां गोंयकार हो एक सुसेगाद वा आलमेखुशाल मनीस दिसता.) कारण गोंयकाराक कश्ट करप जमना. तिसऱ्यान कोणेंय कश्ट करचे आनी आपणें ताचेर फॉलग मारचें अशें ताका सदांच मनापसून दिसता. गोंयांत तांतले तातूंत चडान चड कश्ट करतात ते वेपारी. पुण तेलगीत सकाळीं णव वरां मेरेन आपलीं लॉजां उकतीं करिनात आनी रातचीं आठांपयलींच तीं धांपतात. मदीं दनपरां एक ते चार वरांमेरेन गोंयचे सगले वेपारी जेवन खावन सुस्त न्हिदिल्ले आसतात. ह्या विसाव्य शेंकडयांत गोंयचे वेपारी मदल्या वेळार जितलो विसंव घेतात तितलो संवसारांत आनीक खंयचेच वेपारी घेना जातले.

गोंया भायले लोक-चड करून महाराष्ट्रांतल्यान हांगा जे मराठी मनीस येतात ते – गोंयकारांच्या आदरातिथ्याची खूब तोखणाय करतात. हाचें एक कारण अशें आसुंये कि आदल्या काळार पुर्तुगेज लोक अिंग्रेजांक दाखोवपा-खातीर ( Para as Ingleses Ver ) कितें कितें करताले तशें ह्या गोंयाभायल्या लोकांक दाखोवपाखातीर गोंयकार तांकां बरेतरेन वागयतात जावंये. नाजाल्यार गोंयकारांच्या आदरातिथ्याची तोखणाय करपा फाटल्यान गोंयाभायल्या लोकांचो सुवार्थूय आसूं येता. देखीक, जे भायले लोक गोंयकारांची तुस्त करतात तांकां दर वरसा हांगा येवन आठ-पंदरा दीस तरी आपलो तळ ठोकपाचो आसता.

गोंयांत फटींग आनी नागवणे मनीस पावला कणकणी मेळटात.

ालें हें फटींगपण सुवाथांतल्यान आयलां आनी तें दोन गजालींतल्यान दिश्टी टा. एक म्हळयार तांकां कोणाय कडल्यान पयशे घेवपाची आनी ग्रेतकूच परथे फारीक न करपाची वायट संवय. दुसरी गजाल म्हळयार रीमिरी सुद्दा म्हणून चडशे गोंयकार सरकारी शिर्विसांनी बी भितर ःतात. आपूण देवाक भियेतां अशें दाखोवपी कितलेशे गोंयकार देवळांच्या ामिसांवांनी भितर सरून देवाकूच नागयतात, हे गजालीक तुमी किते णटले ?

गोंयकार हो एक गजालिंचो धोडो. एक फावट तोंड उकतें करतकूच यकाराक तें परथें धांपचें कशें तें समजना. देखून, दळपाचें दातें जावं टाची गिरण चलता तशें ताचें तोंड आनी जीब चलता. दुसरी गजाल ळयार गोंयकाराक 'गजाल' म्हणटात ती विडयेभशेन; पावला कणकणी का ती लागता.

गोंयकार अशो गजाली करतात तरी कसल्यो? पाड पडूं! तसो तांगेल्या जालींक कांय अथ नासता, सुवादूय नासता. माजराची सटी आनी कुकुशाचो रसो हांचे पसून अंतरराष्ट्रीक राजकारणामेरेन सगले तरेचे विशय तांकां ळतात. अदीक फोडणिशी केल्यार अशें दिसून येता कि गोंयकाराक हेर गजालीं ःस बड्डाशो, फटाशो, चाडयो, केशी आनी किरकान्न्यो तांतले तातूंत चड ःनवतात. 'ग' ची पिडा आशिल्ल्यान तांका बड्डाशो आवडटात. वृत्तीन तसो फटींग आशिल्ल्यान ताला फटाशो मानवतात. तांगेली चाडयांची आनी शी किरकान्न्यांची आवड तागेल्या तिरसुवादपणांतल्यान आयल्या.

गोंयकारांच्या गजालिंचे तांतले तातूंत आवडिचे विशय म्हळयार: १) गोंयकार, ) नुसतें आनी ३) राजकारण. ह्या संवसारांत गोंयकार गोंयकारांचेर जितले ळयतात तितले हेर खंयचेच लोक आपणांचेर उलोवंचे नात. गोंयकार ोंयकारांचेर उलयतात तेन्ना एक तर ते जेराल गोंयकारांचेर उलयतात नाजा- ार आपल्या वळखिच्या वा नात्यागोत्यांतल्या मनशांचेर उलयतात, नाजाल्यार ापणांचेरूच उलयतात. जेराल गोंयकारांचेर उलयतासताना चड करून ते तांची ःत करतात. वळखिच्या मनशांचेर उलयताना चड करून ते तांकां तासतात. ापल्या पारेंतांचेर उलयताना एक तर ते बरें उलयतात ना जाल्यार तांची टीका रतात. चड करून मामा–भाचे, बापोलये–पुतणये, मेवणे–भावोजी एकामेकांची

खूब तुस्त करतात. भाव-भावांचें कांयच सांगूं नज. एक वेळ दोग बापोलभाव, दोग मावशेभाव, दोग आतेभाव, दोन मामेभाव एकामेकांचें बरें उलयताना मेळूं येता, ना अशें ना. पुण खाशा भावांचें चित्रच काडूं नज. एक तर ते एकामेकांची खूब तुस्त तरी करतले नाजाल्यार एकामेकांक कुडक्यांनी गाळी घालतले.

गोंयकार जेन्ना आपणाचेरूच उलयतात तेन्ना ते बावडे आनीक कितें करतले ? आपलेंच व्हडपण सांगीत रावतात; म्हळयार बड्डाशो मारतात. ह्यो बड्डाशो सादारण अशेतरेच्यो आसतात....हांवें अशें केलें, हांवें तशें केलें. हांव अमकें करपाचों, पुण अमक्या अमक्यान अमकें अमकें सांगलें आनी तमक्या तमक्यान तमक्याक तमकें तमकें सांगलें. अमको अमको म्हाका रेश्पैत दिता. तमक्याची मात् म्हाका सामकी तिडक मारता. हांव तेदीस अमक्या कामाखातीर अमकेकडेन वचपाचों. पुण तितल्यान तमको म्हाका मेळूंक आयिल्यान म्हाका थंय वचूंक मेळ्ळें ना.

गोंयांत जल्मभर पिरंगुपी मनीस अशे खूब मेळटात. तांकां कोणेंय कसलोय प्रस्न विचाल्ल्यार तो प्रस्न आपलेच साऊदी संबंदीं आसा असो ते समज करून घेतात आनी जाप दिवपाच्या निमतान आपल्या फाटल्या पंचवीस वरसांच्या दुयेंसाचो इतिहास ते सांगतात. तांगेली ही जाप सादारण अशी आसता--हांव ह्या दिसांनी बरो पासार जायना. फाटीं म्हाका अमकें अमकें दुयेंस जालें, नकळ तूं ? पयलीं अमक्या दोतोरान म्हजी हॅंजाम केली. ताका कांय मेळ्ळेंना. मागीर तमक्या दोतोराक वचून मेळ्ळों. ताणें तपासलो. ताकाय कांय मेळूलेंना. मागीर बद्द उठून मुंबय गेलों. थंय पयलीं एका दोतोरान म्हाका तपासलो आनी ताणें अमके अमके कडेन वच आनी अमक्या दोतोराक मेळ म्हणून सांगलें. हो व्हडलो दोतोर ताचे सारको आनीक दुसरो दोतोर इंदियेंत ना. अमेरिकेकसून हालींच आयला. म्हाका जें कितें दुयेंस जाल्लें ताचोच तो स्पेशलिस्ट. तो त्या दुयेसाचें सगलें जाणां. ताणें म्हज्यो कितल्योशो हॅंजामी केल्यो. कितलेशे फोटे काडूंक लायले आनी उपरांत ते सगले बारीकसाणेन पळेल्या उपरांत ताणें म्हाका हो त्रातामेंत दिला- गुळयो आनी इंजेसांवां- एके एके गुळयेक दोन रुपया पडटात आनी एका एका इंजेसांवाक पांच रुपया. हे सगले सदया हांव घेतां. तातूंत हालीं म्हाका मातसो हय न्हय सो गूण पडला. आंता हांव मातसो बरो आसां.

गोंयकार कोणाचेरूय अुलोवंक लागतकूच ते कितें अुलयतात ताका ळतंत्र नासता. देखीक, हें एक दोगांचें अुलोवणें आयकातः
– अमको अमको, बरो मनीस आं!
– हय. भाव मात सामको पाडा पडिल्लो.
– सामको सात माल्देसांव म्हळयार! सपन पडूं नाका ताचें.
– मागेल्या बापायक वळखता व्हय तर तूं?
– ना.
– ताचे सारको मनीस हांवें पळोवंक ना.
– बरो काय वायट म्हणटा तूं?
– अिश्तिमासांवाचो मनीस. सभावान सामको भांगर.
अुपरांत ह्यो गजाली अदीक खोलायेन वेतात आनी नात्यांनी सपतात.
– तो लिसेवार शिकयतालो. ताचो एक भाव कापितानींत आसलो आनी दुसरो आल्फांदार आसलो.
– आल्फांदार आसलो पळे ताका हांव वळखतां. म्हगेलो बापोलयो तागेलो कोंपान्यैर. दोगूय अिश्कोलांत बराबर शिकताले.
– म्हज्या बापायले मावशे भाव ते. म्हगेलो बापूय तेन्ना आग्रिमिसोरांत आसलो. आमी तेन्ना पणजे रावताले. थंय ते आमगेले शेजारी.
– तो कापितानींत आसलो पळे ताची बायल आमगेले घरकान्निची पारेंत. ती तिका व्हनीबाय म्हणटा.
– अुपरांत म्हगेल्या बापायन आग्रिमेसोर सोडलें आनी तो ऑब्रश पुब्लिकांत गेलो. आमी तेन्ना पणजे रावताले पळे, थंय कुशीक काम्राच्या प्रिसदेंतीचें घर आसलें. दिसपट्टो आमगेल्या दारांतल्यान येतना वेतना तो दिश्टी पडटालो.
अुपरांत नुसतें हो विशय ह्या गजालीनी आयलो जाल्यार ह्यो गजाली अशे रेन चलतात.
– आयज कितें मेळ्ळें तर तुका?
– सकाळी एक नुसतेकान्न दारांतल्यान साद घालीत वेताली.
– पाड पडूं! कांय नासलें. तिचेकडेन पेडवे आनी सुंगटां.

– तेंच म्हणटां. म्हणून हांव तिट्यार गेलों. थंय पळेल्यार वेल्ल्यो, काळुंदरां आनी दोडयाऱ्याचे कचे.
तुवें कितें घेतलें ?

– आयक मरे. एकलेच कडेन मुड्डशांची एक गांथन आसली. सगले मेळून पांच खिळे. चार रुपया सांगताली. हांवें बरीच घासाघीस केली. अडेच दितां म्हळें, आयकना. तीन दितां म्हळें, आयकना. अखेरेक साडेतिनांक दिली.

– म्हणजे मार्केटांत त्या मानान बरें आशिल्लें नुसतें. विस्वण, कल्ल्यो बी.

– तूं गेल्लो ?

– नानू पणजे गेल्लो, ताका म्हळें बाजारांत एक फावट मार. ताणे शेंवटाळयो हाडल्यो. मजा कितें जाली जाणां ?

– तो घरांत भितर सल्लो आनी भितल्यांत तागेल्या मांवान घोळशो घेवन एक मनीस धाडलो. तोय त्याच वेळार पावलो.

– ताणें आनी त्यो खंयच्यान धाडल्यो तर ?

– आगर आसा न्हय रे तांचें ?

नुसत्याचे न्हंयेंत भितर सरपा बदला हें गजालिचें व्हडें राजकारणाच्या दर्यांत भितर सरिल्लें जाल्यार आमकां तिसरेंच कितेंशें आयकूंक मेळटलें आसलें. राजकारणाच्या मळार गोंयकार स्थानीक राजकारण, दिल्लीचें राजकारण आनी अंतरराष्ट्रीक राजकारण ह्या तिनूय विशयांचेर सारक्याच अधिकारान उलोवंक शकतात, एकूच मतींत धरी सारकी गजाल म्हळयार स्थानीक राजकारणांत तांकां पोलिटिक्सा परस पुलितकां चड लागतात. ह्या तीन राजकारणां खेरीज तांकां महाराष्ट्राचेंय राजकारण लागता–फक्कत गाळी घालपा खातीर म्हळयार जाता. गोंयकार चड करून खंयच्याच राजकारण्याचेर केन्ना बरें उलयनात. ना म्हळयार सदयाच्या राजकारण्यांक गाळी घालताना एकेक फावट सोंपिल्ल्या राजकारण्यांची तुस्त करतात. देखीक, ताअीचे दोश दाखयतना ते भाऊक बरो म्हणटात, मोरारजीक गाळी घालताना ते नेहरूची तुस्त करतात आनी प्रेसिडेंट कार्टराक तासतना ते प्रेसिडेंट केनेडीची तोखणाय करतात. मुख्य म्हळयार हें करताना सगल्या राजकारण्यांक ते एकेच तागडेंत जोखतात.

ह्यो जाल्यो दादल्यांच्यो गजाली. बायलांच्यो गजाली मातशो वेगळयो

आसतात. तांच्योय गजाली जाती-पाती, दायजी-दुस्मान हांचेरूच आसतात. पुण दादल्यांच्यो गजाली घर, नुसतें, शिर्वीस, वेवसाय, राजकारण हांचे भोंवतणी घुटमळटात. तेच तरेन बायलांच्यो गजाली फळीसपनां, दुवाळे, लग्नां. बांळटेर, वारशे, सट्यो, दुयेंसां हांचे भितर घुसपतात. चड करून बायलां सणां-परबांच्या नेमतान, लग्नकारणांक, सणापरबांक, कथा·किर्तनांक वा देवळांच्या उत्सवांक बी एकठांय येतात. आनी मागीर गजाली करतात त्यो अशो :

– व्हनीबाय, केन्ना येयली गे तूं ?
– कालूच.
– नर्बदें आसा मगे बरें ?
– आऽऽसाऽ आतां सुमराचें. तेका जालो तिफोयद म्हणून गेल्लीं हांव. तेंतूर आनी तें जांवच्या दिसांचें न्हू ?
– चवथे खेप काय किते गे ?
– हय.
– आदलीं तिगूय चेडवां दिसता न्हू ?
– दोग चेडे, एक चेडूं.
– आतां म्हयनो खंयचो तर ?
– पयरूच पांचवो लागलो. तेंतूर आनी खर दुवाळो लागला तेका.
– घरांत आनीक कोण आसा व्हय तर ?
– मांय आसा. पुण तिचें सात माल्दिसांव पोडों.
– कित्याक म्हणटाय गे ?
– सामकी पिश्टून खाता म्हळयार तेका.
– मांव केन्ना भायर पडलो तर तेगेलो ?
– जालीं चार पांच वरसां. तुजीं भुरगीं आसा मगो बरीं ?
– धाकलो मातसो बरो नासलो हय। दिसांनी. एका सारकें पोटांत मुड्डतालें. पयर तेका पणजे एका व्हडल्या दोतोराक दाखयला. आतां आसा बरो.
– शाळेंत वयता मगो ?
– हय. दोगूय वेतात. एकलो तिसरेक आनी दुसरो पांचयेक.
– भयणीचें लग्न जालें व्हय तर तुज्या ?
– ना मगो. कितलेकडेन सोयरीक व्हेली. खंयच उतर धरना.

– आगो तो कामण्याचो भाव आसा न्हू गो ?
– शंकर म्हणटा मगे ?
– हय. पणजे पलासींत शिर्विसेक आसा खंय तो.
– कामण्याक इचाल्लेलें हांयेन. तें म्हाका दोन फावट मेळ्ळें. एक फावट शिरगांवचे जात्रेक आनी दुसरे फावट चेडवाच्या बांळटेराक येयल्लें तेन्ना.
– कामण्याक चेडवां कितलीं तर ?
– दोगां न्हू गे तीं ? एक मुश्णें. तें कुंकळे दिलां आनी दुसरें भागी. तें माशेलांत दिलां. म्हाजी व्हडली जाव आसा पळय तिगेलें कुळार माशेलांत. तांच्या शेजराच्च रावता तें भागी. तेगेल्या बावड्याचो देर आनीक भायर पडलो खंय ह्या दिसांनी.
– कसो ?
– कांक्र जालो तेका....
– लग्न जाल्लें ?
– हय तर. दोन भुरगीं आसात.
– चुरचुरे !

मनशाच्या तोंडाचे उपेग दोन : एक, उलोवप आनी दुसरो, जेवप खावप. गोंयकार आपल्या तोंडाचो हे दोनूय तरेन बेस बरो उपेग करतात. खंयचीय गजाल रुचीन कशी :खावंची आनी तिचेर रुचीन कशें उलोवंचें हें कोणेंय गोंयकारांकडल्यान शिकचें.

नुसतें ही तांतले तातूंत गोंयकारांचे चड आवडिची गजाल. देवान ह्या संवसारांत नुसत्याक कित्याक जल्माक घालें ? तर गोंयकारांनी ताचेर उलोवंचें आनी तांणी तें रुचीन खावंचे म्हणून. दर एक गोंयकार आपले जिणेंतलो अर्दो अदीक वेळ नुसत्याचेर उलोवन वगडायता. आनी उरिल्लो वेळ तें खावन काबार करता. हें जालें आमच्या सारकिल्या अज्ञाडयांचें मत्त. हालींच म्हाका एक दीसरात हातांत पाश्त घेवन भोंवपी एक व्हड लेत्राद मनीस मेळ्ळो ( हो मनीस उलयता तें आयकत जाल्यार तो एक दीस गोवा युनिव्हर्सिटीचो व्हाईस चॅन्सलर जातलो काय दिसता ). ताणें गोंयकाराचेर खूब अभ्यास केला आनी खंयचेशे अमेरिकेचे युनिव्हर्सिटीन ताका त्या खातीर डॉक्टरेट दिल्या ( अशें तो लोकांक सांगता. )

ह्या मनशाचें म्हणणें, ॲव्हरेज गोंयकाराची पिराय ६५ वरसां धल्ली जाल्यार तांतलीं ६० वरसां ७ म्हयने २२ दीस १३ वरां आनी ९ मिणटां तो नुसत्याचेर लगडायता–एक तर तें खावन ना जाल्यार ताचेर उलोवन. हेवटेन, तेवटेन कांय मिणटां सोडल्यार ही गजाल खरी आसूं येता अशें म्हाकाय दिसता.

नुसतें गोंयकारांक मानवलें तरी तांकां सगलेंच नुसतें सारकेंच मानवता अशें ना. तांचे नदरेन विस्वण, शेंवटे, दोडयारे, तांबोशे, चणाकां, कल्ल्यो, रांवशी, बोळशो, केरी, रंगे बी व्हडलें नुसतें. मुड्डशो, शेंवटाळयो, काळुंदरां, लेपो बी ताचे फाटल्यान. बांगडे, ताल्ले, पेडवे, वेल्ल्यो, खर्चाण्यो, शेतकां, सवनाळे हांकां गोंयकार एके वेगळेच तरेन लेखतात. कुल्ल्यो, सुंगटा, शिनाण्यो, कालवां, खुबे, तिसऱ्यो हांकांय गोंयकार खूब भोवमान दितात. सांगटां, मोरयो, बाळे ह्यो जाल्यार कांय गोंयकाराचे नदरेन सामक्यो अप्रूप गजाली. कांय मेल्ले गोयकार लेगीत हांचीं नांवां घेतकूच जिते जातात. (अशें म्हणटात. हांवें काय अजून तसो कोण जितो जाल्लो पळोवंक ना.) पुण त्याच बराबर कांय जाणांक हें नुसतें सामकें दोळयां दिश्टी नाका आसता. इतली तांकां ताची वीट येता,

दर एका गोंयकाराक दीसपट्टें जेवणाक जाता तितलें व्हडलें नुसतें जाय. तें मेळ्ळें ना जाल्यार ताचेर आकांत येता. मागीर त्याबदलाक तो मातशें ल्हान नुसतें खाता. आनी तें खातकूच ताचो तो आकांत वेता. विस्वण मेळ्ळो ना जाल्यार विस्वणाचो कळावो, कल्ली मेळ्ळी ना आल्यार कल्लेचो बाळो, तेच तरेन दोडयाऱ्याचे कचे, मुड्डशेचे खिळे, चणकुलां, संगुटयो, बांगडुल्यो, खुबल्यो कितेंय तरी ताका जायूच. मोतयाळीं, कापसाळीं, गालमो, कर्बट असल्या बारकिल्या नुसत्याक मात् गोंयकार दायज्यावरी ना जाल्यार दुस्मानावरी लेखता. फक्कत जाय तशें नुसतें मेळना तेदीस ताका हें असलें नुसते चलता. नुसत्याचेर सामकोच संव्हार आयिल्लो आसता तेन्ना गोंयकाराचो जीव सामकोच पंथाक लागता. मागीर तागेल्या घरचीं मनशां पुरुमेंताक दवरिल्ले खारे बांगडे, सुंगटां, वेल्ल्यो, बोंबील बी काडटात आनी ते भाजून बी तागेल्या तोंडाक लायतात आनी मागीर तागेल्या जिवांत मातसो जीव येवंक लागता–तो सावशीत जाता. पुण सावशीत जातकूच तो एकाद्रो विचारता, "बांगडो बेठोच भाजलो ? किस्मूर केली ना ?"

नुसत्या भितर गोंयकार परथून सावें, खारें, गरवणेचें, जाळाचें, रांपणेचें,

आगराचें, खाजनांतलें अशे कितलेशेच भेद करता. खेरीज, खंयचेंय नुसतें घरांत हाडलें जाल्यार ताच्यो कितलेश्योच पती करून जिबेक विचारून आनी पोटाक सुस्ती मारसर तें तो खायत रावता. नुसत्याचे कालवणें करप, तोंडाक करप, नुसतें तळप हे जाले नुसत्याचें मुखेल जिनस. पुण पानार बसलो जाल्यार तो सगलेच जिनस सारके खायना. थंय ताच्यो कितल्योशोच खोडी आसतात. नुसत्याचें तोंडाक ताका सुकें, सडसडीत, धबधबीत अशे वेगळेवेगळे तरेचें लागता. तळिल्लें नुसतें एकेक फावट ताका चरचरीत तळिल्लें लागता. एकाद्‍ऱ्या नुसत्याचो ताका शेंपडे कडलो कुडको जाय, एकाद्‍ऱ्याचो मदलो जावं शेश्टे कडलो चलता. बांगड्याची तो उडुमेथी करून खाता म्हणून पेडव्यां-ताल्ल्यांची खायना. पुण त्याच बराबर ताका बांगडे, पेडवे, ताल्ले चलतात. नुसत्यांतल्यो गाबोळयो, कुल्लेच्यो लाखो तो खाता. पुण नुसत्याचीं आंतां, शेश्ट्यो बी तो खायना. आपल्या फाटल्यान जीं मनशां जेवतलीं तांचेखातीर त्यो दवरता. शेश्ट्यो खाल्योच जाल्यार तांची कळपुटी करून तो खाता. गोंयकारांक आंतां उपकारलीं ना तरीय नुसत्यांतल्यो गाबोळयो, सुंगटांचे गळे जावं कुल्लेचे डांगे मात् ते आवडीन खातात.

गोंयकार नुसत्याचें जें कितें खाता तें बरें आंबशें–तिखशें करून खाता. कांयकडेन ताका हरवे मिरसांगेची ना जाल्यार सुके मिरसांगेची तिखसाण चलता जाल्यार हेरकडेन ताका तेफळांच जाय. तेच तरेन आमसाणीक कांय कडेन ताका आमटाण चलता जाल्यार हेरकडेन ताका सोलांच जाय. खंय ताका नाल्लाचो रोस चलता जाल्यार खंय ताका रोस आनी आपरोस दोनूय जाय. मसाल्यां संबंदीं जाल्यार ताच्यो शेंशंबर खोडी आसतात.

गोंयकाराचो आनी नुसत्याचो संबंद कितें सांगतलो? भाजी म्हणटात ती हरशीं खामकी शिवराक पुण तिका लेगीत सुरबुसाण हाडपाखातीर तो सुंगटां-सारकिलें नुसतें भितर घालता.

बाकी गोंयकाराविशीं सगळें येवजिल्या उपरांत अशें दिसून येता कि गोंयकार हो एक बरो वेव्हारी आनी तकलेन फीन असो मनीस. तो आपली ती फीन तकली पयशे जोडपा खातीर वेवस्तीत वापरता. तो गजाली करता, गड्डाशो सांगता, जिबेक विचारून सगलें जेवता-खाता, तिरसुवादपणान चलता, लोकांचीं कुतां काडीत बसता, तांच्यो चाडयो - केशी

करता, लोकांच्या घरांचेर सुर्णी चडयता. पुण ह्यो सगल्यो गजाली करताना तो निमाणें आपणालो वेव्हार वेवस्तीत सांबाळटा. सगल्यांचें सगलें आयकून घेता. पुण निमाणें आपणाक जाय तेंच आनी बरें पडटा तेंच करता.

एक दीस एका गोंयकाराक भुंयेवेली माती हातांत काडिना फुडें तातूंत भांगर दिसलें. तेन्नाच्यान तो ती भूंय खणूंक लागलो. हेरांनीय तागेली देख घेतली. तेय भूंय खणूंक लागले. आनी अशे तरेन एक दीस हे सगळे गोंयकार मिनेर जाले !

❦ ❦

# २० : आमचें गोंय आमकां नाका

गोंय ही एक विचित्र भूंय. अजून हे भुंयेची कोणेंय कुंडली मांडली जाल्यार तातूंत ताका कितलेशे विचित्र योग दिसतले. ह्या असल्या एका योगाक लागुनूच परशुरामाचे हे भुंयेचेर पुर्तुगेज पांय दवरूंक पावले. आनी एक फावट तांणी, ते दवरतकूच साडेचारशीं वरसां ते थंयच रोमून उल्ले.

गोंयचेर कितल्याशाच राज्यकर्त्यांनी राज्य केलें. पुण फक्कत पुर्तुगेजांक सोडल्यार गोंयकार तांतल्या हेर सगल्यांक विसल्ले. अजून गोंयांत पुर्तुगेजांचो उगडास पुर्तुगाली जाम, पुर्तुगाली मिरसांगो असल्या कितल्याशा पुर्तुगेज गजालींतल्यान उल्ला.

गोंयकार पुर्तुगेजांक विसरूंक नात हाचें तशेंच कारण आसा. पुर्तुगेजांनी तांकां कितल्योशो गजाली शिकयल्यो त्यो तांकां हेर राज्यकर्त्यांनी शिकयल्यो नात. पुर्तुगेजांनी तांकां देलिकादेज शिकयली, झेतान रावंक शिकयलें, फात घालूंक शिकयले, पुर्तुगेज उलोवंक शिकयली, सिं सिन्योर.... नांव सिन्योर.... फॉर्ते मरे.... ओब्रिगाद.... दिश्कुल्प.... बोंदीय- बोअनोयती.... असलें कितें कितें म्हणूंक शिकयलें. आंबे खावंक शिकयलें, सोरो पियेवंक शिकयलें; मुख्य म्हळयार नडणेपरस कण्डो व्हड आसूंक जाय म्हणून शिकयलें आनी पुर्तुगेज गजाली तितल्यो सगल्यो बऱ्यो अशें म्हणूंक शिकयलें. हाका लागून पुर्तुगेजांचे पुर्तुगालाचेर जितले उपकार जावंक नात तितले गोंयचेर आनी गोंयकारांचेर जाल्यात. हाकाच लागून, अजून कितलेशे गोंयकार पुर्तुगेजांवरी वावुरतात. आनी ताचेय परस म्हत्त्वाची गजाल म्हळयार पुर्तुगेजांवरी येवजितात.

पुर्तुगेजांच्या काळार 'गोंयकार म्हळयार कोण ?' असो कोणेंय एकाद्र्या

गोंयकाराक प्रस्न केल्लो जाल्यार तो जाप दितलो आसलो, 'जो गोंयांत रावता तो गोंयकार.' म्हळयार त्या तेंपार गोंयकार ह्या उतरांत गोंयकाराबराबर पुर्तुगजूय येताले. पुर्तुगेजांक विचाल्ल्यार तेय म्हणटले आसले, 'कांय पुर्तुगेज पुर्तुगालांत रावतात, हेर कांय गोंयांत रावतात.'

पुर्तुगेज गोंय सोडून गेल्यार आतां कांय ना म्हळयार १६–१७ वरसां जालीं. ह्या काळांत गोंयकार व्हडलेशे सुदाल्ले अशें काय दिसना. ना म्हळयार, तांच्यांत तशे कांय बारीकशे बदल जाल्यात, ना अशें न्हय. पुण पुर्तुगेज जर परथून गोंयांत आयले–गोंयकारांक पळेन दिसलें बी म्हणून–जाल्यार तांकां वळखूंक येवंचे ना इतले काय ते बदलूंक नात. देखीक, पुर्तुगेजांच्या काळार गोंयकारांक सुसेगाद म्हणून आख्खो संवसार वळखतालो. त्या काळार गोंयकारांक कसल्याच कामाक वेळ काळ लाग नासलो. काळाक तेन्ना कसलेंच बंधन नासतालें. आनी वेळ जाल्यार सामको मुयेच्या पावलांनी चलतालो. कोणेंय कोणाकूय अमक्या वेळार मेळटा म्हळें जाल्यार ताच्यान एक वरभर, दोन वरां जावं चार वरां उसरां येवं येतालें. बरें, तो मनीस आयलोय ना जाल्यार ताणें जाका येता म्हळ्ळें ताका ताचें कांय दिसनासलें. कारण त्या काळार कोणेंय कोणाकूय कसलेंय उतर दिलें जाल्यार तें पाळूंक जाय अशें नासतालें.

हे बाबतींत गोंयकार अजून सुदाल्ल्यात अशें काय दिसना. अजून दोग गोंयकार अमक्या दिसा अमक्या वरांचेर एकामेकांक मेळपाचे थारायतात. दोगून ही गजाल विसरून वेतात. परथून एका म्हयन्या उपरांत चुकून दोगूय मेळ्ळे जाल्यार एका म्हयन्यापयलीं दोगांयनी जाचे खातीर मेळपाचें थारायल्लें ती गजाल सोडून संवसारांतल्या हेर सगल्या गजालींचेर ते पोटतिडकेन उलयतात.

पुर्तुगेजांच्या काळार पयशांक मोल नासलें. पुण पयशेकारांक लोक आकांताचो मान दिताले. हाचे बदला, पयशेकारांक हेरांची पर्वा नासताली. अजुनूय गोंयकार पयसो जातकूच हेंच करतात-हेरांक किर्कोंत लेखतात. गोंयकारांच्या ह्या सभावाचें वायट दिसपाक कारण ना. कित्याक काय म्हळयार हया देशांतले हेर लोकूय पयसो जातकूच हेंच करतात.

गोंयकारांविशीं आमी कितलेंय उलयले तरी आमी एक गजाल मतींत धरूंक जाय कि गोंयांत गोंयकार म्हणून नात. गोंयांत हिंदू आसात, क्रिस्तांव आसात, मुसलमान आसात. हांकां आमी गोंयकार म्हणटात. हांतले हिंदू आनी क्रिस्तांव

एकामेकांक भावावरी कशे लेखीत आयल्यात अशें गोंयकार सगल्या संवसाराक –आनी आपले आपणाकूय–सदांच सांगत आयल्यात. 'हिंदू–क्रिस्तांव, आमी भाव भाव' अशें कवितेंत वा गितांत म्हणप सोंपें. पुण हिन्दू–क्रिस्तांव तशे भाव–भाव केन्नाच नासले, अजुनूय नात. दोग मनीस एकामेकांकडेन बरे उलयले, तांतलो एकलो दुयेंत पडल्यार दुसरो ताचे खबरेक गेलो, दोगांयनी मार्केटांत वचून एकासारकें नुसतें घेतलें आनी सणांपरबांच्या निमतान एकामेकांक 'बोअश् फॅश्तश' म्हळें म्हणून काय ते दोगूय भाव–भाव जायनात. कारण ह्यो सगल्यो गजाली दोग शेजारी, वळखिचे आनी वेळ पडल्यार, दोग दायजी–दुस्मान लेगीत करूंक शकतात.

हिंदू क्रिस्तांवांचें जिवीत वेगळेंवेगळें. एकलो देवळांत वेता तेन्ना दुसरो इगर्जेंत वेता. एकलो जात्रेक वेता तेन्ना दुसरो फेस्ताक वेता. शीतकडी दोगूय खातात. पुण एकलो मांस चड खाता जाल्यार दुसरो नुसत्याचेरूच चड जियेता. गायचें आनी दुकराचें मांस क्रिस्तांवांचें आवडिचें, जाल्यार हिंदुंच्या घरांनी तें सामकें वर्ज्य. ह्या दोगांयच्यो जेवणाखाणाच्यो, घरांतल्यो आनी घराभायल्यो कितल्योशो चालिरिती वेगळ्योवेगळ्यो.

क्रिस्तांव हिंदूंक जर केन्ना लागीं आशिल्लेच जाल्यार ते क्रिस्तांव जावचे पयलीं. बाटाबाटी उपरांत क्रिस्तांव पुर्तुगेज राज्यकर्त्यांलागसार पावले. आनी तांणी तांची चालचलणूक, भास, भेस सगलें घेतलें. अजून खंयच्याय क्रिस्तांवांक हिंदूपरस क्रिस्तांव चड लागीं. क्रिस्तांव बामणाक हिंदू बामणापरस क्रिस्तांव चाड्डो चड लागीं. जी गजाल क्रिस्तांवांची तीच गजाल हिंदूंचीय. पुण इतलेंय आसून हिंदू आनी क्रिस्तांव खंय तरी गोंयकारपणाच्या धाग्यान गुंथल्यात हातूंत दुबाव ना. 'आमी गोंयकार' म्हणटात तेन्ना ह्या दोनूय पंगडांचो प्रादेशीक अभिमान दिसून येता. चड करून हिंदू–क्रिस्तांवांचें हें गोंयकारपण उबें रावता तें गोंया भायल्या लोकां मुखार. खंयच्याय गोंयकाराक गोंयाभायल्या मनशापरस–मराठी वा कानडी मनशापरस–दुसरो गोंयकार चड लागीं. देखून गोंयचे हिंदू क्रिस्तांव गोंयच्या फुडाराचो बी प्रस्न येता तेन्नाच एकामेकांक भाव भाव म्हणटात.

हरशीं हिन्दू आनी क्रिस्तांव ह्यांच्या घरांची रचणूक आनी कुटुंबाची बांदावळ वेगळीवेगळी. एखाद्रया घराक बल्कांव दिसलें, त्या बल्कांवांत रंगयल्ल्यो आल्गुरेती दिसल्यो, घराभोंवतणी बाग दिसली, घराच्या जनेलांक कुर्तिनां

दिसलीं कि तें घर क्रिस्तांवाचें म्हूण समजुचें. ह्यो इतल्योय गजाली ज्या घरांनी नासतात तीं घरां हिंदुचीं. ( आदल्या काळार हिंदुंच्या घरांक व्हडल्यो चवख्यो, भायर भितर आंगणां आनी फाटल्यान पोरसां आसतालीं. त्याकाळार क्रिस्तांवांच्या घरांक व्हडलीं सालां आनी भोंवतणी बागो आसताल्यो. )

घरांत भितर सल्ल्यारूय दोगांयचीं घरां वेगळींवेगळीं दिसतात. हिंन्दुंच्या घरांनी चडकरून देव, फुडारी, घरचे लोक आनी तांचे पारेंत हे सगले फोटोंच्या रूपान एके पंगतीक बशिल्ले दिसतात. क्रिस्तांवांच्या घरांनी देवाचें चित्र वेगळेंच लायिल्लें आसता. हेर जे फोटे आसतात ते चडशे जोडप्यांचे–काजाराच्या वेळचे. क्रिस्तांवांच्या कांय व्हड घरांनी कोत्रायल्लीं मेजां, कदेलां, चिनी आयदनां, व्हाज, पुतळे बी असल्यो कितल्योशो अप्रूप गजाली बऱ्यो सांबाळून दवरिल्ल्यो आसतात. हिंदुंच्या घरांनी एकाद्रे अशेतरेन दवरिल्ले व्हड व्हड ग्रंथ आनीं पुस्तकां मेळटात.

गांवांतल्या खुबशा पोन्न्या घरांक भायर सोंपे आसतात. घरांक भायर सोंपे आसप आनी घरांत भितर वल्तेरां आसप हें गोंयकारांच्या सुसेगादपणाचें आनीक एक लक्षण. पुण चडशा घरांक सोंपे आसून लेगीत हांतलीं क्रिस्तांवांचीं घरां खंयचीं आनी हिंदुंची खंयचीं हें आपशींच कळटा. आदल्या काळार पुर्तुगेज सरकार गोंयभर जीं इश्कोल प्रिमारियांचीं घरां बांदताले तीं सगलीं एकच थर्तिचीं आसतालीं. चोंयवशीन भायर वारांदां आनी भितर सालां अशेतरेचो हो मोदेल आसतालो. क्रिस्तांवांकूय अशेच तरेचीं वारांदां खूब मानवतात जावंये. तांच्या खुबशा घरांक तशे तरेचीं वारांदां दिसतात. तशोच लांकडी गरादी दिसतात. तारवट्यांचीं घरां जाल्यार बरीं नवीं ताल्ल आसतात. दरखेपे तारवटी घरा येतात तेन्ना ते आपल्या घरांक नवे रंग काडटात. तांगेल्या ह्या घरांक तांगेल्या बायल भुरग्यांचीं, बोटीचीं नाजाल्यार आफ्रिकी गांवांचीं बी नांवां दिल्लीं आसतात. हाचे उरफाटें अजून तुळस आनी गोरवांचे गोठे ह्यो गांवच्या हिंदु घरांच्यो खुणो धरूं येतात.

हिन्दू आनी क्रिस्तांव हांच्या कुटुंबांची बांदावळूय वेगळीवेगळी. मुळांत ह्या दोनूय समाजाचे जिविताकडेन पळोवपाचे नदरेंत अंतर आसा. मुल्यांतूय फरक आसा. दोगांकूय देव–देवसपण, उत्सव–दबाजे, फेस्तां-जात्रा, लग्नां–काजरां सगलें लागता. पुण हिन्दू पदरची वेळ आनी पयसो मोडून जशे ह्या गजालींचेर

फॉल्ग मारतात तशे क्रिस्तांव मारिनात. हिन्दू कामांच्या दिसांनी जे कितें करतात तें क्रिस्तांव फिर्यादीच्या दिसांनी करतात. हिन्दू रिणां काडून सण करतात तशें क्रिस्तांव करिनात. ते रिणां काडटाक पुण तीं दुसऱ्या कामाखातीर.

गोंयचे हिन्दू हे हरशींय जाल्यार बोवाळभट. बोवाळाचे धुंदींत ते वेळ पडल्यार भेंडाचें सोडून माथ्याक बांदपाक लेगीत फाटी फुडें पळेनात. हाचे उरफाटें, गोयकार क्रिस्तांव सदांच आपल्या फुडारा विशीं चिंतीत आसतात. देखून हातचें राखून कसल्याय रासवळ बोवाळांत ते वांटो घेतात. देखून केन्ना केन्नाय अशें घडटा: एकाद्रया शाणुदादालो पूत-पाटू बी-गांवच्या उत्सवांतल्या नाटकांत वांटो घेवपाखातीर म्हणून मुंबयसून येता. तेन्ना त्याच गांवच्या एकाद्रया कायतानबाबालो पूत-डॉमनीक बी-पयशे जोडपा खातीर दुबयक वचपाची तयारी करता. भावनेच्या भरांत व्हांवून गेल्ले, फॉल्गां मारून आपल्यो इस्टेटी काबार केल्ले लोक हिन्दू भितर कितलेशे मेळटले; तशेंच फुडाराचेर नदर दवरून आपले वेव्हार चोख सांबाळपी लोक क्रिस्तांवां भितर कितलेशे सावतले. गांव-घर-फामिलीची दोगांकूय ओड आसा. पुण हे ओडीक लागून एकलो तांकां सोडूंक शकना, जाल्यार हे ओडीक लागुनूच दुसरो तांकां सोडटा.

एकाद्रो क्रिस्तांव तारवटी शिर्विसेक लागून तारवार वेता तेन्ना थंय तो परथो गांवांत वचून घर बांदपाचें, आपल्या बायल भुरग्यांसयत थंय रावपाचें आनी उपरांत थंयच 'हाय म्हुज्या घरा' म्हूण मरपाचें सपन पळेत आसता. रासवळ कुटुंबाच्या पासांनी गोंयचो हिंदू जसो घुस्पला तसो क्रिस्तांव घुस्पूंक नाशिल्ल्यान तो आपलें घर वेवस्तीत वसोवंक शकता.

एका काळार गोंयच्या हिंन्दूनी गोयकारांचे संस्कृतायेचो मक्तो आपणाकडेन घेतिल्लो. ही संस्कृताय सांबाळटां-सांबाळटां तांगेलें सगळें जिवीत काबार जातालें. हे संस्कृतायेचीं जीं कांय आंगां आसात तातूंत सवळें आनी नीती हांचो ताणीं खूब बडवाचार मातयल्लो. ह्या काळार गोंयकार हिंदूंक सवळें जावं अनवाळें--खुबूच लागतालें. सवळीं आयदनां, सवळीं पुडवीं, सवळीं कापडां, सवळ्याची बडी, सवळ्याचे बडयेन सवळीं सुकत घालप, सवळयान उदक हाडप, सवळयान रांदप, सवळयान जेवप, सवळयान देवाची पुजा करप, सगळें सवळयान करप. सवळयाबराबर भश्ट येता. म्हणटकूच जितलें सवळें चड तितलो भश्टेपणाचो पात्सो खर. हीं भश्टेपणाचीं सगळीं पातकां दादल्यांनी बायलांच्या माथ्यार

मारिल्लीं. हें सवळयांचें पुच्छ हया लोकांनी कितलें मातयल्लें हाची एक देख म्हळयार हे लोक दीसरटटे दनपारां सवळयांनी पाटार जेवंक बसताले आनी जेवताले कसलें जेवण तर नुसत्याचें.

गोंयकार हिंदूचे संस्कृतायेंतली ही एक विसंगती. अशीच आनीक एक विसंगती तागेल्या हेर जेवणाखाणांत दिसता. हरशीं नुसत्याबगर खंयच्याच गोंय-काराच्या ताळयासकयल केन्ना उंडी वचना. पुण अशेंय आसताना सणा-परबांचीं, लग्नांचीं, म्हामनीं-स्राद्धांचीं आनी सगल्या देवकार्यांचीं जेवणां शिवराक कित्याक ? हातलीं हेर जेवणां सोडात. पुण म्हाळा स्राद्धांचीं जेवणां म्हणटात तीं मेल्ल्यागेल्ल्यांचे आत्मे त्रृप्त करपाखातीर आसतात अशें म्हणटात. तशें जाल्यार तीं मेल्ल्यागेल्ल्यांचे आवडिचीं आसूंक नाका ? एक मनीस जितो आसताना यथेच्छ नुसतें खाताली जाल्यार तो मेल्या उपरांत ताच्या नांवान आमी शिवराक जेवण घालें जाल्यार ताका तें कशें रुचतलें ?

गोंयच्या हिंदूंचे संकृतायेचें आनीक एक म्हत्त्वाचें आंग म्हळयार नीती. हे नीतींत दादल्यांचीं आंगवस्त्रां बसतालीं. पुण बायलांच्यान वयर नदर करून परकी दादल्याक केन्ना पळोवंक नज आसलें.

काळ वेतां वेतां दादल्यांनी हया सवळयाचो आनी नीतीचो अर्थ आनिकूय बदलून आपणाक जाय तसो करून घेतलो. घरांच्या सालांनी बदल जाले, रांदच्या कुडिनी न्हय. ज्या वेळार दादले सोरो पियेवंक बारांनी बसताले तेन्ना बायलां रान्नीपोल्लांत हातांत भांडशिरीं घेवन कितें शिजलें, कितें करपलें तें पळेतालीं.

गोंयच्या हिंदूंक आनीं क्रिस्तावांक गांव-घर आनी कुटुंबां सारकींच लागतात. पुण गोंयचो एकाद्रो हिंदू जेन्ना सवळें, नीती, लग्नां, उत्सव, देवसपणां, घाडी, भगत, नडी, करण्यो, देमांद, हातूंत घुसपल्लो आसता तेन्ना एकाद्रो क्रिस्तांव आपले इस्टेटीचे वांटे कशे करचे, भुरग्यांक खंय शिकपाक धाडचें, खंय शिर्वि-सेक लावचें हे येवजणेंत आसता. जेन्ना हिंदूंच्या घरांनी चलयो दाखोवप, उलोवणीं करप, प्रसाद पाकळी घेवप हयो गजाली चलतात तेन्ना क्रिस्तावांचीं भुरगीं मोगांत पडिल्लीं आसतात. हिंदूंभितर अजून कोणूय मोग करीत जाल्यार ताणे भानगड केली अशे लेखतात. ( आनी उपरांत तांचें लग्न जालें म्हणटकूच तें निरुपायाक मानून घेतात. ) हाचे उरफाटें, क्रिस्तावांमदीं मोगा बगर ( जांव वळखी बगर ) कोणूय काजार करीत जाल्यार ताका सुदरूंक ना म्हणून धरतात.

क्रिस्तांवांगेर चड करून इस्टेट वांटून वचची न्हय म्हणून घरांतलो एक भुरगो पाद्री जाता, एकलें भुरगें माद्री जाता. हेर कांय आंकवार रावतात. गोंयच्या कांय क्रिस्तावांच्या व्हड घरांनी हाचेबगर कांय पिर्शी, पोसकीं आनी जाणटेलीं एकठांय नंदताना दिसतात. गोंयकार क्रिस्तांवांची ही चलणूक सेन्स ऑफ इंसेक्युरीटी ( sense of insecurity ) तल्यान उप्रासल्या जावंये. हाका लागून ते जंय जंय वेतात थंय थंय पंगडांनी वस्ती करतात.

गोंयच्या हिंदू आनी क्रिस्तावां मर्दीं आनीक एक गजाल दिसता. गोंयच्या हिंदूचें एंटरप्रायझ ( enterprise ) गोयांत जितलें दिसता तितलें गोंयाभायर दिसना. पुर्तुगेजांच्या काळार गोंयचे चडशे मिनैर आनी वेपारी हिंदूच आसले. स्वतंत्रताये उपरांत जे नवे कारखानदार हांगा वयर सल्ल्यात तातुंतूय तांचेंच प्रमाण अदीक. हाचे उरफाटें, गोंयचें चडशें क्रिस्तांव गोंयाभायर वचून वयर सल्ल्यात. गोंयाभायर गेल्ल्या चडशा लोकांनी फक्कत शिर्विसोच केल्यो. तांतूत क्रिस्तांत जितले वयर सल्ले तितले हिंदू सल्लेनात.

स्वतंत्रताये बराबर गोंयांत जो कोंकणी मराठीवाद सुरू जालो तांतूंत क्रिस्तांव कोकणीवादी हिंदूं बराबर रावले. त्याबराबर मराठीवाद्यांनी तांकां पुर्तुगेज धार्जिणे म्हणपाक सुरवात केली. हरशीं सगले गोंयकार–संवसारांतल्या सगल्या लोकांवरी खरें म्हळयार आपधार्जिणे. क्रिस्तांव कांय कारणांक लागून मातशे अदीक पुर्तुगेजां लागसार पावले म्हणून तांकां पुर्तुगेज धार्जिणे कित्याक म्हणूंक जाय ? पुर्तुगेज हे जर हिंदू आशिल्ले आनी पुर्तुगालाक हिंदू राज्य चलिल्लें आनी भारतांत हेरकडेन क्रिस्तांव सरकार आशिल्लें जाल्यार गोंयचे हिंदूय ‘ पुर्तुगेजधार्जिणे ’ च जातले आशिल्ले. ( खरी गजाल अशी–कोणाक सांगपाची न्हय ती–कि पुर्तुगेज गेल्या उपरांत क्रिस्तावांक जितलें वायट दिसलें तितलेंच हिंदुंकूय दिसलें. अजून दोगांकूय पावलाकणकणी पुर्तुगेजांचो उगडास येता. )

गोय स्वतंत्र जायतपासून एकेवटेन हिंदू आनी क्रिस्तांव दोगूय मातशे लागीं आयल्यात. दुसरे वटेन ते दोगूय इल्ले–इल्ले पयसावंक लागल्यात. लागीं आयल्यात ते भेसान आनी पयसावल्यात ते भाशेन. फात-ग्रावात– चेपीं फाटीं पडून बुशकोट–कालसावां–चपलां आयिल्ल्यान कोण हिंदू, कोण क्रिस्तांव तें वळखप कठीण जालां. चलयां–बायलांचेय ड्रेस आतां इल्ले इल्ले एकासारके

वंक लागल्यात. पुण जे क्रिस्तांव घरांत पुर्तुगेज वा कोंकणी उलयताले ते
ले इल्ले करून इंग्लीशीचेर वचूंक लागिल्ल्यान एक नवी वणत ह्या दोगांय
र्री उबी रावंक लागल्या.

कलेच्या मळार लेगीत हिंदू आनी क्रिस्तांव लागीं लागसार केन्ना एकठांय
तशे दिसना. कारण चित्र, शिल्पा सारकिल्यो ज्यो कांय कला आमकां एक-
र हाडूंक शकत आशिल्ल्यो तांचे विशीं आमकां व्हडलिशी उमळशीक ना. हेर
ल्या कलांकडेन पात्रतकूच आमच्यो दोगांयच्योय आवडी वेगळेवेगळ्यो. हाका
गून साइत्य, नाटक, संगीत, नाच हातुंतूय क्रिस्तांवांचे आनी हिंदूचे अश
: पडल्यात.

ना म्हळयार गोंयकार हिंदू आनी क्रिस्तांवांक-चड करून तन्नाटयांक लागीं
पी अशीं सदया एकूच गजाल आसा आनी ती म्हळयार खेळ ( sports ).
गेजांच्या काळार फुटबॉल सगल्यांक मानवालो. ह्या खेळांत गोंयकारांनी
ट्रीय पावंडयाचेर लेगीत व्हड नांव जोडलां. फुटबॉल हें पुर्तुगेजां कडल्यान
कारांक मेळिल्लें एक दायज. स्वतंत्रताये उपरांत तातूंत आतां क्रिकेटची
पडल्या. चल्यांबराबर चलयोय आतां ह्या खेळांनी इल्ल्यो इल्ल्यो इंटरेस्ट
क शिकल्यात.

खेळांचे जोडीक फुडें फाटीं हिंदी सिनेमा जावं अस्तमतेचें संगीत ( western
usic ) गोंयकारांक एकाद्रें मातशें लागी हाडीत. हाचे मुखार कितले
स्तांव 'हिंदू' जातात आनी कितले हिंदू 'क्रिस्तांव' जातात ताचेर तें सगलें
लंबून आसा. अशेतरेचे लोक सद्या ह्या दोनूय समाजांमदीं दिसतात. हिंदू
ीं आसताना क्रिस्तांवांवरी वागप आनी क्रिस्तांवां मदीं आसताना हिंदुवरी
प हो ह्या लोकांचो धर्म. हिन्दू मदल्या अशे तरेच्या 'क्रिस्तांवां'चें आनी
स्तांवांमदल्या अशे तरेच्या 'हिंदू'चें प्रमाण दिशीं दिशीं वाडत आसा.
ा लागून फुडें फाटीं गोंयांत हिंदू-क्रिस्तांवांचीं लग्नां वा काजरां खुबशा
ाणार घडून आयिल्लीं दिसूं येता. तशें पळोवंक गेल्यार गोंयकार धर्म व्हड-
ो मानिनात. पुण इतलेंय आसून गोंयांत धर्मभेद आसात. गोंयचे हे धर्मभेद
डे ना जायतशें दिसना. त्या पयलीं हिंदू आनी क्रिस्तांव ह्या दोनूय
ंतल्यो जाती मात् वेतल्यो.

एका काळार गोंयांत बामणाक बुद्दिचो कांदो कसो लेखताले आनी सुदराक

बुद्द ना अशें धरताले. बुद्द नाशिल्ल्या बामणाक काळो बामण म्हणटाले आनी बुद्द आशिल्ल्या सुदराक गोरो सुदीर म्हणटाले. बामणान हे बुद्दिच्या मालवजार, आंकडयान सामके उणे आसुनूय, हे भुंयेचेर आपलें बस्तान बरें ठोंकलें आनी इल्लें इल्लें करून आपलें साम्राज्य ताणें हांगां वाडयलें. थोडयाच तेंपाभितर गोंयांत बामण म्हणटात ते सगल्याक म्हळयार जळीं–स्थळीं–काश्टीं पाशाणीं दिसूंक लागले. त्या काळार भाटकार बामण, वेपारी बामण, एंप्रेगाद बामण, दोतोर, आदवोगाद, प्रोफेसोर,....सगळे बामण अशी अवस्ता जाली. गोंयभर शिकिल्ले लोक सगळे बामण आसले आनी दुड्डुर्ब्रम्हाः दुड्डुर्विश्णुः करपीय लोक बामणूच आसले.

गोंय स्वतंत्र जाता आसताना भारत सरकारच्या सैन्याबराबर बुद्दिचो एक व्हडलो लोट गोंयचे हद्दींत भितर सल्लो. आनी ही बुद्द गोंयभर पातळ्ळी. आनी ताका लागून सगलेच गोंयकार अकस्मात बुदवंत जाले. हांतल्या नव्या–बुदवंत लोकांक ‘ बहुजन समाज ’ हें नांव पडलें. आदल्या काळार जाल्यार जें स्थान बामणांक आसलें ते सद्या ह्या लोकांक मेळ्ळां. राजकारणी लोक दीसपट्टयो ज्यो कांय बऱ्यो वायट करण्यो करीत आसतात त्यो सगल्यो ह्याच लोकांच्या नांवान.

निमाणेकडेन गोंयकार म्हळयार कोण ? जे गोंयचो इतिहास नकळ, भुगोल नकळ पुण जांकां गोयांविशीं आकांताचो अभिमान, जे स्वतंत्रतायेक सदांच वथरेताले, पुण ती येनाफुडें पुर्तुगेजांचो उगडास काडून हुडक्याहुडक्यांनी रडूंक लागले, जांकां अजून गोंय म्हळयार धर्तरेवेलो सर्ग कसो दिसता, पुण त्याच बराबर ह्या सर्गांत रावून जाय जाय तीं पातकां करपाक आपणाक मेकळीक आसा अशें दिसता. जे देवाक व्हडलोसो मानिनात, पुण त्याच बराबर आपूण ताका मानिना अशें कोणाक दाखयनात, जे फक्कत भाटकार, मिनैर, ब्लॅकिश्त दोतोर, आद्वोगाद, इजनेर आनी वरिश्ट सरकारी अधिकारी हांकांच भोवमान दितात आनी मास्तर, प्रोफसोर आनी कलाकार हांकां कोनशाक मारतात, जे सरकारी शिर्विसांनी पोटतिडकेन काम करतात, पुण त्याच बराबर बोक-फिच्याद बॉल्स आबेर्त हे नीतीन चलतात, जे मंत्र्यांक कुडक्यांनी गाळी घालतात पुण उपरांत तांचेंचकडेन फावोर मागूंक वेतात, जे खरेपणानशीं आळशी आसताना संवसारभर सुसेगाद म्हूण फामाद जाल्यात, जांकां एके वटेन आंगवस्त्रां आनी

ारो लागता आनी दुसरे वटेन खर देवसपणूय लागता, जे एकेवटेन पावण्यांक सून यवकार दितात आनी त्याच वेळार दुसरे वटेन शेजाऱ्याच्या घराचेर सुणीं डोवपाची मनांतल्यान माग्णी करतात, जांकां वेळाचें म्हत्व अजिबात कळना' नुसतें खावन आनी हेर फॉल्गां मारून आपल्यो इस्टेटी काबार करतात सल्या ह्या मनशांची-गोंयकारांची व्याख्या कोण आनी कशी म्हूण करतलो ?

पुर्तुगेजांच्या काळार गोंयांत व्हडले व्हडले पुर्तुगेज दोतोर येताले. असोच क फावट एक व्हडलो सिरुरजियांव पुर्तुगालसून आयिल्लो. ताणे पणजेच्या ोस्पितालांत एका गोंयकाराच्या मेंदवाचें ऑपेरासांव केलें. त्या बराबर तातूंत का हयो गजाली मेळ्ळयो.

एक सालाझाराचो फोटो
एक लिसेवाचें सेर्तिदांव
एक फुटबॉल
एक मर्सिडीस मोटार
एक घराचो प्लांत
कितलिशीं नोटींचीं बंडलां
एक दूज सेर्वेजिच्यो बोतली
एक रेबैन वॉक्ल
एक रॉलेक्स घडयाळ
दोन फाउंटन पेनां ( एक शेफर्स, एक पार्कर )
एक गाबार्दिनाचो फात
एक चेपें
एक गितार
कांय दुकुमेंत ( भाटांचीं इश्क्रितुरां बी )
पांटलीभर नुसतें
चार-पांच आंगवस्त्रां, आनी
एक कुम्प्लीकाद यंत्र.

त्या दातोराक त्या दुयेंतीचे तकलेंत हयो गजाली पळोवन अजाप जालें. ह्या ऑपेरासांवांत हातभार लावपी कांय गोंयकार दोतोर आसले तांणी ताका सांगलें, तूंत अजाप जावपाचें कांय कारण ना. कारण चडशा गोंयकारांच्या तकल्यांनी

असल्योच गजाली घोळटात. फक्कत त्या दोतोराक तें कुम्प्लीकाद यंत्र कसलें तें कळना जालें. म्हूण ताचो देझेन्य आनी ताची सगली खबर तांणे पुर्तुगालाक धाडली. पुर्तुगालसून तांकां रिपोर्ट आयलो तो असो–' हांव सांगतां तें तूं आयक' अशें म्हणून संवसारांतल्या सगल्या विशयांचेर गजाली करपाचें आनी चकाटी मारपाचें तें यंत्र !

